'ಕೊಂಕಣಿಚಿ ವ್ಯಾಕರಣೀ ಬಾಂದಾವಳ್' (1949) ಹೆಂ ವ್ಯಾಕರಣ್ ಬರೊವ್ನ್ ಕೊಂಕಣ ಹಿ ಖಂಯ್ಚೆಚ್ ಭಾಶೆಚಿ ಗಾಂವ್‌ಗಾರಿ ತರಾ ನ್ಹಯ್ ತರ್ ತೀ ಏಕ್ ಸಮರ್ಥ್ ಸ್ವತಂತ್ರ್ ಭಾಸ ಹ್ಯಾ ವಿಚಾರಾಚಿ ಘಟ್ ಮ್ಹೆಡ್ ರೊಯ್ಲಿ.

'ಮಣ್ಯಾತ್ಮೊ ರಾಮ್‌ಕಾಮತಿ' (1939) ಆನಿ 'ಅಬೇ ಫಾರೀಯ್' ಹಾಂಚೊ ಜಿಣೊ ಬರೊವ್ನ್ ಕೊಂಕಣಿ ಮನ್ಶ್ಯಾಚಿ ವ್ಹಡ್ವಿಕ್ ತಶೆಂಚ್ ತಾಂಚಿಂ ಉಣಿಂ ದಾಖಯ್ಲಿಂ. 'ನವೆಂ ಗೋಂಯ್' ಹೆಂ ನೆಮಾಳೆಂ ಚಲೊವ್ನ್ ಕೊಂಕಣಿ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂಕ್ ಏಕ್ ಊಂಚ್ ಪಾಂವ್ಡ್ಯಾಚೆಂ ಸಾಹಿತ್ಯಿಕ್ ಅಂಕ್ ದಿಲೆ. 'ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಲೊ ಈಶ್ಟ್' (1935) ಆನಿ 'ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಲೆಂ ವ್ಯಾಕರಣ್' (1941) ರಚೂನ್ ಕೊಂಕಣಿ ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಚಿ ಇಶ್ಟಾಗತ್ ಜೊಡ್ಲಿ. 'ಆಲ್ಬುಕೆರ್ಕಿನ್ ಗೊಂಯ್ ಕಶೆಂ ಜಿಖ್ಲೆಂ (1955) ಆನಿ 'ವಲಿಪತ್ತನಾಚೊ ಸೊದ್' ಹಿಂ ಪುಸ್ತಕಾಂ ಬರೊವ್ನ್ ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಇತಿಹಾಸಾಚೆರ್ ಉಜ್ವಾಡ್ ಘಾಲೊ.

ಹ್ಯಾ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ಶೆಣೈ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾನ್ ಕೊಂಕಣಿ ಸಮಾಜಾಕ್ ಎಕ್ಠಾಯ್ಲೊ, ಕೊಂಕಣಿ ಅತ್ಮ್ಯಾಕ್ ಜಾಗಯ್ಲೊ. ಶೆಣೈ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾಚ್ಯಾ ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ಲೆ ಕಾಂಯ್ ಉತಾರೆ:

'ಗೋಡ್ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೊಂಯ್! ಸುಂದರ್ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೊಂಯ್!
ಪುರ್ವಿಲ್ಲೆ ನಾಮ್ನೆಚೆಂ । ಚಡ್ ಮೊಠ್ಯಾ ಭಾಗ್ಯಾಚೆ
ಊಂಚ್ ಮಾಥೆಂ ಕೊಂಕಣಾಚೆಂ, ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೋಂಯ್!
ನಿಜಾಚೆ ಅಪುರ್ಬಾಯೆಚೆ, ಇಂದ್ರನೀಳ್ ಮಳಬಾಚೆಂ
ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೋಂಯ್!
ಭಾಂಗಾರಾಚ್ಯಾ ವೊತಾಚೆಂ, ರುಪ್ಯಾಚ್ಯಾ ಚಾಂದ್ನ್ಯಾಚೆಂ
ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೋಂಯ್!
ಉಜಳ್ ಸಂಸ್ಕೃತಾಯೆಚೆಂ, ಖರೆಲ್ಯಾ ಕುಳ್‌ವಂತಾಂಚೆಂ
ಉದಾರ್ ಮನಾಚ್ಯಾ ಲೊಕಾಂಚೆ, ಪಾಟಾಂಗಡ್ಯಾ ವಿದ್ವಾನಾಚೆಂ,
ಬಲಿಷ್ಟ್ ಝುಜಾರ್ಯಾಂಚೆಂ, ಬುದ್ವಂತ್ ರಾಜ್‌ಕರ್ತ್ಯಾಂಚೆಂ
ವಾವ್ರಾಡ್ಯಾ, ಕರ್ತೃತ್ವಾ ಮನ್ಶ್ಯಾಂಚೆಂ
ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೊಂಯ್!'
ಧರ್ತರೆವೆಲೊ ಸರ್ಗ್, ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೊಂಯ್!
ಸಾಸ್ಣಾಚೆಂ ಸುಖ್-ದಿಣೆಂ, ಹೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಗೊಂಯ್!'

(ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಲೊ ಈಶ್ಟ್)

‘ಪಣಸ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಪಣಸ್. ತಸಲೊ ಪಣಸ್ ಹೊ ನ್ಹಯ್. ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಭತ್‌ಗ್ರಾಮಾಂತ್ ಹಾಚಿ ನಾಮ್ನಾ. ದಿವ್ಚಲೆ ವಾಟುಮಾಮಾಲ್ಯಾ ಪೊರ್ಸಾಂತ್ ದುರ್ಗಾದೆಗೇಕ್ ವಣಖೊನ್ ಹೋ ಉಬೊ ರಾವ್ಲಾ ಖರೊ, ಪುಣೂನ್ ಸಗ್ಳಿ ಭಿತಲ್ಲಿ ಪೇಶ್ ಆನಿ ಭಾಯ್ಲೆ ಪೆಶೆಮೆರೆನ್ ಹಾಂಚೊ ಘಮ್‌ಘಮ್. ಹಾಕಾ ಜಲ್ಮಾ ಯೇವ್ನ್ ಕಿತ್ಲಿಂ ವರ್ಸಾಂ ಜಾಲಿಂ ತೀಂ ಸಾಂಗೂಂ ನಜತ್. ಪರಂತ್ ಜಾಣೆಂ ತಾಂಚೆಂ ಭಿಕಣ್ ರುಜವ್ಣಾ ಘಾಲ್ಲೆಂ ತ್ಯಾ ಮನ್ಶ್ಯಾಚಿ ಪುಣ್ಯತಾಯ್ ಮೊಟಿ ಖರಿ.

ಕಸಲೊ ತರ್ ಪಣಸ್ ಹೊ! ಹಾಚಿ ತೊಖ್ಣಾಯ್ ಕಿತ್ಲಿ ಮ್ಹಣೂನ್ ಕರ್ತಲೊ? ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಗೊಂಯಾಂ ಪಯ್ಲೆಂ ವಯ್ಲೆಂ ದಾಬಣ್ ತೆಂ ಹಾಕಾ. ಶ್ರಾವಣ್ ಮ್ಹೈನೊ ಲಾಗ್ಲ್ಯಾರೂಚ್ ಹೊ ಕುಟುಂಬ್ ಘುಟೂಂಕ್ ಆರಂಭ್ ಜಾತಾ. ಕಾರ್ತಿಕ್ ಮ್ಹೈನೊ ಯೆತಾ ಮ್ಹಣಸರ್ ಫೆ, ಪಣಸೂಚ್ ಪಣಸ್. ಸಕಯ್ಲೆಂ ಮೂಳ್ ಧರೂನ್ ವಯ್ಲೆ ತೆಂಗ್ಯೆ ಮೆರೇನ್, ಖಾಂದ್ಯಾಂ ಖಾಂದ್ಯಾಂನಿ ಅಶೆ ಕುಚ್‌ಕುಚೇತ್ ಪಣಸ್. ಪಾನ್ ಕಸಲೆಂ ತೆಂ ದಿಶ್ಟಿ ಪಡನಾ. ಪಣಸೂಯ್ ಪುಣ್ ಕೆದೊ, ಇಲ್ಲೊಸೊ ಮಾಣ್ಕುಲೊಚ್.’

**(ಬಾಬೂಮಾಮಾಲೊ ಪಣಸ್.)**



# मांडावळ


पान

१. बरवपी 78-102
:एडवीन जे.एफ.डिसोजा

२. शेकड्यांत कानडी लिपिंत कोंकणी कादंबरिंची वाडावळ 103-115
: दो। एड्वर्ड एल. नजरेत

३. कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी पुस्तकांचे प्रगटणेचेर एक सुक्ण्या–नदर 116-120
:बा। फ्रानसीस रोड्रिगस, 'राक्णो' संपादक

४. कोंकणी साहितांत कवित्येचें स्थान आनी पात्र 121-131
:दे। बाप अंतोन जुवांव सोझ

५. कोंकणी: इतिहासिक भाशा शास्त्राच्या संदर्भांत 132-142
:दो। माधवी सर्देसाय

६. कोंकणी भास आनी साहित्य हांचो संक्षिप्त इतिहास 143-153
: दे। दो। मनोहर राय सर्देसाय

# अमर कोंकणी - 59

## संपादकाचे शरे

बारीकसाणेन पळेल्यार हो अंको एके रितिन विषेस अंको म्हण लेक्येत.

ह्या वर्सा कोंकणी कादंबरियेक शेंबर वर्सां भर्लीं. मानेस्त (दे) एद्वार्दो जुजे ब्रूनो द सौझा हाणे १९११–व्या वर्सा लिकुन उज्वाडायिल्ली नवाल कृती 'क्रिस्तांव घराबो' ह्या वर्सा शेंबर वर्सां संपयता. कोणे कितें म्हळ्यारयी, कोंकणी भास आळ्वोन वेच्यार आसा म्हण प्रोफेसी केल्यारयी, भास आळ्वोंक ना आनी सृजनशील साहिताक बोर्गोळ आयिल्लो ना.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी साहित्य अकादमिंत लगबग १८०० कोंकणी गृंथांचो सांटो आसा, सांलुवीस कोलेजिच्या कोंकणी संस्थ्याच्या गृंथालयांत कोंकणिक लग्ती जाल्ले ९००० गृंथ आसात.

दुस्रो सुवाळो म्हळ्यार मंग्ळुर दियेसेजिचें क्लेरिक/लायिकांचें पत्र म्हण १९३८ इस्वेंत स्थापित जाल्लें 'राक्णो' हफ्ताळें ७५ वर्सां संपय्ता.

ह्या अंक्यांत आसचीं थोडीं लेकनां ह्या सुवाळ्यांक खास जावन आसात आनी तीं, चडशीं उलव्यां जीं वर्सभर चलच्या आनी चलोनंच आसच्या 'राक्णो' संब्रमाक पूरक जावन आसात.

हीं प्रगटुंक 'राक्णो' पत्रान आम्कां दिल्ले पर्वणगेक आमी अभारी आसांव.

ह्या अंक्यांत आमी 'राक्णो' पत्राक उल्लासितांव, कोंकणिक दिल्ल्या देण्गेचो अबार मांद्तांव आनी कोंकणिच्या फुडाराक सर्व वाटांनी बरें माग्तांव.

धन्यवाद!

एडवीन जे.एफ.डिसोजा
संपादक
३० जून २०१३

# बरवपी

– ऐड्वीन जे.एफ.डिसोजा, मंग्ळु

२०१२ इस्वी कोंकणी साहिताच्या चरित्रेंत महतवाची. हे इस्वेंत कोंकणी कादंबरिंची सुरुवात जावन १०० वर्सां संपतात आनी कानडी लिपियेंत मंग्ळू थावन प्रगट जांवचा "राकणो" पत्राक ७५ वर्सां भर्तात. ह्या दोन प्रमुक घटनांचो संब्रम मानांवच्या वेळार सबार परिसंवाद, भासाभास आनी हेर कारयी सुरवातल्यांत अनी सगळें वर्सभर तीं चलतेलीं. ह्या कार्याक्रमांचे शिंक्ळेंत सां.। लुवीस कोंकणी संस्थो आनी कोंकणी लॅककांचो एक्वट (नॉ) कर्नाटका सागांता मेळोन १६ डिसेंबर २०१२–वेर आसा केल्लें एक कार्यें जाल्नासा "बरवपी–संपादपी–वाचपी". ह्या तीन वेवेगळ्या विषयांचेर तॅग उलवपी उलयले पुण तीं तीनयी उलवपां आमी हांगासर छापिनांव शिवाय एक, "बरवपी" ह्या उलवपाक पूरक जावन आमी छापलां उलवप: कन्नड लिपियेंतल्या कोंक्णी साहितांत कोंक्णी कादंबरिंचो उद्धव आनी वाडावळ:

---

शिकप आस्चो आनी बरप कळित आस्चो हरयेक्लो एका न्हय तर एका वेळार कितें तरी गिच्चिता (scribble), बरयता, लिकता. आमी गिच्चिता म्हळ्या क्रियापदाथावनंच सुरु केल्यार – ल्हान एक भुर्गें सय्त हातांत पेनसिल दिल्यार कांय तरी गिच्चिता, वणदिंचेर कांय तरी सोडयता आनी हातांक मेळल्या काग्दांचेर/पुस्तकांचेर आपलें 'बरप' उदेशें कर्ता. ही एक क्रिया मनश्याक सभाविकपणी आयल्या कशी दिस्ता: आसुं, ह्या विशांत आमी संसोद कर्चो नाका पुण इतलेंच आम्कां गमल्यार पुरो की – शिकप आसल्लो मनिस जिणियेंत एक पावटीं न्हय तर एक पावटीं लिक्णी वापरताच.

पुण हें बरप, गिसप साहित म्हण लेकूंक साद्यच ना कित्याक हें बरवप म्हळ्ळ्या सब्दाचे परिदे भितर येनांच. आतां आमी तजवीज करुंक आसचें म्हजें उलवप साहितिक बरपांक आपले परिधिंत घेता आनी अशें जाताना आमी गमन दिंवचीं 'बरपां' नाट–रूप आनी अर्थ आसच्या सब्दांचीं जावन

आस्तात. अर्थ आसच्या सब्दांचें म्हण्ताना आमी शिक्पी बरपां विशांत उलय्तांव म्हळ्ळें आम्कां दुबावाविणे गमता. साहितिक बरप अर्थ आसल्लें/नातल्लें, राजांव आसल्लें/राजांव नातल्लें ह्या वर्गांनी रुंदायेन सेर्वता.

साहिताचे वाडावळिंत तीन निरदिष्ट वर्ग आसात. पयलो: बरवप्याचो वर्ग जे जाव्नासात रचणार साहित म्हळ्ळ्या बरपाचे. दुस्रो: संपादपी. हाची जवाबदारी आसा साहित म्हण आपणाच्या मेजा पर्यांत आयिल्ल्या बरपांनी कितलें अर्था भरित आसा या ना, कित्लें राजांवीक आसा या ना म्हळ्ळें तजवीज कर्चें. हें जाल्लेंच जें कितें ताणे 'जाववेत' म्हण विंचल्लें छापुन येताना संपादकाचाकी वयल्या पांवड्यार आसचो एक वर्ग प्रवॅस जाता आनी हो वर्ग जावन आस वाचप्यांचो. ह्या वर्गाक साहित म्हण छापुन आयिल्ल्या बरपांक postmortem करुन आक्रेचें फैसल दिंव्चें संपूर्ण हख्क आसा कित्याक ते जावनासात रुचपी–रूच पळेंवचे तसले. हांचें फैसल निमाणे कित्याक एक बरवपी फलाण्या येका वाचप्याचें फैसल वाचून आपलें बरप तिदवून बरयना आनी आप्णें वापरल्ल्या सब्दां सांगाता खेळोंक वचाना.

एक बरवपी फलाणे एक बरप सुरु कर्ताना ताच्या मर्तिंत कसले तीब आसतात? तीन तीब आसोंकच जाय—

पयलो – हांव

दुस्रो – संपादक

तिस्रो – वाचपी

हीं तीन हंतां हांगासर दिल्ल्या क्रमानंच आसाजे म्हळळी कसलियी नॅमी कड्डाय ना पुण हे हंत जरूर येतात, पाटीं फुडें जाल्यारी.

हांव एक सृजनातमक साहिताचो बरवपी. बरपां, अंकणां, कथा – कादंबरी सुरु कर्चें आनी संपंवचें काम सयत म्हजें. ह्या म्हज्या अबियानांत म्हाका संपादकांक फुड करुंक आस्तेलें म्हळ्ळें हांव जाणां आनी हो संपादकी पांवडो उतर्ल्या उप्रांत वाचप्यांच्या फैसलांक वळग जांव्क आसा म्हळ्ळेंयी हांव जाणां. आनी ह्या अभियानांत – एक बरवपी जावन हांव म्हाकाच भेट्तां;

दुसर्यान, संपादकांक भेट्तां आनी तिसर्यान, वाचप्यांक भेट्तां. पुण म्हज्या बरपांनी हांवें पाळचें क्रम कसलें?

1. Is the writer born or made? हें सवाल हांवें सबार परिसंवादांनी उडयलां पुण समंजस जाप, राजांव आसल्ली, म्हाका लाबोंक ना. एका नामवर लेककाक म्हजें हें सवाल अराजांविक आयकालें. कोणयी लेकक जलमाल्ल्या खेरित लिकूं क सकतागी म्हळ्ळें उप्राटें सवाल ताणे म्हाका उडय्लें. पुण म्हज्या सवालाचो मतलब असो न्हय आस्लो आनी तो कित्यांत आसल्लो म्हळ्ळें तुमकां तरी गमलां आस्तेलें.

२. पुण तेत्तीस कादंबरीं उप्रांत म्हाका अशें भोग्ताकी हें सवाल विचारताना हांवें एक चूक केली. हें सवाल हांवें १९६४ इस्वेंत म्हजें प्रथम बरप छापुन येताना म्हाकाच्च विचारिजे आसल्लें – तुं कांय एका बरवप्याचे genes घेवनंच जलमाल्लोय? पुण केदळा विचारिजे आसल्लें? सबार वोणी–रसत्यांनी मेटां काडून, आपटोन–धापटोन, दिक–दिशा नास्तां तरी एके कुशिन नवकरी करुन, बेंक बेलेन्स, कुटम आसा करुन सासांगाताच कोंक्णेंत आनी इंगीषांत सृजनशील साहित रचून एक बरवपी म्हण आक्रेक तरी थिरल्ल्या उप्रांत? हांवें म्हजी खंची कूस तुमच्या सामकार दवरिजे?

३. म्हज्या साहितिक अबियानाथाव्नंच सुरु कर्चें तर खंचायी आयिन्न घडिये हांवें म्हाका विचारल्लें ना – are you a born writer? तरी पूण म्हजें साहित वाचुन सबारांनी निर्दिष्टायेन म्हळ्ळें आसा – तुं एक लेकक जावनंच जलमालाय आनी तुंवें तुज्याच्च पिशेपणान वर्सांगट्ल्यान पाड केल्यांय – इंजिनियारिंग शिकोंक वचुन, एक डिग्री आसाजे म्हळ्ळ्या तुजे आवय्चे आशेक लागून एक थर्ड क्लास बी.कोम. डिग्री जोड्च्यांत तीन वरसां खिरव्न. समजाजे तुंवें, ह्या पिशेपणंत तरी तुं बरवनंच रावलोय आनी तुजीं बरपां ठिक्लीं हाचो मतलब कसलो? तुका देणें आसा म्हण पुण सांगताच तुका फावोतो दिष्टावो मेळ्ळो ना म्हळ्ळो.

४. म्हाका चूक समजानाकात – हें प्रस्तावन म्हजिच साहितिक आत्मकथा

न्हय. म्हजी आत्मकथा येंवच्या वेळार येतेली. आश्वासन तुम्कां हांव दितां हें म्हजें बरप 'बरवपी आनी संपादक' म्हळ्ळ्या विषयाकच वेता, कशें म्हण तुमी विचार्तेल्यात आनी हाका जाप आसा अशी–

५. म्हजें प्रथम, छापून आयिल्लें बरप १९५५ इस्वेंत एका कन्नड मीडियम शाळेच्या वार्शीक मेगझिनार. ऐडवीन आनी कन्नड? अशें तुमी हांक्रेशात. हें सत हांवें इतलीं वरसां पर्यांत उचारिनास्तां दवर्लें कित्याक? कोंकणी साहितांत इतलो उग्तड लाबताना हांव कित्याक कन्नड हाड्रूं? जशें, कांय यशस्वी जाल्लो एक्लो मनिस आपलीं मुळांच विसरलेल्यापरीं करुन आपणाकच फटयता तें आमी जाणांव – कोंकणिंच माय भास आसल्ले सय्त I do not know Konkani म्हळ्ळें डिक्लेरेशन एक status symbol म्हण लेकतना. चडउणें असलेंच म्हजेथंय घड्लें म्हण हांव उचारोन सांग्तां.

६. इतलेंच सांगल्यार पुरो आसल्लें म्हण तुमी चिंतात तर हांव तुमकां दुरसाना. पुण हांवें हें घडित लांबायेन सांगाजे पड्टा कित्याक ह्या लिपोन वेल्ल्या घडितांत म्हज्या साहितिक जिणियेच्या पयिल्ल्या संपादकाक मुखामुखीं जांवचो अवकास म्हाका लाबल्लो.

७. त्या वरसा पांचवे क्लासिंत हांव शिक्तालों आनी त्या माद्रिंच्या शाळेंत चेड्वांक फकत पांचवी क्लास पर्यांत मात्र शिकोंक अवकास आसल्लो. म्हजें शिकप चालू आसताना म्हाका एक चटुवटिका दोस्ताली कांय तरी लिकची. तितलेंच न्हय, नोट्स बुकांचीं पानां पिंजुन, दोड्न कड्तिलें रुपार शिंवोन ताचेर कांय तरी एक काणी बरवन हांवें क्लासिंत एक सर्क्यूलेटींग लायब्रेरी सुरु केल्ली. एका दिसा चलियां सांगाता stitching class-ंत म्हजींच पुस्तकां वितरण कर्ताना म्हजे आलिस टीचेरिन म्हाका धर्लो. धमकी जरूर पड्ली पुण हांवें म्हजीं पोक्रिपणां रावयलींनांत. पुसतकां बरवन सेजारच्या ललितम्माक, म्हजे मामियेक, वाचूंक दिंवचें कायामाचें जालें. हेर कसलिंयी पोक्रिपणां हांव करिनासल्लों कित्याक कालेतिन हांव असकत, भिंवकुरों आनी सदां पिड्यारो आनी म्हजी

सेजार्न वरत्या कोंडाव्यान म्हाका 'न्हंय्चें सुंकाट' म्हण आपयताली. आनी म्हजी माम्मी...ती कितें सांग्णी आसा....सकय्ल दवल्र्यार मूय.... आनी आज खंय म्हजी माम्मी जीवंत आसल्ली तर आपलो 'बाबु' इतलें सर्व करुंक सक्लो म्हळळें पातियेतीच्च ना.

८. व्हय, म्हजो प्रथम संपादक एक्ली स्त्री, म्हजिच्च क्लास टीचेर आलिस. पांचव्या क्लासिचें शिकप आकेर जावन येताना येका दनपारां जेवणा वेळार तिणे म्हाका आपय्लो. उडास आसात म्हाक कोंक्णेंतलीं तिचीं उत्रां – क्लासिंत तूं भारिच्च कादंबरी बरय्तताय न्हय? आतां आमच्या वार्शिक मेगझिनाक एक लेकन दी पळोव्यां. कितें बरंव, टीचेर? कितेंयी बरय, पोय्रच तुज्या जुलियाना आंटी सांगाता (म्हजी मावशी ती, तेच्च शाळेंत शिकयताली) टीचेर्स पिकनिकाक वचून आयिल्लो हीरो तुं. आतां तेच अण्बव बरय. तुका तालेंतां आसात, बरय. आनी हांवें लिक्लें तें म्हजें प्रथम लेकन – हांवें रजा पाशार केल्ली रीत.

९. आनी इतलें तुमच्या सामकार दवल्र्या उप्रांत म्हाका थोडो सुशेग लाबला म्हण हांव उचारोन सांग्तां. 'तुका तालेंतां आसात' हीं तिचीं उत्रां म्हाका आज पर्यांत ऑक्ताचें बळ जाल्यांत.

१०. आतां हांव म्हज्या उलवपाच्या तिर्लाक येतां – म्हज्या आलिस टीचेरिचीं उत्रां म्हज्या मतिंत आसात पुण हांवें कोंकणिंत बरंव्क सुरु करच्या पय्लें हांवें भुर्ग्यांच्या कोलमांनी, डेख्कान हेराळड, ऑर्बिट आनी हेर दिसळ्यांनी इंग्लिषांत बरय्लां आनी तें प्रगट जालां. हांव व्हड जाल्लें परिसर शिक्पी आनी चडशें इंग्लिष वाचपाचें. हेच मेळिंत रावाजे म्हण म्हजे माम्मिन जेजवीत पाद्रिंचे पांय धरुन म्हाका कन्नडातंल्या 'बेप्पु तख्कडी'क (पेंगाक–timid, shy) इंग्लिष मीडियमाक सेर्वयिल्लें प्रकरण एक प्रकरणंच सय. आसुं.

११. पुण कोंकणी थंय म्हाका उर्बा येंवक सबार काराणां आसात. तवळ, ती मांयभास, बाब भास, कोंकणी मांय, बाब ह्या सर्व विषेशणांचें आक्रमण जांव्क नातल्लें. संस्कृतीचे न्हारे म्हळ्यार कितें म्हळळें कळितच नातल्लें.

आसल्लें फकत एक निषकळंक कोंक्णी चिंतप.साहित जें दिसून येतालें आमगेर येंवच्या कोंकणी नेमाळ्यांनी. ह्या पयकीं 'राक्णो' आनी 'सेवक' आनी त्या उप्रांत 'मित्र,' 'झेलो' आनी 'पयणारी.'

१२. लिक्चें, एक धांव, पंताट या पंताह्वान म्हळ्ळें चिंतपच नातल्लें. आपलें नांव, विळास, तस्वीर कोंकणी नेमाळ्यांनी छापून येजे आनी हांवें व्हड्लो एक लॅकक जाय्जे असलें कसलेंच म्हज्या मतिंत नातल्लें. आसल्लें तर हांव लिक्णेनांव घेतोंच ना. सबार लॅककांनी लिक्णेनांवां घेतल्लीं आनी आतांयी घेतात; हें कित्याक म्हण म्हाका आजूनयी समजाल्लें ना. कितेंयी तरी श्री वासु वालेन्सिया थाव्न ऐडवीन जे.एफ.डिसोजा जाय्जे तर आनी आतां'तां फकत ऐडवीन जे.एफ. जाय्जे तर म्हाका सबार वरसां लाग्लीं.

१३. म्हज्या प्रथम संपादकी थाव्न हांवें एक थराविक उड्डी मारल्ली आनी त्या फुडें – आंक्वार्यांक भुर्गीं कित्याक जाय्नांत म्हळ्ळें अनिसकळ सवाल 'पयणारी' संपादकाक धाड्तां म्हळ्ळ्या अप्रादाचेर माम्मीची कूट खेल्ली प्रख्याती म्हाका आसल्ली पुण ही प्रख्याती खंचायी पुरस्कार पट्टेचेर पड्ली ना. १९६४ इस्वेंत, कोणाकच्च सांगानास्तां 'पयणारी' संपादकाक एक मामूली मट्वी कथा – वेळ उतरलोलो – मानेस्त (दे)एल. एम.डिकोसताक धाड्ली. विचित्र म्हाका दिस्ता हांवें म्हजें नांव दिताना 'मास्टर' कित्याक कुड्सिल्लें म्हण!

१४. ही कथा खंडित प्रगट जांवची ना म्हळ्ळो भर्वासो म्हाका आसल्ल्यान ही कथाच हांव विसर्लों. तीन–चार म्हयन्यां उप्रांत म्हाका एक पोस्ट कार्ड आय्लें, 'पयणारी' संपादका थावन. संदेश इतलोच – तुजी मटवी कथा फलाण्या अंक्यांत प्रगट जातेली. म्हजेथंय संतोस उटच्या बद्लाक भें उटलें. भें, वाचप्यांच्या अबिप्रायेचें, ठिकेंचे, नक्लांचें, तुक्लावणेंचें. ही कथा कोणायकी लागु जाय्ना म्हळ्ळो श्हरो हांवें दिल्लो तरी म्हजें भें सुट्लें ना. त्ये रातीं हेच भ्रमिदेंन हांव निद्लोंच ना.

१५. पुण, 'पयणारी'–चो अंको जांतुं ही कथा छापून आयिल्ली वाचताना

हांव लेककच न्हय आनी लेकक जांच्यीं कसलिंच लक्षणां म्हजेथंय नांत म्हळ्ळें म्हाका गमलें. काराण इतलेंच – त्ये कथेंत म्हजेंच म्हळ्ळें आसल्लें तर फकत म्हजें नांव! संपादकान म्हजी कथा अशी कात्रिल्ली, संपादिल्ली की हांतू ऐडवीन म्हळ्ळो मास्टरयी नातल्लो, मिस्टरयी नातल्लो. तवळ रागार जाल्ल्या म्हजे थंय एक सवाल उट्लें – इतलें कात्राप, सुद्राप, संपाद्पण कर्चे त्रास घेवनयी संपादकान ही कथा कित्याक प्रगटली?

१६. ह्या सवालाक जाप सुस्तोंक म्हाका थोडीं वरसां लागलीं. आनी ही जाप मेळताना म्हाका खचित जाली ही खरी गजाल – मानेस्त (दे) एल.एम. डिकोस्तान म्हज्या प्रथम कथेंत कांय तरी तालेंत/देणे/भर्वसो पळेलो आस्तोलो.

१७. हांगासर, एक बरवपी संपादका थावन कितें अपेक्षिता – म्हळ्ळ्या सवालाक हांव अशी जाप दितां – कोणा बरवप्याच्या चिंतनानी कांय सृजनात्मक आसा या ना म्हळ्ळें सोद्चें. ताणीं (संपादकांनी) हें काम – कोंकणींत लेकक नांत म्हळ्ळें रुदान सुरु कर्च्या फुडेंच केल्यार बरें. पुण हें सुलब न्हय आनी ह्या खातिर एक सुलब उपाय हांव दाकवन दितां.

१८. म्हजो तिस्रो संपादक जावन आसल्लो 'राकण्या'चो मो। अलेक्सांडर डिसोज. हाची म्हाका वळक करुन दिल्ली (दे) जेरोम सिरिल वेगसान, 'सिरिवंता'-न. घड्लें अशें: 'पयणारी'–चेर म्हजी प्रथम कथा येतेच खंचायी हेर लेककान कर्चेपरीं तुरतान दुस्री एक कथा हांवें धाड्ली. ती प्रकटच जाली ना. म्हाका संदेश गमलो – दर्वडनाका – म्हळ्ळो. तरी पुण म्हजें मोन कुस्कालें जाल्यारी हांवें लिकचें रावयलें ना. पुण, हांवें 'पयणारी'क धाड्लेली ती दुस्री कथा चार वरसां उप्रांत प्रगट जाताना हांव सगळोच खुबाळ्ळों कित्याक त्ये आवदेंत हांवें कांय थोडें नांव कमायिल्लें आनी वासु वालेन्सिया म्हळ्ळयाच्या बरपांक वाचपी वळकाताले. पुण ही वळक चार वरसां उप्रांत प्रगट जाल्ल्या, नाटरूप

नातल्ल्या कथे साम्कार बिलकूल उबी जाली ना. तवळ एक चिंतप म्हजेथंय उदेलें – कोंकणिंत फकत समाजीक कथा कित्याक आसाजे? विदेशी मादरेचीं जाण्वायेचीं बरपां कित्याक आसूंक नजो? म्हजेलागीं इंग्लिषांत असलीं बरपां दाराळ आसल्लीं; तीं उत्रांव्क म्हाका कसलेच कष्ट नातल्ले. हांव खळाक देंवलोंच्च आनी वासु वालेन्सिया लिक्णे नांवानंच्च सबार बरपां हांवें तर्जण केलीं आनी "आदारान म्हळ्ळया शर्या खाल 'राक्णो'क धाड्लीं आनी तीं कसलिच हरकत नास्तां सराग प्रगट जांव्क सुरु जालीं.

१९. येका दिसा म्हाका सिरिवंतान सांगलें, काल राकणो संपादकीय मंडळेची जमात आसल्ली. उलवप चलताना (दे) फेलिक्स पावल नोरेंजान तुज्या विबिन्न बरपांची प्रशंसा केली. असलीं बरपां आमकां जाय फादर', तो म्हणालो फादर अलेक्सांडरालागीं. 'आमकां राकण्यांतलीं 'मांडकुर्पण' (देवासपणाचीं) बरपां पुरो. हें आयकोन संपदकान विचार्लें – कोणाच्या बरपांचो उल्लेक तुं कर्ताय? मानेस्त नोरेंजान जाप दिली – तो पळे, वासु वालेन्सिया नांवां खाल लिकता, ताचीं. हें आयकोन हांव फुग्लों. 'तुका संपादकान आपयला,' सिरिवंतान पंच्च मारलो.

२०. हांव भिस्पाच्या निवासाक गेलों पुण बाप अलेक्सांडर आपल्या केबिनांत नातल्लो. ताका कठीण शेळ जाल्ली आनी तो आपल्या रुमांत आसल्लो. हांव आयिल्ली खबर ताका दींवक म्हज्या उडासांत आसचेपरीं मानेस्त आग्नेल रुजारियो गेलो. थोड्या वेळान पाटीं ताणे म्हाका सांग्लें – तुवें रुमाक येजे खंय; आनी हांव गेलों. बाप अलेक्सांडर एका आराम कदेलार बसुन कसलोगी मेगझिन वाचतालो. कसले भाशेचो मेगझिन म्हळ्ळें म्हाका समजालें ना. 'हो जरमन भासेचो मेगझिन,' बापांनी कळय्लें. जरमनींत पत्रिकोद्यमाचो कोर्स करुन तो आयिल्लो तितलोच. 'ह्या मेगझिनाचें नांव Kirsche Bunt – म्हळ्यार 'सोबित इगर्ज.' हांतल्या बर्पांचें मट्ट आमच्या नेमाळ्यांनी येंवच्या बरपांक आसाजे. तुवें बरवंक सुरु केलांय पुण तुका असोच्च सोड्ल्यार तूं खंय आनी कित्तुन परयांत

पावशी हें म्हज्यान सांगोंक जाय्ना. पुण इतलेंच हांव सांग्तां – तुजे थंय बरवपाचें तालेंत आसा. पुण अशेंच बरयल्यार या तशें बरयल्यार तूं एक नामवर कादंबरीकार जातोलोय म्हण म्हज्यान सांगोंक जायना. पुण तुजे थंय तालेंतां आसात...बरय!' तो रावलो आनी बाग्वोन ताणे आपल्या मेजावय्लें तांबड्या तींताचे पेन्न विंचलें आनी म्हज्या सामकार धरलें. 'हें तांबडें पेन्न वापारूंक शिक. तुजोच्च संपादक तूं जा. हर येका पत्राक आपलेंच म्हळळें धोरण आसा, जशें राकण्याचें धोरण – सत उलय, धर्म चलय. ह्या पत्राचो हरयेक संपादक ह्या धोरणाक बद्द आसा आनी त्या पर्माणें तो बर्पां विंचता. हें प्रक्रियें घड्ताना, एक सुप्त क्रियेंयी घड्चें बुद्दंतांच्या गमनाक मात्र वेता – हें कसलें म्हळ्यार, एका पत्राच्या धोरणाक लागून एक बरवपी आपलीं बरवपां त्या पत्राच्या धोरणांच्या शीममेरां बितरच उराशीं आपली लिखणी वापर्ता आनी ह्या धोरणांच्या ह्या पत्राक हींच म्हजीं लेकनां म्हण आपणाचोच्च संपादक जाता. सासांगाताच ताचें चिंतप त्या फलाण्या पत्राच्या धोरणाक tailor-made जाता. ह्या प्रक्रियेक गुपितायेन काराण जाता त्या पत्राचें धोरण आनी संपादकान हें धोरण पाळचें विदान. देकुन हालिंच खळाक देंवल्ल्यांनी, मालघड्या लेककांनी आनी त्या संपादकान म्हाका उत्तेजन दिलें ना, म्हजीं बरपां छापलीं नांत म्हण रुदान कर्च्या फुडें मोनसिञोरांची शिकवण मनाक हाड्ची.

२१. सर्व पत्रां, सर्व संपादक अशेच धोरणां पाळतातगी म्हळळें सवाल आतां उदेता. हांव हेरां बाबतीन उलंवक वचाना पुण म्हजीं बर्पां प्रगट केल्ल्या पयकीं थोड्या संपादकांचो उल्लेक करतां. 'राक्णो' आनी म्हजो साहितिक संबंद थिर जावन येताना हांव साळक प्रकाशन आनी सिरिवंत हांचे सांगातायी हातांनी हात घालून चलतालों. साळक प्रकाशनाचें आनी अखंड भावार्थिक कालेतिच्या सिरिवंताचें धोरण जावन आसल्लें–नितळ वाचप. ह्या चिंतपाक एक काराण आनी राजांव आसल्लें. आमचें तर्ने जनांग विविद परिसरांक वळग जातालें आनी साहित संसारांत लंयगिकतेचें उद्रिक्त वाचप छापून येतालें. कोंक्णेच्या

मळार, (दे) श्री गब्बुचें साहित 'ब्लू' साहिताचे मेळिंत लायिकांनी तशेंच क्लेरिकानी मेळोवन जाल्लें. तेवशीन, कन्नड साहितांत कुतूहलभरित पत्तेदारी कादंबरी लिक्चो ऐन.नरसिंह्य्या येकाचाणे आपल्या 'चिंतामणी चिलुका' कादंबरियें सांगाता लंयगीक प्रचोदनाच्या साहितांत रिगलो. पुण कित्याक म्हळ्ळें आमकां कळित जालें ना. सां। लुविस कोलेजिच्या हैस्कूल लायब्रेरिंत हेंच पुस्तक नरसिंह्य्याच्या नितळ साहिताच्या कालेतिक लागून प्रश्न नास्तां प्रवेश जालें तरी दोनंच हफत्यां बितर कोणेंगी हें पुस्तक वाचून ताची हकीगता भायर घाली. खिणा भितर हें पुस्तक लायब्रेरी थावन ऑव्ट! तशेंच घड्लें आन्येका कादंबरि थंय जाचें नांव आसा 'मारामारी.' पुण आमकां वरत्या म्हझेची संगत कसली म्हळ्यार शिक्पांच्या बुकांच्याकी चड लायब्रेरी बूक बेगांत व्हावंवच्या म्हाका आनी दोगां हेरांक हीं दोन पुसतकां तांचेर निषेद पड्च्या पय्लें अमच्या लायब्रेरियन (दे) मारटीन हाणें एका दिसाचे आवदेक आमच्या बेगांनी पडाशें केल्ली!

२२. स्थळीय परिगत अशी आस्ताना इंग्लिष साहिताक कोणइ खाडुं घालूंक सक्लेनांत. अशें निकक कार्टर, मिकक्की स्पिल्लेन, न्याग्यो मार्श आनी हेर कादंबरीकार कसलिच अड्ळनास्तां प्रचोदित थ्रिल्लर बरयतेच गेले. आनी असले परिगर्तिंत सिरिवंतान 'साळक प्रकाशन' सुरु केल्लें आयिन्न म्हण म्हाका दिस्ता पुण ताणे प्रगट केल्ल्या पुस्तकांच्या वेगाच्याकी चड वेगान आमच्या तरन्या जनांगाची वाचपा रूच उळत्याच दिशेन वाड्ता ती म्हाका कळित आसल्ली. 'आमकां हें सर्व सांतांचें साहित नाका, 'म्हणताले म्हजे इंग्लिष मीडियम सांगोडी. सिरिवंताची संपादकी कातर इतली सुक्षीम आसल्ली की – ए.जे.क्रोनिनाची कादंबरी Shannon's Way हांव रूपांतर करित आस्ताना मोग कर्णारांच्या उमयाचें वर्णन हांवें अशें केल्लें – आनी आम्चे ऑट एका पाशांवी उमयांत एक जाले. म्हज्या रूपांतराची करड प्रती वाचून जातेच ताणे म्हाका लागीं आपय्लो आनी तें वाकयें दाकवन म्हणालो – अशें बरयल्यार जातागी, वासु? हें वाकयें अशें लिकल्यार चड सोभाशें ना? आनी तें sanitized वाकयें

अशें आसल्लें – आनी अशें आमी नितळ मोगाचो घुर्त दांबलो.

२३. कोंकणी साहिताच्या प्रसतुत संसारांत वयलें सन्निवेश बसंवक हांव प्रेतन करिन तर म्हज्या हांव जियेतां ह्या कादंबरी सामकार खंडित जावन एक हिपोक्रित जातोलों. म्हणतकूच, सवाल उट्टा – सिरिवंता तसले clean literature-चे die hard संपादक आमकां जाय या साहितांत मानवीक मुळां आसोंक जाय म्हणचे संपादक जाय?

२४. म्हजें नांव कोंकणी साहित संसारांत थिरताना आनी हाच्या बरपांनी कितें तरी आसताच म्हळ्ळें संपादकांक गमताना, 'ऐडवीनान बरयिल्लें सर्व प्रकटनाक योग्य' म्हळ्ळें चिंतप थोड्या संपादकांच्या मतींत उदेलें. ही संतोसाची संगत बिलकुल न्हय आनी असलें चिंतप हांव बिलकूल उजार करीना. कोंकणी साहित, आमी कितलें फुकारल्यारी, आनिकी बाळपणारच आसा. देकून आमकां संपादक जाय. संपादकाक – तो या ती – म्हज्याकी प्रायेन आनी तरजुब्यान ल्हान या अपक्व तरी हांव मान दितां. संपादक एक महान बरवपी जायजे म्हण ना, बरवप्यांचेर सर्वाधिकार चलंवचो जायजे म्हण ना. उगत्या मनाचो तो जायजे कितल्या मट्टाक म्हळ्यार – त्या फलाणया लॅककान बरयिल्लें आपणाक समजाना म्हण कचर्याच्या डब्याक घालचो पिसांट ताणे जांवक नजो. पुण शाणो जायजे.

२५. देकिक, 'राकणॅा' पत्राच्या पांच संपादकांचे आवदेंत म्हजीं बरपां पाशार जाल्यांत, प्रगट जाल्यांत; आनी दुबावाविणें म्हजें साहितिक जिणियेंत ह्यां पयकीं पांच संपादक येदोळच आयल्यात आनी तांच्या संपादकपणाचीं मेटां छापून गेल्यात. थोड्यांनी म्हळ्ळें आसा – तुं 'राकण्या'चो golden boy. पुण हें कितल्या मट्टाक खरें? म्हजीं बर्पां तिरस्कृत जाल्लिंच नांत, सेन्सार जाल्लींच नांत? आसात!

२६. बाप मार्क वोल्डरांनी म्हज्या बरपांचेर सेनसारशिप देंवयिल्लेपरीं कोणेंच केल्लेंयी ना. हांवें केदळायी dare-devil संपादक म्हण लेक्चो स्याम सिकॅर संपादक आसताना मौरिस डेसा आनी हांव 'राकणॅा' दफ्तरांत

आसलल्यांव. हांव साहित संपादक. हांवें एक अंकण सुरु केलें – देवा दयाळा – आनी तें तिसर्या या चवत्या किस्तार आसताना स्याम म्हजे सर्शी आय्लो. 'कितें सायबा,' तो म्हणालो कपलाक हात मारुन. 'तुं म्हाका भिसपाच्या घराथावनंच धांवडांवक सोदताय? तुजें हें भावार्थिक चिंतप फुडल्या खंचागी एका काळांत पास जायत पुण तें हांव संपादक आस्ताना ज्यारी करुंक...हांवें पाद्री जावन दीस काडिजे न्हय, ऐडवीन? असल्या विषयांचेर आम्कां केदळारी घरशण जातालें. तो निजायकी एक डेरडेवील मुस्ताफा!

२७. बाप विन्सी मिनेज कितलो बड्बडोगी तितलोच सिंतिमेंताळ म्हण हांव सुर्वेर नेणासलों. आमी दोगयी एकाच फिर्गजेचे – वालेन्सियाचे. तो संपादक आस्ताना आनी हांव कुवेतांत आस्ताना ताणे म्हजेलागीं एक सांकळ कथा विचारल्ली आनी ती ताका हांवें भासायिल्ली. आनी सांकळ काणी लिकूंक सुरु करतां म्हणताना एका नेमाळ्यान म्हजेलागीं परातलें आनी म्हळें. 'राकण्या'क सांकळ काणी जरूर दी पुण त्या मदें आमकां एक मट्वो थ्रिल्लर दी, आमचें पत्र चिकेसें असकत जालां. म्हज्यान ना म्हणोंक जालें ना. आनी बृहत सांकळ काणी लिकताना इझ्यांत हांवें एक thriller novelette बरव्न काड्ली. आनी ती त्या पत्रार चालु जाताना कोणेंगी बाप विन्सीक चिडाय्लो म्हणोन – तुमच्या ग्रेट ऐडवीनान कितें केलां पळेया. ताची सांकळ कथा त्या पत्रार सुरु जाता.. हांवें 'राकण्या'क्च अमानत म्हणोन लिकल्ली 'विंचून काड्लेली पर्जा' घळाय करिनास्तां फा। विन्सिच्या हातांक पावयताना ताका कितें भोगलें तें हांव नेणां. पुण ह्या कादंबरियेक टी.एम.ऐ.पै पुरसकार लाबताना वरत्या संतोसान फा। विन्सी मणिपाल आय्लो आनी संब्रम जातेच ताणे म्हजेलागीं म्हळें – तुंवें म्हाका घात केलोय म्हण हांवें चिंतल्लें पुण तुंवें तशें केलेंनांय. हो पुरसकर तुका फावो आनी हो, हांव संपादक जावन आस्तानांच तुका लाबल्लो वरत्या अभिमानाची संगत.' हेच कादंबरियेक कर्नाटका कोंकणी साहित्य अकादमी आनी दे। लुविस मस्करेंञ प्रतिष्टान पुरसकारयी लाबला.

२८. सबारांनी म्हजेलागीं विचारल्लें आसा – तुं इतल्या रागाचो मनिस, तुवें येदोळ पर्यांत कोणा संपादकालागीं लडाय करुंक नांय या संपर्क तुटंवक नांय? जरी तरी हांव ना म्हणान तर फट जायत. वरस म्हज्या उडासांत ना, फा। मार्क वोल्डरान नतालांच्या अंक्याक तुर्तान एक काणी विचारली. तवळ हांव कुवेतांत आसल्लों. ताणे म्हाका फॊन केल्लें म्हळ्ळो म्हजो उडास. तुमी जाणांत तवळ ई–मेय्ल इत्यादी नातल्लें आनी संपर्क साधनां तितलीं प्रभावित नातल्लीं. तरी काणी तयार करुन, त्या दिसांनी गांवाक कोण वेतात म्हळ्ळें सोदून काडून बाप वोल्डरान दिल्ल्या तारिके पय्लेंच म्हजी काणी ताका मेळाशी हांवें धाड्ली. म्हाका खूब त्रास जाले, पयशेयी खर्चाले. पुण कितें सांगों? नतालांचो अंको भाग्र येताना तांतूं म्हजी कथा ना! हांव इतलों खुबाळ्ळों की, वागच जालों आनी वोल्डर बापांक हांवें कुवेतथावन फोन केलें आनी घर्जालों. हो एक संपादक आपणाइतल्याकच शोर्ट टेंपराचो. काळें खाड ताका आसल्लें आनी गोर्शें मुकमळ. तरी रागार जायत तर ताचें मुकमळ काश्मीरी ऑप्पलापरीं तांबशेतालें, आतांयी जाता. म्हजें फोन उकलताना हो भारिच्च कूल आय्कालो. ‘कितें करयां, साय्बा!’ तो उद्गारलो. ‘निमाणे घडये एक व्हडा आयवजाचें जायिरात आयिल्ल्यान तुजी काणी घालूंक जाली ना. वेरी सोरी.’ तुका आनिकी सोरीं करय्तां म्हणोन हांवें ‘राकण्या’ लागीं संपर्क तुटय्लो. आनी हो संबंद परत घड्सालो जेन्नां फा। विन्सी मिनेज संपादक जालो आनी ताणे ‘प्याच–ऑप’ केलें. बाप मार्क वोलडर आनी हांव रागार जाल्यांव व्हय पुण दुसमान जाले नांव. कशे जांवचे? एक अशीर छान्स घेवन म्हज्या फ्लायिंग सोसरांक (ते आयल्यात–कादंबरिंत) ‘राकण्या’र देंवयिल्लो संपादक तोच्च न्हय?

२९. अशीर छानसांचो उल्लेक कर्ताना दे। आल्वरिसाक विस्रोंक हांव सकाना. तुमी आतांयी फुकारची ‘पिलातान दिल्लें फरमाण’ हाची करड प्रत वाचून पळेतेच ताणें म्हळ्ळीं उत्रां हे परीं आसात– ‘हांतूं, तुवें म्हणचेपरीं गोंय सुट्केचें कितेंच ना. वाच्ताना कळ्टा की तूं गोंया वचुंकच नांय म्हण. ही कथा फकत *American gangsterism* पिंत्रायता शिवाय गोंय्ची

सुट्का न्हय. पुण कथावस्त बरी आसा, *plot* अखंड आसा, वाचप्याक अंक्याथावन अंक्याक तांड्ची सकत आसा. कोंकणेंत असली कादंबरी प्रथम. देकून हांव ही सांकळ कथा जावन प्रगटतां. उप्रांतलें उप्रांत.' ह्या वर्वीं हांव गूडचारी कादंबरिंचो बापय जालों!

३०. आनी निमाणें, संपादकांच्या सरणिंत हांवें उल्लेक करिजे मानेस्त कादंबरिकार, नाटकिस्त, ऊंच मटव्या कथेंचो बरवपी, संपादक आनी प्रकाशक, श्री डोलफी एफ. लोबो (डोल्फी कास्सीया). होड़ म्हाका मोगाचो कित्याक म्हळयार हाणें म्हाका फुकारल्लें, होगळसिल्लें आनी आनिकी होगळाप दिंवचें थांबल्लें ना. ताचें आयकोन आयकोन म्हजे पोले तांबसे जाल्ले आसात. पुण कांय नजो – होग्ळिक अयकोंक कोणाक नाका? डोल्फी आनी हांव समकालीन बरवपी पुण आमी बिलकुल पंताटांत नांव. ताची रेकोर्ड मोडुंक म्हज्यान साद्य ना. आमच्या कोंकणींत ब्रिटिष गेल्या उप्रांतयी चेपें उकलचें आसा जाल्ल्यान सबार संग्तीं मदें डोल्फीक एका खास साहसा खातिर चेपें उकलतां – म्हजें साहितिक अभियान मोड्क्षेशें करुन, क्लेरिकां आनी लायिकांथावन बहिष्कार जोडून घेवन, म्हाका आनी म्हज्या 'जेमिनी प्रिंटर्स' प्रेस्साक बुडयिल्ली म्हजी कादंबरी "हांव जियेतां" परत्यान सांक्ळे क्रमार आपल्याच पत्राचेर प्रगट करुन उप्रांत आपल्याच प्रकाशनांत पुस्तका रुपार प्रगट केल्ल्या डोल्फीन घेतल्ल्या अशीर अवकासांक हांव मांद्तां.

३१. आतां, येदोळ पर्यांतल्या उलवपाची मेजणी (summation) करुन हांव तुमच्या सवलाक अशी जाप दितां—

- एका संपादकाथंय हांव सनद्यो सोदीना, प्राय आनी पिकलेले केंस म्हाका मुख्य न्हय, ताणे शेंबर कादंबरी बरयजे म्हण ना, बिरुदांचीं पदकां हर्ध्यार तोपुन भंवाजे म्हण ना, व्हड्लो भाषणकार जायजे म्हण ना. पुण well-read – वाचपान बरोच्च पिकल्लो जायजे.
- ताका दोतोराची सनद आसची गरज ना पुण साहितांत, पत्रिकोद्यमांत आनी पत्रिकोद्यमाच्या तांत्रिकतेंनी जांटो जायजे.

- आपुण संपादक म्हण ताणे आपलीं मासकुटां आम्कां दाकयजे म्हण ना. मनश्यापण ताचे थंय आसाजे. सिंतिमेंताळ ताणे जाय्जे तर तो फा। विन्सी परीं आसूं, वय्वाटी तर फा। मार्क वोल्डरापरीं आसूं आनी डेर-डेविल तर फा। स्याम सिकेरा, आलवरिस आनी डोल्फी परीं तो आसुं. ताणे, अशीर अवकास घेंवचे वेळीं घेजेच्च.

- ताणे एक बरो संपरकी जायजे, he should be a good communicator. आपल्या बरवप्यालागीं ताणे कायाम संपर्क दवरिजे आनी तवळ तवळ ताणे संपादक-बरवपी मिलाप आसा करिजे. धफ्तराक आयिल्ल्या बरवप्याक एक या दोन मिनुटांचो वेळ ताचेलागीं केन्नांयी आसाजे. बरवप्यांक ताणे मान दीजे. बरवप्यांची बरपां तिरसकार करच्यांतयी एक रीत ताणे सांबाळिजे. एक पोस्ट कार्ड – तुजें बरप स्वीकार जालें, उल्लास या तें स्वीकार जालें ना, तुजें प्रेतन चालू दवर – म्हळिळ कळवणी एका बरवप्याक खंचे रितिर हुमेदित कर्ता म्हळ्ळें आमी बरवपी मात्र जाणांव.

- बरवप्यां सांगाता इश्टगतिचो मेळ आसाजे या fellowship. मोनसिंझोर संपादक जावन आस्ताना एक संपादक मंडळी आस्ताली आनी कायामाच्या जमातें भाग्र पास्काक आनी क्रिसमसाक खास इश्टागतिचो मेळ आस्तालो. एका नतालां फुड्ल्या असल्या मेळांत केक आनी कुसवार कसोयी दिलो पुण तांबलेरांनी बियर येताना आमीं थटाकल्यांव. म्हणालो द। फेलिक्स पाव्ल नोरेंझ-फादर, ही जाल्यार संपादकीय मंडळेची खरी जमात. चूक सम्जानाकात मोगाच्यांनो, आमालाक हांगासर प्रामुख्यता आसल्ली म्हण चिंत्चें नाका पुण साहित संसारांत मनश्यापणाक कसल्योच शीममेरो – हांव मालघडों, हांव प्रशसती विजेत, हांव दोतोर, हांव पाद्री – आसाना जांव.

- आपल्या पत्राच्या बरवप्यांक ताणे खंचायी रितिर विक्रित करुंक नजो, जशे सिरिवंतान म्हज्या 'जुदासांक कुरोव' कादंबरियेचेर

'नकल काडल्या' म्हळ्ळो अपवाद पड्ताना, दो सिरिवंत म्हजे पाड्तीन झुजल्लेपरीं ताणे थिर आसाजे. एक दाक्लो दितां – डो। ऐ.जे.क्रोनिनाची कादंबरी Shannon's Way म्हाका इतली पसंद जाल्ली ती कोंकणिंत तर्जण कर्यां म्हळ्ळो प्रस्ताप हांवें सिरिवंतालागीं काड्लो. ताका म्हजेर खूब भर्वसो आसल्लो तें खरें पुण म्हजी तर्जण वाचून जातेच ताणे म्हाका सांग्लें–वासु, ही कादंबरी तर्जण करच्या प्रास रूपांतर कर्ची बरी कित्याक म्हळ्यार ह्या कादंबरियेचो प्लोट (कथावस्त)कातोलिकां आनी प्रोतेस्तेंतां मदें चलच्या घर्शणाचेर होंदोन आसा. ही परिगत आतां पर्नी जाल्या आनी आतां कातोलिक आनी प्रोतेस्तांत लागीं येंच्यीं लक्षणां दाकयताना आमी हो प्लोट उगतडांत हाड्चो न्हय. हांवें ताचें सुचन मांद्लें आनी "तुंवें म्हाका रचलोय" म्हळ्ळ्या माताळ्यान ही कादंबरी १९७१–त रूपांतर केली. तवळ अनयेक संगत घड्ली. 'तुजें लिक्णे नांव बदि्लय, वासु,' सांग्लें ताणे. 'ना तर आमचे वाचपी तुंवें कसलेंयी सृजनशील लिकल्यारयी तें भाशांतर या रूपांतर म्हण लेक्केले! भेष! ताणे सुचायिल्लें नवें लिकणे नांव हांवें घेत्लें– "कमल". आनयेक दाक्लो असो आसा – म्हजी थ्रिल्लर कथा 'एक मनिस, दोन सावळ्यो' हांतूं इंडिया आनी पाकिस्ताना मद्लें घर्शण सुचांच्यीं (inferred situations) सन्निवेशां आसल्लीं. ही कादंबरी लित्ताना परिगत गंबीर आसल्ली जाल्ल्यान सिरिवंतान म्हाका सागलें – हांतलें एक नांव जें सल्मा म्हण आसा तें 'तेल्मा' म्हण कर. हांवें तशेंच केलें!

- आतां, हांवें 'राक्णो' पत्राचो प्रस्तुत संपादक बाप फ्रानसीस रोड्रिगसाचो उल्लेक करिजेच्च. तुम्कां ताज्जुब जांव्क पुरो, दोन भागांनी व्हाळल्ली म्हजी "धहशत" कादंबरी एके मट्वे काणियेथावन सुरु जाल्ली म्हण? ही मटवी कथा – झेबुन्नीसाचीं विमानां – हांवें बाप फ्रानसीसाक दिली आनी ताणे ती वाचून म्हजेलागीं म्हळें, 'ही कथा इत्ली गण्ण (heavy) आसा की ती एक कादंबरी जावन

विस्तरायेत. कित्याक प्रेतन करिनांय? आनी हांवें प्रेतन केलें आनी लागीं लागीं एक हजार पानांचें reference material येकटांय करुन, देडा वरसाच्या सतत वाव्रान 'धहशत' सांकळ कथा तयार जाली. एक हजार पानांची माहेत येकटांय करुंक एक संपादक जाव्न बाप फ्रानसीसान म्हाका दिल्ली ससाय तो आनी हांव मात्र जाणांव.

- इतल्यार तुम्कां गम्लां आस्तेलें – एक सृजनशील बरवपी कसल्या चिंतपाचे, कसलया दूरदृष्टेचे संपादक आसाजे म्हण आंवडेतात तें. आतां, ह्या लांब प्रस्तावीक मंडनाचेर होंदोन फुड्लो वांटो तुमच्या सामकार दवरतां जाचो माताळो आसा:

## कन्नड लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत कादंबरिंचो उदभव आनी वाडावळ

असलो एक प्रबंद मंडन करूंक आस्ताना चडावत जावन आमी कितें आय्कतांव म्हळयार फलाण्या वरसा प्रथम कादंबरी प्रकट जाली आनी त्या उप्रांत अशें जालें, इतल्यो कादंबरी आयल्यो, अशें आनी तशें. एकाच्च वाक्यान सांगचें तर आम्कां आय्कोंक मेळतात फकत अंक्डे-सांख्डे.

पुण आयच्या म्हज्या ह्या प्रबंदांत 1950 इस्वेंत दे। जोकिम संतान आल्वारिस (जोस्या म्हळ्ळया लिख्णों नांवाचो कादंबरिकार, संपादक आनी प्रकाशक) हाच्या **आंजेल** म्हळ्ळया कादंबरीथावन सुरू जाल्लो कन्नड लिपियेंतल्या कोंकणींत जाल्लो कादंबरिंचो उदभव येदोळ परयांत, म्हणजे सासाट वरसांनी खंच्या मळार उबो आसा म्हळ्ळें जाणां जांवचें प्रेतन आसा ह्या प्रबंदाचो तीब.

सुरवेच्या सुरवेरच सुरू कर्चें तर, करनाटकांत त्या वरसा आदीं कांय कथा-पुस्तकां कादंबरी नातल्लयो म्हळ्ळें प्रश्न उठता. हाका जाप दिंवच्या फुडें आमी सम्जोन घेजे की करनाटाकांत कोंकणी कन्नड लिपिंत लिखची पद्त आयिल्ली कन्नड प्रादेशिक भास जाल्ल्यान. हाची चरित्रा हांगासर गरजेची न्हय. पुण एक गजाल मात्र खरी - करनाटकांत कोंकणी साहित आनी भास जीवंत उरल्या तर आम्ची कथोलिक लितुर्जी आनी तशेंच आमच्या जि. एस.बी. भावांनी कोंकणी एक वहिवाटिक आनी घरांतली भास म्हण वापरल्ल्यान. पुण कोंकणी भास भारताच्या आट्वे वोळेरीर आयल्या उपरांत घडल्ल्यो संगती आनी कोंकणी भाशेन काडल्लीं पावलां महत्वाचीं पुण आयच्या विशयाक निटायेन लगती जाल्लीं न्हय. हांगासर आमी कानडी लिपियेंत कोंकणी कादंबरिंची पावलां, तांड-वोड आनी खरशेवणी मेज्तांव, तित्लेंच.

ह्या अबियानार्थंय प्रथम मेट जावन आमी 1950 - त कानडी लिपी वापर्च्या कोंकण्यांच्या परिसरांत कसलें चिंतप आसल्लें? तवळ साहित आसल्लें? कसल्या जिनसाचें साहित? साहित आसल्लें पुण मुळावें आनी सृजनशील न्हय. लितुर्जिक लागुन कितेंयी छापून आयलें तर ताचेर भावार्थाची छाप आस्तालिच. अशें जावन सुरुवेचीं पुस्तकां चडशीं सांतां-भक्तांच्यों जिणियो आनी नयतिक संदेश आस्विंच जावन आस्तालीं. मट्व्यान, तवळ छापून येंवच्या साहिताचेर भावार्थाची म्होर आस्तालिच. देकून ह्यो कथा-काणियो चडश्यो विदेशी, रेलिजियोस कथेंचे अनुवाद. आनी ह्या सर्वांक इगर्जमातेथावन imprimature जाय पड्टालें. असल्या परिसरांत आस्चे वाचपी तसल्याच साहिताक वळसाल्ले आनी तसलिंच बरपां आंव्डेताले.

असल्या एका परिसरांत कोणयी लेखक एक सृजनशील बद्ली हाडूंक पाटीं सरतालो. पुण मानेस्त आल्वरिसान एक नवेंच मेट काड्लें आनी लागीं लागीं चारशीं पानांची सृजनशील कादंबरी, 'आंजेल' लिखली. पुण अशें कर्तेच आल्वरिसाचे कष्ट सुरु जाले। ती मोठी कादंबरी छापूंक कोणयी मुकार सर्ले नांत. भावार्थिक दबाव आनी काव्जेणी देगेन दवर्ल्यारी दुस्रीं काराणां उदेलीं - इतली मोठी कादंबरी, छाप्याचो खर्च बळ, ह्या काळार कोण दोन-अडेज रुपय दीवन कादंबरी घेत? तरी आल्वरिसान धयर सांड्लें ना. ताका पाटिंबो आसल्लो (दे।) मो। सिल्वेस्टर मनोजाचो, जो तवळ एक नाम्नेचो बरवपी, तर्जणदार आनी 'राकणो' हप्ताळ्याचो संपादक जावन आसल्लो. आप्लें प्रेतन सोडिनास्तां आल्वरिस रुकाथावन खांब्याक धांवेपरीं धांवलो आनी ताका 'कोंकणी नाटक सभा' (एक नाटक संस्थो) हाणीं मजत दिली आनी 1950व्या वरसा 'आंजेल' प्रगट जाली. खरेंच हांव नेणां हे कादंबरियेक कसलो स्वागत मेळ्ळो, कसलो आनी कित्लो विक्रो जालो आनी कसली ठिका लाब्ली ती.

पुण ती कादंबरी बारिक्साणेन वाचताना म्हाका गम्लें की आल्वरिसान भारिच चत्राय घेवन, भावार्थिक वर्तुलांत रावोन ही कादंबरी लिखल्ली, अशें. देकीक-हरयेका अवस्वराच्या सुरुवेर पवित्र गृंथांतलीं उत्रां, धाराळ मापान काथोलिक भावार्थाचो लेप-वोप आसल्लो सन्निवेशांनी. कथावस्तच तसली - दिल्लीं ऑक्काणे आल्वरिसान आंजेल, मांय-सुनेची कथा!

कितेंयी जांव आल्वरिसाचें 'आंजेल' कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी कादंबरी पयकी प्रथम जावन उर्ल्या. पुण हांतली भास, आपुट्ट, पात्रीकरण ऊंच्लें आनी व्हाळो सुगम आनी सोबित. ह्या कादंबारियेचो सारांश हर एका भावार्थान जाग्र कर्चोच - कर बला तो हो बला. म्हणजे, बरें केल्यार बरेंच मेळटा (सर्गाराज?) खोटेंपण नास जाता, देवाचेर पात्येणी दवरल्यार केन्नांयी सल्वणी ना... इत्यादी इत्यादी.

फुडें सरोन आल्वरिसान सबार कादंबरी लिखल्यो पुण आपली शयली बदि्लली ना. ताच्या कादंबरिंचीं नांवां आयकाल्यार हांव कितें म्हणतां म्हळ्ळयाचो अंदाज जातलो - आगनेस मौशी, बेजिलाचें सपण, आंगोळ्ळेची काल्स आनी हेर. पुण एका सृजनशील बरवप्यान एका न्हय तर एका दिसा थराविक उड्की (quantum leap) मारिजेच पड्टा आपलें साहितिक देवास्पण बिग्डायनास्तां आल्वरिसान आपल्या कादंबरिंच्या कथा वस्तुंची दिशा बदि्लली आनी आपल्या कादंबरिंनी पत्तेदारी पात्र (detective characters) हाडूंक सुरु केले. पुण शीदा न्हय. ताणेंच म्हाका सांगल्लें आसा - पत्तेदारी पात्र, मासा मधल्या शिरेपरीं कथावस्तुंत व्हाळाजे. अशें ताणे नव्या घरांतली खून, तेरेजा चत्राय असल्यो कादंबरी लिखल्यो. तवळ तो दोन नेमाळीं चलय्तालो आनी खुद त्या नेमाळ्यांचो संपादक जावन आसल्लो आनी ताका आपल्या कादंबरिंक प्रकाशक सोदून वेचें पड्लें ना.

हेर सबार लेखकांनी तातांच्या बरपांची रीत आल्वरिसाच्याक मेळंव्चें प्रेतन केलें आनी ते ताका आपलो 'गुरु' मानून घेवंक लागले.

असलें 'गुरू धोरण' चालू आस्ताना कानडी लिपियेंतल्या कादंबरींनी कसलेंयी बद्लाप येंवचें ना कोण्णा म्हळ्ळी स्थब्दता येताशी दिस्ताना, (दे।) ए. टी. लोबो नांवाचो लेखक प्रवेस जालो. हाच्यो कथावस्त विभिन्न आनी ग्रामीण आनी मातियेचो वास आसल्ल्यो म्हळ्ळी पातियेणी आसा वाचप्यांथंय. हाच्या थोड्या लांब कादंबरिंचो उल्लेख करचो तर, 'रीद' 'तुं बरो जा', 'वेळ घडी', 'देवाची खुशी' आनी हेर. ताचेर मराठी साहित्याचो आनी नाटकांचो प्रभाव आसल्लो म्हणतात पुण हें म्हाका नक्की कळित ना. हाच्या कादंबरिंनी एक विशेशता आसल्ली-तो आपल्या बरपांनी यथेष्ट सांगणयो (quotes), देशी आनी विदेशी लेखकांच्यो, वापार्तालो. थोड्या वाचप्यांक हें नवाल कशें दिस्लें पुण म्हजी अभिप्राय अशी आसा की असल्या सांगण्यां वर्वीं कथा वस्तुचो तेज आनी व्हाळो कुस्कातालो, अशें. तरी ही ए. टी. लोबोची 'शयली' म्हण फामाद जाली; पुण गुमानाक वरची संगत कसली म्हळ्यार ए. टी. लोबो संपल्या उप्रांत ही शयली कोणेंच आप्णायिल्ली ना. पुण लोबोचें कांय थोडें साहित आनी नाटक कन्नड लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत 'क्लासीक' classics मानून घेतल्यात.

पुण म्हज्या अबिप्राये पर्माणे दे। लोबो एक व्येवस्तित (diciplined) लेखक न्हय. अशें जावन ताच्या बरपांनी अंत्यच दिसून येनातल्लें आनी ताच्या कादंबरिंची लांबाय सहज, गर्जेची या बरवन लांब्ताली म्हळ्ळें म्हजें सवाल येदोळ जापी विणें उरलां.

अशें कोंकणी साहिताचें रचप चालू आस्ताना हेणें तेणें ल्हान-व्हड बरवपी उदेले आनी कांय थोडें नांव जोडूंक पावलें. पुण खरी गजाल कसली म्हळ्यार - कानडी

लिपियेंतल्यो कादंबरी 'नितळ' साहिताच्या मांता भितरच उरल्यो कित्याक म्हळयार भावार्थाची सावळी दाटायेन आमा बरवप्यांचेर पड्टाली आनी समाजेंत अश्लील, पोज्डें आनी लंग्गिक आसल्लें तरी, सर्व बरवपी, कावजेणेन, नितळायेचे परिधी भितरच रांव्चें बरें म्हण चिंताले आनी तशेंच लिखताले. ह्यावर्वीं मानविक मुळांच्या साहिताक धक्को पड्लो आनी नव्जता लिपली. हांवें अशें म्हणचें न्हय की कोंकणी साहितांत erotic sex, pornography आनी विकृतपणां आसाजे म्हण. हांवें मट्व्यान सांगचें तर, वयलें विशय सोड्यां, आम्चे लेखक एके स्त्रीयेक वर्णिताना तिच्या 'चंद्रा साक्र्या' मुखमळाथावन सकय्ल देंवानातल्ले! ही परिगत आतां कांय तरी सुदारल्या तें तुमी फुडें वाचतेल्यात.

पुण हांवें पयलें सांगल्ल्या परीं थराविक उड्की हर येके संग्तिंत जरूर येताच आनी अशी येंवची बदलावण ह्या आनी त्या समाजिक बंदड्यांक लेकिना. अशेंच घड्लें (दे) गोब्रियेल डिसोजा (लिखणे नांवः श्री गब्बु, उर्वा) हाच्या साहितांत. ताणे आपल्या साहितांत मनशा जिणियेच्या मुळांक प्रामुख्यता दिली आनी ताच्या साहितांत आम्कां देवास्पणाचे लांब लांब शेर्मांव, सर्ग, येम्कोंड, पातक आनी हेर असलें भावार्थाक संबंद जाल्लें झळकाना. ताचे पात्र विणगे (raw and alive), धय्राधिक आनी बळिष्ट. भावार्थिक चिंत्पाच्या बळिश्ट मुटिंत आसल्ल्या वाचप्यांनी श्री गब्बुच्या साहिताक उगत्यान तिरस्कार केल्लयांत नवाल ना. ताचें साहित पोज्डें आनी ते भावार्थ्यांनी वाचूंक नजो म्हळ्ळो संदेश उगत्यान गम्लो. तरी, श्री गब्बुच्यो कादंबरी लिपोवन तरी बाचचे प्रमेय आय्ले. श्री गब्बुन आपली शयली बिलकूल बद्लिली ना. ताच्या कादंबरिंची नांवांच ताचें क्रांतिकारी चिंतप सुचाय्तातः 1962 'मोगाची मस्ती', 'नास्तिक' , 'झड्ती', 'मोगाचो उलो', आनी हेर. पुण एक जेराल अभिप्राय आसा की, आल्वरिसान बांदल्ल्या 'नितळ' वाच्याच्या खिल्ल्या थावन भायर येंवक श्री गब्बु उर्डालो पुण यशस्वी जालो ना. हाका आमची, दोड्यापणाची (hypocritical) समाजच काराण!

असलें एक शेळें झुज (cold war) चलोन आस्ताना, मानेस्तिण अग्नीन पिंटो म्हळ्ळी भोव तर्नी पुण सिंतिमेंताळ लेखकी आल्वारिसाच्या नेमाळ्यां मुकांत्र वाचप्यांच्या नद्रेक पड्ली. तिचें साहित खंडित जावन आनी सहज जावन नितळायेचे मांता पंदाकच आस्लें पुण तिचे पात्र आनी कथावस्त भारिच्च मोवाळ आनी सिंतिमेंताळ. ते वाच्ताना कांय 'मिल्स एंड बून' प्रेमाळ कथेंची याद येता. तिच्या साहितांतलें चिंतप भावार्थाचीं किसरां सुचायतात पुण कथेच्या व्हाळ्यांत हीं सर्व लिपोन गेल्ल्यान तिच्या साहिताक वाचप्यांनी आनी संपादकांनी फाटीं-फुडें पळेनास्तां 'U' सर्टिफिकेट दिली. तिच्यो कादंबरी आसातः स्त्री (1964), बलिदान (1963) हांव चुकोन पडोंक ना आनी हेर, सर्व female oriented. पुण काराणांतर विषयांक लागून आपलें लगिन जाल्या नंतर तिणे बरंवचें कय्द केलें. आमच्या

मधें कांय सृजनशील तालेंतां आसच्यो लेखकिंचो अभाव जरुर आसा आनी फाट्ल्याच दिसांनी 'कोंक्णी लेखकांचो एक्वट' ह्या संघटनान आसा केल्ल्या एका कार्याक्रमांत तिका मांचियेर हाडुन तिचें अपुर्बायेचें साहित कसल्या उंच मट्टाचें जावन आसल्लें म्हळ्ळें तिकाच जागवन तिचेथावन परत साहित येतेलें म्हळ्ळी भास आमी घेतल्या!

(दे) वी. जे. पी. सल्डाना हाचें नांव आनी साहित करनाटकांतच न्हय गोयांतयी फामाद आनी परिचित. खरें जावन विजेपी-न (ताचीं हेर लिख्णे नांवां: विजेपियेस, पियेर, खडाप) आपलीं सुर्विलीं बरपां मट्व्या कथेंनी आनी थोड्या 'थ्रिल्लर सरणी' कादंबरींनी सुरु केल्लीं तरी आल्वरिसान 'आंजेल' लिखल्ल्याच वरसा ताणे 'काजितोर काणे' (Kazitor Missing) म्हळ्ळी कादंबरी लिखली. ताच्या उप्रांत ताच्यो ह्यो कादंबरी कांय थोड्या मट्टाक यशस्वी जाल्योः रुज्वात, तांब्डी पितुळ, पेट आनी पाळणें आनी हेर. ह्या काळार तो मुंबयथावन प्रगट जांवच्या 'पय्णारी' हफ्ताळ्याचो संपादकयी जावनासल्लो.

एक हजार नोव्शीं साट इस्वेंत ताणे लिखल्ली सुधीर्ग कादंबरी 'देवाच्ये कुर्पेन' कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत एक थराविक उड्कि च न्हय एक 'सुनामी'च हाडून आयली. हाका कारण कितें?

चरित्रेची वळक आसल्ल्यांक आनी करनाटकाचे चरित्रेचें अध्ययन केल्ल्यांक 'मैसूरचो वाग' म्हण प्रख्यात जाल्ल्या टिप्पु सुल्तान केनरांत (मंग्ळुर आनी परिसर-तवळ कोडियाळ म्हण्ताले) वस्ती करुन आसल्ल्या काथोलिकांचेर ते ब्रिटिशांक मजत दितात म्हळ्ळो अपवाद थापून सुमार 60 हजार काथोलिकांक (किरिस्तानांक) कय्दी करुन श्रीरंगा पट्णाक आंबंडून व्हेल्लें कराळ घडित वाचल्लो उडास येतोलो. पुण भारताचे चरित्रेंत हें एक ल्हान घडित. असली बंदड केनरा क्रिस्तांवांच्या चरित्रेच्या पानांनी मोठी आसा तें खरें. पंद्रा वरसां परयांत लांबल्ल्या ह्या बंदडेंथावन क्रिस्तावांक पोळ्न धांवोंक कुमक सबार कथोलिक आनी हिंदू जे टिप्पुच्या आस्थानांत आसल्ले (कित्याक म्हळ्यार टिप्पुचो बापय हैदर आलिच्या राजवट्के वेळार क्रिस्तांवांची परिगत बरी आसल्ली) हाणी स्वताच्या जिवांची रिस्क घेवन केल्लीं. पुण 1780 थावन 1784 परयांत चलल्लया दुस्र्या आंग्लो-मैसूर झुजांत (Seond Anglo-Mysore War) केनरा क्रिस्तांवांनी झग्लेजांची मजत केली म्हळ्ळो दुबाव टिप्पुक आयलो आनी हाचो परिणाम जावन ताणे केनरा क्रिस्तावांक बंदडेंत दवरलें, अशें सांगप आसा. ह्या घडिताचेर खूब संसोद चलवन विजेपिन टिप्पुच्या आस्तानांत आसल्ल्या (काराण हांवें दिलां) क्रिस्तांव सर्दारांचे थोडे काल्पनिक पात्र रचून कांय थोडें मिरमिरें साहित रचलें. देकिक 1962-त 'देवाचे कुर्पेन' थावन सुरू करून ताणे 'साय्बा भोगोस, जिवो व मेल्लो, सर्दारांचें सन्निदान,

सरदारांची सिनोल, पूर्वज परदेशांत आनी या तरी मंगळापुरी - ह्यो कादंबरी चारित्रिक पाठ्पोड्यार रचल्यो आनी वाचप्यांनी ह्या कादंबरिंक 'चारित्रिक' कादंबरी म्हण वोलाय्लें. वास्तव जावन ह्यो कादंबरी चरित्रेच्या थोड्या घटनांनी काल्पनिक पात्र मिस्ळावन लिखल्लयो आसात। तरी पुण, गोंयात 1560 थावन 1812 परयांत चलल्लया कठिण इंक्विजिसांवांच्या (The Goan Inquisition) पाठ्पोड्यार विजेपि-न लिखल्लयो सात कादंबरी खरेंच अव्वल मट्टाची देणगी.

ही एक थाराविक उडकी तर, विजेपी-च्या दिमांनी आनिकी भावार्थिक नेमांक उमकाळोन आसच्या मंग्ळुरी क्रिस्तांवांक चिडाय्लेली ताचीच कादंबरी - मोगा म्हाका शिकय. मानसिक रितिर घायेल्ल्या आनी लग्नाक आनी लंग्धिकतेक कांठाळच्या एके चलियेचेर रचल्ली ही कादंबरी कांय थोड्या अशीर सम्जणेच्यांक आदाळ्ळी आनी हे कादंबरिक 'व्हडांक मात्र' म्हळ्ळो बिल्लो लाब्वार आसल्लो. पुण असलें कसलेंयी जालें ना आनी असल्यांच्या चिंतपाक बराबर खाडुं घालें श्री गब्बुन.

विजेपी सल्डानाचें monograph जें हांवेंच तयार केल्लें साहित्य अकाडेमी-न Makers of Indian Literature - हे सरणिंत प्रगटला.

करनाटकांतल्या कोंकणी साहिताचो (विशेस करुन कादंबरिंचो) घाणो चलोन आस्ताना, कोंकणी नेमाळ्यांनी हेणे तेणें ल्हान ल्हान लेखनां/ हास्य/ भाशांतर लेखनां लिकून वळ्किचो जाल्लो एड्वीन जे. एफ. डिसोजा (ताचें लिख्णें नांव आसल्लें वासु वालेन्सिया - कित्याक तें नांव ताणे घेतल्लें तें ताकाच कळित ना खंय!) 1967 इस्वेंत आपल्या फुड्लद कादंबरी 'निमाणी शेळी' मुकांत्र वाचप्यांचें गमन जिकोंक सक्लो. ही लांब, समाजिक कादंबरी आल्वरिसान आपल्या 'झेलो' हफ्ताळ्याचेर सांक्ळेक्रमान प्रगट केली आनी प्रचार असो दिलो की - ही एक बळिष्ट कादंबरी आनी हिचो 'धम्म' क्सो हफ त्यान हफ्ते चडोनंच वेता पळेया - अशें. ही कादंबरी यशस्वी जाली मात्र न्हय पाटापाट 'एड्विनाच्या साहिताचो मोठो अवस्वर' सुरु जालो. ल्हानपणार थावन इंग्लिष भाशेच्या परिसरांत जल्मोन, इंग्लिष माध्यमांत शिकप जोडून, इंग्लिष साहिताचो मोठो प्रभाव हाचेर आसल्लो आनी हाचीं सुर्विलीं बरपां थोड्या मट्टाक विदेशी शय्लिच्च पाजारुंक लागलीं पुण हें एक नवाल कशें जाल्ल्यान वाचप्यांक ही शय्ली रुचली आनी आपल्या सुर्विल्या समाजिक जीवनाच्या कादंबरिंक देगेन दवर्न एड्वीनान एक थरावीक उडकी मारली आनी कोंकणी साहितांतली प्रथम गूडाचारी (first spy-thriller in Konkani in Kannada Script) कादंबरी - पिलातान दिल्लें फ़ोर्माण - ही ताणे पुड्तुगेजां थावन गोंयांक सुट्का मेळच्या विशयाचेर लिखल्ली, एक runaway success जाली. एड्विनानंच म्हणच्या प्रमाणे ह्या कादंबरियेंत तांत्रिक रितिर सार्कें म्हळ्ळें कसलेंच नातल्लें; ही

सगळी कथा अमेरिकन gangsterism कशी लगताली पुण हांतली कथावस्तु, घडितां, सस्पेन्स आनी एक्शन (action) सन्निवेशां अशीं यशश्वि जालीं की एड्विनान त्या उप्रांत चार गूडचारी कथा लिखल्यो. तांब्डो साळियो, चार दीस पांच राती, एक मनिस दोन सावळ्यो, सिरेनांतलो जुदास आनी हेर. पुण ताचे थावन आनिकी कांय बरें साहित पुड्ल्या वरसांनी येंवचार आसल्लें. ताणे थोड्या विंच्णार प्रेम कथेंचेर घुंवडी मारली - अशें: शेतांतलीं फुलां, म्हज्या वोड्तांतले गुलोब, खुर्सा फाट्लो उज्वाड (student unrest as the theme), विंचून काड्लेली पोर्जा, उणया भावार्थाचो, काळें भांगार (a transliterated version of Kallem Bhangaar is ready with Goa Konkani Academy for publication). सांगाताच ताणे आपल्या विदेशी साहिताचो मोग सांड्लो ना आनी इंग्लिशांत आसा तर कोंकणिंत कित्याक नजो म्हळ्ळो वाद घेवन ताणे सबार 'प्रथम' (many firsts) कादंबरी कोंकणिक दिल्यो; देकिक 'ते आयल्यात' फ्लायिंग सोसरांचेर (flying saucers / extraterrestrials), ब्लोंडी क्लोनिंगाचेर (on cloning), 'म्होंव आनी रगत (first person account of Iraqi invasion of Kuwait, the ordel of which took its toll on Edwin and his family). सिरेनांतलो जुदास, ही थ्रिल्लर कादंबरी ग्रीस देशांतल्या अथेन्साक पाठ्पोड्दो जावन घेता आनी हेर.

पुण ताच्या 'हांव जियेतां' (I Live) कादंबरिन केल्लो दाक्लो आनी वाचप्यांचेर घाल्लो प्रभाव विशेस. खुद Ayn Rand हिच्या objectivism आनी existentialism बरपांनी प्रभावित जाल्या एड्विनान भारताचेर इंदिरा गांधिन देंवयिल्ल्या emergency-चो काळच पाठोपोड्दो जावन घेवन ताणे ही कादंबरी लिख्ली. कोंकणी साहितांतच ही एक थराविक उड्की म्हण दुबावनास्तां मानुन घेतात. विशेस कितें म्हळ्यार, ह्या कादंबरिचो प्रथम छापो आर्थिक रितिर सल्वालो (1972) आनी धा वरसां उप्रांत हिच्च कादंबरी मानेस्त डोलपी एफ लोबो नांवांच्या कादंबरीकारान/ संपादकान/ प्रगट्णारान असाधारण धय्रयी घेवुन प्रगट्ताना ही कादंबरी दाक्लो करुंक पावली. सांगाजेच्च पड्टा, भावार्थिक वर्तुलांथावन 'हांव जियेतां' कादंबरियेचेर बहिश्कार पड्लो आनी काथोलिक शाळेंच्या विद्यार्थिनीं आनी सेमिनरिंतल्या सेमिनरिस्तांनी ही कादंबरी वाचूंक नजो म्हळ्ळो 1972-त्लो आदेश आतां नुल्ल जालो आनी तत्वग्यान शिकच्या सेमिनरिस्तांनी ही कादंबरी वाचिजेच्च म्हळ्ळो आदेश सुट्लो!

एड्विनान येदोळ परयांत 33 कादंबरी लिखल्यात. तो इंग्लिषांतयी लिखता आनी ताच्यो कोंकणी मट्व्यो कथा, इंग्लिष, हिंदी, कन्नड, तमिळ, काश्मीरी आनी मलयाळम भासांनी तर्जण जाल्यात आनी आपल्या कोंकणी मट्व्या कथेंचें इंग्लिष तर्जण तो खुद कर्ता.

हाचो समकालीन जावनासा मानेस्त डोल्फी एफ. लोबो (लिखणे नांवः डोल्फी कास्सिया). हाणे येदोळ परयांत 47 कादंबरी लिखल्यात आनी ह्या पय्कीं सबार ताणें संपादन केल्या 'मित्र' आनी 'झेलो' नेमाळ्यांनी प्रगट जाल्यात. 'कुरोव' म्हळ्ळी ताचिच कथा सरणी ताच्या सबार कादंबरींक प्रगट्णार जाली. ताच्यो कादंबरी मुळान समाजिक पुण ताणेंच सांगच्या पर्माणे त्यो socio-thrillers- यी जावनासात. नाम्नेचो नाटककर्त डोल्फीच्या लिखणेचो तेज आनी वेग अव्वल म्हणयेत. ताची प्रथम कादंबरी 'म्हाका माफ कर', यादिंत (1972) उरचे तसली.

एडवीन आनी डोल्फीच्याकी एक दोन वरसां उप्रांत नव्याच्च तालेंतांचो एक तर्नो बरवपी मानेस्त स्टेन अगेरा उदेलो. हाची शय्ली आनी कथावस्तु विभिन्न. करनाटकांतल्या कोंकणी बरवप्यांनी आपड्नातल्ले विशय ताणे विंचल्यात. म्हण्जे, politics, corporate affairs, business etc. हाणें आप्णाचिच शय्ली थिरायल्या. ताच्यो कादंबरी आसातः (1985 - हें सत जावनासा, 1988- स्पर्दी आनी प्रती स्पर्दी, 1991- स्ववलंबी, 1998- बद्लानातलृलो गांव, फर्माण, घर्शण आनी हेर). मट्व्यो कथा लिखच्यांतयी हो फामाद. हाच्या कदंबरियेंतलीं संबाशणां कुर्कुरित. हो इंग्लिशांतयी मट्व्यो कथा लिखता.

डो। एड्वर्ड एल. नज्रेत वृत्तेन दोक्तर पुण सबार देणयांचो मनिस आनी त्या पयकीं बरवपाचें ताचें देणे विशेष. ताच्यो कादंबरी निर्मोणें, भुमी वैकुंटांत, आड्वार्लेलें फळ, संख्याचें पातक, चामादोराचो पूत, कांट्यांनी बांद्लेलें वोड्त, गोलीमार आनी हेर.

हांगासर आपल्या सामाजिक कादंबरिंनी कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहिताक बर्ताड (bulk) जमयिल्ल्यां पय्कीं जेरी कुल्शेकर लिखणे नांवांच्या बरवप्यान 53 कादंबरी लिखल्यात. हाच्या कथा वस्तुंनी घाटाच्या (कोफी एस्टेट्स) जीवनाचें निरुपण आसा पुण कथा वस्त समाजिक. हेचपरी 'मनु भाहरेन' लिखणे नांवाचो कादंबरीकार हाणेंयी आपल्या कादंबरिंनी नय्सर्गिकतेचें वर्णन हाड्लां पुण ह्या दोगांयी बरवप्यांनी उब्जयिल्ल्या कादंबरिंनी साहितिक मट्टाक (नैजता, पात्रीकरण, सोंपी आनी स्पष्ट भास) ह्या संगतींक चडितायेन गुमान दिल्लें दिसून येना. असल्याच जिन्साच्या साहिताचो उल्लेक करचें तर दे। विक्टर रोड्रिगस हाणें थोड्यो विभिन्न कादंबरी लिखल्यो पुण हांतू एक निर्दिष्ट कथावस्त जांव, पात्रीकरण जांव दिसून येना. पुण थोड्या वाचप्यांचे दिष्टिंत तो यसस्वी कादंबरीकार!

समाजिक कादंबरी आनी आपल्या नाटकांनी फामाद जाल्लो आन्येक्लो लेखक आसा मानेस्त ल्यान्सि पिंटो नायक. हाच्यो समाजिक कादंबरी विधव, बाय्ल, नांव, चेडुं, बोर्डिंग, पार्टी गल्फाक आनी हेर वाचप्यांनी स्वीकार केल्यात पुण असलो एक प्रबंद मंडन करताना हांव म्हजे विचारयी साम्कार दवरतां - ह्या थोड्या बरवप्यंनी वेवस्थित

रितिर बरयिल्लें ना आनी characterization-क महत्व दिल्लेंच ना. हांचीं बरपां सुगम वाच्याक सहज जाल्लीं पुण बारीक्साणेच्या वाच्याक सहज जाल्लीं न्हय.

खंचायी साहितांत 'थ्रिल्लरांक' आवड आसा म्हळ्ळें सत करनाटकांतल्या कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहिताकयी लागू जाता. अशें रोन रोच कास्सिया, गिब्बा कुल्शेकर ह्या लिखणे नांवांनी लिखच्या बरवप्यांचीं नांवां हांगासर उल्लेक करिजे पड्टात.

आतां ह्या सविस्तार प्रबंदांत उल्लेकित जाल्लया विषयांची एक समीक्षा हांवेंच कर्ची तरः

1. करनाटकांतल्या कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांतली वाडावळ आनी परिपिकाय आजूनयी  बाळपणारच आसा.
2. मानविक मुळांचेर पात्र, कथावस्त रचूंक आजूनयी बळ्वंत आस्वी भावर्थिक मूट सोडिना. हाका वाचप्यांची आनी धर्मिकांचें दोडेपण (hypocrisy) च्च काराण.
3. असले परिगतिंत तरी कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहितांत खरेंच कितें केल्लें आसा तर (literateurs who really made a difference) ते हेः

* जोकिम संतान आल्वरिस 1915-1993
* ए.टी. लोबो - 1920-1998
* वि.जे. पी सल्डाना - 1925-2000
* गेब्रियेल डिसोजा - 1942-1995
* आग्रिन पिंटो - 1945
* एडवीन जे.एफ. डिसोजा - 1948-
* डोल्फी एफ. लाबो - 1951-
* स्टेन अगेरा - 1961
* डो एड्वर्ड एल. नज्रेत- 1958



# शेकड्यांत कानडी लिपिंत कोंक्णी कादंबरिंची वाडावळ

– दो। एड्वर्ड नजरेत

‘कोंक्णींत काणियो आसात...त्यो विदेशी; कोंक्णिक भाशांत्र केल्ल्यो वा त्या काणियांच्या आदारान बरयिल्ल्यो. आमच्या गांवच्या लोकाची वेवस्था, चाल चमकाण, रिवाजी वर्णून दिंवची देशी कादंबरी....तवळ ‘राक्णो’ पत्राचो संपादक जावनासल्ल्या मोन्सिंझोर सिलवेस्टेर मिनेजाच्या ह्या सुर्विल्या उत्रांनी आनी पोदोर्पणांत उजवाडल्ली जोकिम संतान आलवारेस वा जोसा–ची कादंबरी ‘आंजेल’ कानडी लिपिंत स्वतंत्र कोंक्णी कादंबरिंच्या चरित्रेंत पयिल्लो मय्ला फातर. ही कादंबरी १९५०–व्या वरसा प्रगट जाल्ली.

‘नितळ’ वाचपांचो जो.सा:

“आंजेल”

१९४० वरसाच्या आसपास आमच्या ग्रामीण सुवातेंनी जियेवन आसल्ल्या, साद्या उत्रांनी नाङ्कार म्हणच्या लोकाच्या जिणियेचें पडबिंब ‘आंजेल’. त्या काळार आमच्या लोका मदें आसल्लें आर्थिक अंतस्त, किर्लोन वाडल्लो गूंड भावाड्त, पवित्र सभेथंय अखंड मालवोणी आनी धार्मिक सतां थंय दुबावोंक नासची पात्येणी, बरें केल्ल्यांक आनी निती–सतान जियेल्ल्यांक कितले कष्ट आयल्यारी देव सोड्ण घालिना, आज न्हय तर –फाल्यां कष्ट परियार कर्ता. असल्या एका नितळ चिंतपा धारीर आनी पवित्र सभेच्या शिकवणेंत थिर जाल्ल्या अखंड भर्वस्याचेर ‘आंजेल’ बांदून हाडल्ली.

३५ रुपय सांबाळाक तारवाच्या कामार गेल्लो ‘रोफी’ (रफायेल) नपंयच जाताना ताच्या जोडिचो आदार नास्तां रोफिची पतिण ‘आंजेल’ अडचता आनी आपले पिडेस्त सासु रोजबायेच्या चाक्रेंत कष्टता, पुण भावाडत आनी पात्येणी सोडिना. बापाय्न नेगार केल्ल्या वेळार सय्त देव एक्लो आसल्यार जालें म्हणचें आंजेल, त्या वेळार बूक मोलाक घेवन वाचच्या कितलेशा कोंक्णी स्त्रीयांक आदर्श जाल्लें.

कळित नातल्या काराणान आपल्या बायलेन, म्हळ्यार आग्नेस मावशेन आवय जांवकच नजो म्हळ्ळ्या शेवटान गर्ब काडोंवक ऑत्ताय करच्या, तेंयी इसकोलांत मुकेल मेस्त्री जावनासच्या घोवाथावन पोळापळ घेवन, बोंबय वचून कष्टांत पडोन तरी बाळश्याक जल्म दिंवची आग्नेस माव्शी, देव आपवणें इनकार कर्न बोंबय वचून नानांत्या कष्टांनी पडून, पर्देशी स्त्रीयेलागीं काजार जावन जिवित येमकोंड जाल्या उप्रांत बापायच्या आंगोवणेन पार्टी पर्तोंचो पूत जोस्या–च्या 'आंगोव्णेची काल्स' कादंबरेंत आमच्या लोकाक नाट्वाल्लें.

आमचे समाजेंत तवळ आसल्लो जात भेद स्पष्ट थरान पिंत्रायिल्ली जोस्या–ची आनयेक कादंबरी 'आविलाचें जय्त आनी फारिक्पण'. आविल, सूद्रांचो. 'क्रिस्तांव जाल्ल्यान वर्ते जातेल्यांव तरी गर्वी आनी हंकारी मनिस (म्हळ्यार हेर क्रिस्तांव) आमकां त्याच कीळपणांत दांबून दवरूंक पळेतेले' म्हण बापल्यान सांगल्यारी आविल इस्कोलाक वेता आनी ताच्या बापाय्क लगाड काडल्ल्या बामणांच्या इंत्रु आनी ताच्या पुतांच्या हातांनी निरंतर इजा भोगता. कष्टता...पुण देव ताका सोड्ण घालिना. ताका इजा दिल्ल्या इंत्रुक कोडाची पिडा लागता आनी आविलाच्या बापाय्क जिवेशीं मारल्ल्या सुवातेरच इंत्रु मरोन पड्टा. आविल, इंत्रुची धुव लीनाकडे काजार जाता आनी इंत्रुचो आनयेक पूत बोना, जाणें आविलाक धोशी दिल्ल्यो – तो निमाणे मोन बद्लुन पाद्री जाता...म्हज्या भुर्ग्यापणर म्हाका ही कादंबरी भोव पसंद जाल्ली. तांतलें थोडें विवरण हांव विसराल्लोच ना.

त्या काळार – म्हळ्यार दुसऱ्या म्हाजुझाच्या आसपास आमच्या नाडांतल्या तशें श्हेरांतल्या लोकाची जिणिये रीतीचें धर धर पिंतुर जोस्याच्या सबार कादंबरिंची विषेशता. समाजेंत बद्लावण जायित्त येताना जोस्या–च्या पात्रांनी आनी विवरणांतयी बद्लाप जायित्त आयलें.

१९७०–व्या दशकांत प्रगट जाल्ल्या 'जल्माचो घुट', 'तेरेजा, चत्राय,' 'म्हाका निर्मिल्ली चली' आनी हेर समाजिक कादंबरिंनी आमच्या समुदायांत जाल्लया अभिवृद्देचो विवर मेळता. आपल्या कादंबरेनी आमच्या समुदायेच्या लोकाचें न्हेसण, आचार–विचार, तांचें चिंतप, थोड्यो म्हण्णयो आनी गादी,

चाल्तेर आसल्लीं आपुट्ट कोंकणी उत्रां, तवळची विक्र्या सांत आनी वेपार, तपाल वेवस्ता (पत्रां इगर्जेकडेन दवर्चीं आनी आयतारा मिसाक गेल्ल्यांनी हाड्चीं), बऱ्या-वाय्ट हर संगितंत फिर्गज पाद्रिचें मेतेरपण आनी गुरकारपण हाचें वास्तवीक चित्रण कादंबरिंच्या लांबायेक जोस्या दितेच्च वेता.

कवी लुविस मस्करेंजान जोस्याच्या कादंबरीं विशीं बरयिल्लीं उत्रां जोस्याच्या सकड कादंबरिंक लागू कर्येता; तो, आविलाचें जय्त आनी फारिक्पण कादंबरेच्या प्रस्तावनांत अशें बरयता: 'क्रिस्तांव कोंक्णी घरांनी घड्च्यो थोड्यो चालत्यो संगती कथा रुपार भांदून हाडून, झरिच्या उद्कापरीं व्हाळचे शयलेन, थंय थंय थिकां परी उजळच्या उत्रांनी पिंत्रायल्यां. वाचताना नयिंच आमकां खुश जाता, बगार गांवार चलचीं थोडीं घडितां आश्र्यांत देकल्लेपरीं दोळ्यां मुकार घाल्लेवर्वीं तीं तिड्डुंक गुमानित बिरांत उबजय्तात. आल्वरेसाच्या काणियांनी कसलेंयी आक्षेपाचें – भुर्शें वा पोजड्या उत्रांचें ना.'

कानडी लिपियेंतल्या कादंबरेंचें थळ वा पंचांग जोसान घालें. ५६ कादंबरी बरयिल्ल्या ताणे समाजिक न्हय आस्तां 'कवी आनी रोजमेरी' तसल्यो मोगाच्यो, चोट्टो बरवपी, नव्या घरांतली खुन, तूं फाल्यां आसचोनांय, मधें राती आयलो परको – तसल्यो साद्यो समाजिक-पत्तेदारी (socio-detective) कादंबरी लिकल्यात. ह्या पत्तेदारी आनी मोगाच्या कथेंनी सुदां ताणें आपल्या समाजिक कादंबरेंनी पाळून आयिल्लें नितळ वाचपाचें तत्व सांबाळ्न हाड्लां.

तशें म्हळ्यार तवळचे समाजिंत बुर्शें वा पोजडें नातल्लें म्हण न्हय. पुण तें कादंबरेंनी वा काणियांनी बरंवचें न्हय म्हळ्ळें जें नितळ चिंतप आसल्लें हाका जोस्याच्या कादंबरेंनी बरोच्च ईट घालो. आनी थंय थावन जोस्याच्या ह्या तत्वांचेर कोंक्णी कादंबरेंचो व्हाळो व्हाळोंक लागलो. जोस्याच्या कालार आनी उप्रांत भोंव आयलेवार पर्यांत कांय बरयणारांनी जोस्याची हिच्च देक घेतली आनी समाजिक जिणियेक लगती नितळ कादंबरी बरयल्यो. जोस्यान घाल्न दिल्ल्या ह्या कंत्राळा बितरच हेर सबार बरयणार विविद सन्निवेशांक कादंबरिंचें रूप दीवन आयले. त्या पयकी थोडे मोगाचे, थोडे समाजिक संघरशाचें, थोडे पत्तेदारी विषयई आसल्ले.

जोसाचे पाट्लावदारी

जोसा आल्वरेसाच्या प्रभावान १९६० दशकाच्या मद्ल्या भागांत कानडी लिपिंत कादंबरिंचो व्हाळोच व्हाळ्ळो. मानेस्त एवजिन डि'सोजा, बोळिये, रोकी किरें, रोनाल्ड पिरेर आंजेलोर, रोकी मिनेज बोंबय, स्टेनी निरुडे, एम. पेट्रिक वालेनसिया, फ्रान्सिस सल्डाना बारेबय्ल, हेरोल्पियुस असल्या जायित्त्या आनी हेर बरयणारांनी जोसाचिच्च वाट एका न्हय एके वाटेन धर्ली आनी कोंकणी कादंबरेंच्या शेतांत बेळें पिकयलें. हे सर्व बरयणार एकेच रितिन बरयताले म्हण न्हय. पात्र पिंत्रावणेंत, घडितांनी वास्तवीकता भरच्यांत आनी बरें अंत्य दिंवच्यांत ह्या बरयणारांक जोसा आदर्श जालो तसो दिसून येता. जोसा आलवारेसा परिंच हांचे पयकीं थोड्यांनी समाजिक–पत्तेदारी कादंबरी बरयल्यात. ह्या सर्वांक जोस्याच्या वर्गाचे अशें म्हणयेत.

तरी, ह्या पयकीं हांवें मानेसतिण आग्रिन पिंटो (आतां कास्तेलीन) हिच्या कादंबरेंचो उल्लेक करिजेच्च. जोस्याच्या कादंबरें परिंच समाजिक विशयांचेर सांगाताच स्त्री प्रदान विशयांचेर आग्रिनान बरयिल्ल्यो कादंबरी एकीन जावनासात. ह्यो कथा हेर जायित्त्या बरयणारांक, चड्ताव दाद्ल्यांकच, स्त्री प्रदान विशयांचेर बरंवक प्रेरण जाल्यो तशें दिस्तात. बलिदान, स्त्री, म्हजें अंतसकरण विसरचें ना, हांव चुकोन पडोंक ना, असल्यो कादंबरी लोकामोगाळ जाल्यो. मानेस्तिण आग्रिन पिंटो परिंच स्त्री प्रदान पात्र रचचो आनीयेक फामाद कादंबरिकार आसा मानेस्त डोल्फी एफ.लोबो. ताच्या कादंबरेंनी धयराच्यो, कष्टांक फुड कर्च्यो, घर सांबाळच्यो आनी देवभिरांतेच्यो आमच्यो स्त्रीयो दिसून येतात, जाची सुरुवात जोस्यान आपल्या आंजेल, आग्नेस माव्शी आनी हेर थोड्या कादंबरेंनी दाकयिल्ली. डोल्फी लोबोची वाटे वयलो कांटो, मोळबा वयली दिवटी, हांव जिवंत आसां, घाता पाट्लें सत, म्हाका माफ कर आनी हेर कादंबरी लोकामोगाळ जाल्यात. डोल्फी कास्सियाच्या चडावत कादंबरेंनी मध्यम आनी गरीब लोकाचें कुट्मा जिवित, तांतल्या वेक्तिंचो नमुन्यावार मनोभाव, जिणये रीत, वेक्तित्व आसा तशें, मतिक लागचेपरीं, कसलोच मुलाजोनास्तां सादर करचें प्रेतन चल्लां. मानेस्त डोल्फी लोबोन ह्या परयांत ४७ कादंबरी बरयल्यात. मानेस्तिण आग्रिन पिंटो परिंच

स्त्री प्रदान विशयांचेर मानेस्तिण ग्लॅडिस रेगो, क्याथरिन रोड्रिगस आनी टीना डिमेल्लो हांणीं बरयिल्ल्यो कादंबरी कुटम, दाद्लो आनी स्त्री ह्या संबंदाक लगती विषयांचेर आसात.

दे। मानॅस्त गॅब्रियेल डी'सोजा (श्री गब्बु उर्वा) हाचें 'रोमांटिसिसम':

तरयी, तवळचे सर्व बरवपी जोसा आल्वरेसाचे सावळेंत बरयताले आनी बरवनंच उर्ले म्हणोंक जायना. जोस्याच्या नितळ ततवाक उगत्यान पंथ मारल्ल्या श्री गब्बुन आपल्या मोगाच्या कथेंनी जिणीयेक चड वास्तवीकता, नैजता (reality) दिंवचें प्रेतन केलें. 'देवास्पण आनी लिसांवाचे शेरमांव हांगा नांत...मोगाच्या उल्यांतलीं गोड्शीं संभाषणां आस्तेलीं' म्हण आपल्या 'मोगाची मस्ती' बुकाच्या प्रसतावनांत गब्बुन बरयलां. १९६२ इस्वेंत प्रगट जाल्ल्या ह्या बुकांत गिब्बा आनी किट्टी मदें मोगाच्यो कांय मस्त्यो घडतात म्हण वाचप्यान आकेर परयांत राकोंक पड्टा शिवाय, जबरदस्त मोग, मोगाचीं उत्रां आनी पाशांवी भोगणां सोड्न हेर कितेंयी कारयांत दिसून येना. किट्टीचो बापय मानेस्त आलवारिस ह्या कथेंत खळनायक, जो गब्बुच्या ततवांकयी खळनायक जावनासल्लो जाव्येत. पूण गब्बूई जोस्यान बांदून हाडल्ल्या नितळायेच्या परिदीथावन भायर उडोंक अत्रेगलो, उर्डालो, उसमड्लो मात्र शिवाय जिकोंक सक्लो ना अशें भोगता श्री गब्बुची मोगाची महिमा, उचार्न सांग्तां, मोगाचो उलो आनी हेर कादंबरी वाचताना.

चरित्रेच्या कादंबरिंचो वि.जे.पी

कानडी लिपिंतल्या कोंक्णी कादंबरिंच्या चरित्रेंत मानेस्त विजेपी सलडानाचें बळादिक नांव. विजेपी वा 'खडापान', जोस्याची आंजेल प्रगटल्ल्याच वरसा 'काजितोर काणे' म्हळ्ळी कादंबरी प्रगटली; तांब्डी पितुळ आनी रुज्वात नांवाच्यो दोन समाजिक पत्तेदारी कादंबरी ताणे लिकल्यात. 'मोगा म्हाका शिकय' म्हळ्ळी विबिन्न रितिची समाजिक कादंबरी ताणे लिक्ली तरी विजेपी–न जोस्याच्या समाजिक थळाथावन विंगडच वाट झरयली आनी कोंक्णी काथोलिंकाच्या चरित्रेक आपलो विशय जावन घेतलो आनी त्या वर्वीं फामाद जालो. विजेपी वा खडाप चारित्रिक घडितांचेर बरयिल्ल्या कोंक्णी कादंबरें खातिरच नांवाड्ला. ताणे आपल्या कादंबरें खातिर बरिच

वांव्ट काड्ल्या आनी संसोद केल्यात. ताचे कादंबरिंनी मंग्ळुरच्या कोंक्णी समुदायेच्या पुर्वजांनी आपलें धर्म आनी अस्तित्व राकोन व्हरचाक भोगल्ल्या संकष्टांचें चित्रण आसा.

## सायबा भोगोस आनी देवाचे कुर्पेन

विजेपि-न चारित्रिक गजालिंच्या आदारान कादंबरी बरयिल्ल्यो शिवाय चरित्रा बरयिल्ली म्हण न्हय. विजेपी-च्या असल्या कादंबरेंक आमी दोन भाग करयेत. पयलो वांटो गोयांत आमच्या पुर्वजांचेर धार्मीक कोड्ती थावन आयिल्लें अनवार आनी ताचे उप्रांतल्या कांय गजालिंचेर आपुरबायेचें पिंतुर दाकंव्चे 'साय्बा भोगोस' शिंक्ळेचे गृंथ. दुस्रो वांटो बंदडेक सांपडाल्ल्यानी श्रीरंगपट्णांत भोगल्ल्या कष्टाची कथा आटापचे 'देवाचे कुर्पेन' शिंक्ळेचे गृंथ. विजेपी-न सादर करताना दुस्रो वांटो म्हण हांवें उल्लॆक केल्ले बंदडेक लग्ती गृंथ पयलें बरयिल्ले आनी इंक्विजिसांवांक लगती कादंबरी उप्रांत सादर केल्ले.

कोंकणांतल्या कन्नड जिल्ल्यांक आमचे म्हालघडे गोंयांथावन केद्ना आयिल्ले, कित्याक आयिल्ले असल्या सवालांक विजेपी-चे 'साय्बा भोगोस' शिंक्ळेंतल्यो पांच कादंबरी जाप दितात. १६६१ इसवेथावन लगबग पांच वरसांनी घडल्लीं चित्र-विचित्रां सबार आनी सबार घटनां आनी दुर्घटनां, गोंय आनी भंवारीं, पोर्तुगल आनी इसपानिया तसले देश आनी सन्निवेशां; राय-राणियो, दोमफिदाल, जेराल, कपितान, आम्बिरोल, कोर्पोराल, टुंर्की आनी गार्दादोर; सिंझोर, सिंझोरा आनी सिंझोरिना; माना, दुयेना आनी कलवंतां; इनक्विजितोर, मोन्सिझोरी, फ्राद, फामिलियार, किर्याळ आनी हेर सबार-सर्व मेळून लगबग पावणें दोनशीं अद्ययांनी एक हजार सायशीं (१७००) पानांनी, पांच गृंथांनी विवरायिल्ल्या ह्या घडितांचो विवर दींवकच एक घंटो जाय पडत. सायबा भोगोस, पुर्वज पर्देशांत, वांजेलाचे वाटेर, जिवो व मेल्लो आनी या तरी मंगळापुरी, ह्या पांचयी गृंथांनी उटोन दिसचो कथा नायक सिंझोर जुवांव फर्दिनांद; तो उप्रांत कपितान आनी शेवटीं जेरालाची पदवी आपणायता. ह्या गृथांतली नायकी मना जुवाना मोनिज, मोग, द्वेश, संकष्ट, विक्रित, जैल, सुट्का असल्या थरावळ घडितांनी आतुरायेन वाचून वेच्या ह्या गृंथांनी इन्क्विजिसांवांचें

कराळ पिंतुर धर धर तशें दिलां बरयणारान. पयल्या गृंथांत मानाय सिंजोर बुल्बांव दे पेरेग्रिन दे क्रीयादोराच्या आवयक, सिंझोरा आंजेला क्रियादोक धाडिगार्न म्हळ्ळ्या अप्रादाचेर जिविच्च सारियेर हुलपोंवची तयाराय कूड मिरमिराय्ता! देवाचें उतार प्रगट्तेल्यां आनी आयकातेल्यां मधें उबी जाल्ल्या धारुण आकाझ्यां मदेंयी आमच्या पुर्वजांनी आपली धार्मिक प्रज्ना राकून घेतल्लें पिंतुर ह्या गृंथांनी चाक्येत. गोंयांत इंक्विजिसांव कोड्तिचो मुकेली पाद्र एस्तेबान दे रुबेचें आनी ताच्या सांगोड्याचें क्रूरपण आतांच्या तालीबानिंक सरी कर्येता. १०५ दाद्ल्यांक आनी १६ स्त्रीयांक सारियेर जिवेंच लासल्लें तर हजारों जणांक थरावळ रितिंनी वळ्वळावन शिक्षा दिल्ली ती विजेपी–न ह्या गृंथांनी विवरायल्या. निमाणें, काणियेंतल्या ह्या सर्व संकष्टां आनी अनवारांथावन जय्त जोडल्लो जुवांव फर्दिनांद मंगळापुरिक जेराल जावन येता.

विजेपी–न लिकल्ल्या चारित्रिक काणियांचो दुस्रो वांटो (जो पयल्यान प्रगट जाल्लो), श्रीरंगपट्णांत आमच्या पुर्वजांनी भोगल्ल्या कष्ट दग्दोणेची चरित्रा आटापता. ह्या शिंक्ळेचो पयलो गृंथ – ‘देवाचे कुर्पेन’. बंदडेच्या पयलेंच टिपू रायाच्या आस्थानांत आस्चो सर्दार सिमांव बंट्वाळच्या महंतनी कुट्माच्या राफायेल मिंगेल कामतिचे धुवेक कुंवर्न आग्नेस सिसिलियाक आपणाची कर्च्याक येता आनी ताचोच अमिग जावनासच्या सर्दार आंतोनिच्या घाताक वळग जाता. ताच्या आनी सर्दार सिमांव्चे लडायेंत कथा मुंदरोन वेता. बेळ्तंगडिचो बाल्ताजार गृंथांत बंदड सुरु जाता. बंदडेच्या वेळार कुरियेलांत म्हळ्यार आतांच्या मंग्ळुरांत पाटीं उरोन, चुकोन घेवन आनी लिपोन रावोन आसल्ल्या दुमगा पींत तसल्या वीर कुंवर आनी वेरोनिका कुवेली तसल्या वीर स्त्रीयांक बिद्रूलच्या भागेवंत खुर्साचें प्रतिरूप, सिनोल जावन सर्दार सिमांव ‘सर्दारांची सिनोल’ गृंथांत दिता मात्र न्हय, आपल्याच मनश्यांच्या घातान बंदी जाल्ल्यांक वेस बद्लूंन वचोन, सर्दार सिमांव बंदिखान्याथावन परारी जायशें करता. पुण टीपू ह्या घडिताथंय रागार जाता, सर्दाराचेर दुबावनास्तां परत सुटोन कुरियेलाक धांवल्ल्यांक धर्च्याक हुकुम दीवन धाड्ता, ‘इंफेर्नाचीं दारां’ ग्रंथांत.

‘सर्दारांचें सन्निधान गृंथांत, देवाचे कुर्पेन गृंथांत सुरु जाल्लो मोग,

आनवारां, ताल्वारी आनी झुजांतल्यान पाशार जाता. 'बंदडेंत बलिदान' गृंथांत सर्दार सिमांव आनी आग्नेस कुंवर्न नांत; पुण हिंदू, मुस्लमान धरल्लें जायित्त्यांनी आपलो जीव बली भेटंव्चें विवरण आसा. 'मोगाची महिमां' बंदडेच्या गृंथांत निमाणो. गोंयांक पावल्लीं सर्दार सिमांव आनी आग्नेस कुंवर्न इंक्विजिसांवाच्या सारिये परयांत पावल्लीं बचाव जाव्न निमाणे पट्णाक पावतात आनी टीपूथाव्न पय्स बंट्वाळाक येतात. आमच्या पुर्वजांची चरित्रा काणियांचे रुपार दिल्लो विजेपी कोंक्णी कादंबरिंत एक मय्ला फातोर जावन उर्ला.

जाण्वायेचें भंडार ए.टी.लोबो:

कानडी लिपियेंतल्या कादंबरिंक महतवाची दॆणगी दिल्लो आनीयेक महान कादंबरी कर्त ए.टी.लोबो. हो विषेस जाणवायेचो आनी शाथियेचो बरयणार. ए.टी लोबो म्हणताना कोंक्णी कादंबरी वाचप्यांक, पांच भागांनी, १२६५ पानांनी व्हाळल्ली कोंक्णेंतली बृहत कादंबरी 'वॆळ-घडी' उडासांत येताच. मंग्ळुर श्हेरा लागशिल्या एका नाडांत, कुड्पुंत, गेलेत्या शतमानाच्या सुर्विल्या अर्धांत कातोलिक, हिंदु आनी मुस्लिम कुट्मांच्या भोंव्तीं रेवडोन आसची ही समाजिक कथा वास्तवीक जिणियेचें पिंतुर दाकयता. ह्या गृंथांनी आब्बु, राघु आनी काच्चा ह्या तेगां इष्टांच्या तीन कुट्मां मदें मुस्लिम, हिंदू आनी क्रिस्तांव म्हळ्ळो भॆद नास्तां उबजोन वाडोन आयिल्लो संबंद नाडांत आमच्या लोका मधें जात-धर्मा प्रास मनश्यापण महतवाचें जावनासल्लो संबंद पिंत्रायता; हो संबंद आमच्या मालघड्यां थावन देंवोन आयिल्लो नाडांत आतांयी जिवाळ आसा. साद्या लोकान मयलांचीं मयलां पांय वाटेन वेचें, गर्जेवंतांक मात्र बोयलांच्या गाडियेची सवलता, ब्रिटिशांकडे घोडे तसली संचार वेवस्था, तोंड्पाशीं संदेश पाशार करच्या संपर्क वेवस्थेंत निमाणे पोस्ट सेवा, गांवांत पोलिस, पटेल आनी शेणय तसले कानून रक्षक-असल्या आनी हेर तवळच्या हेर जायित्त्या जिणयें रितिचीं वास्तवीकता 'वॆळ घडी'येंत बर्यान विवरिल्या. ह्या मदें नीत आनी सता खातिर सांगात दिंवचो तशें आपल्या गुरुकुला वेवस्थेंत जाती-धर्माचो भॆद नास्तां भुर्ग्यांक एक्वटाचें शिकप दिंवचो शिकपी भोट पंडित श्रीनिवास शास्त्री, अन्नाडी तिम्मय्या हेग्डे, जैनांचो हरिराज असले कांय पात्र जिवाळ जाल्यात. न्याय आनी नितिच्या गजालेंत, कोड्तिंत व्याज आनी

वाद मांड्च्यांत ऐ.टी. लॉबो कांय वकीलगाय म्हळ्ळो दुबाव येवयेता तसली नैजता ह्या गृंथांनी आसा. पात्र पिंत्रावणेंत, घडितांनी वास्तवीकता भोरल्ल्यांत आनी भाशेच्या ग्रेस्तकायेथंय हे गृंथ आपूर्व आनी महान.

ऐ.टी.लॉबोच्या कादंबरिंनी दिसून येंवचो कोंक्णी उत्रांचो व्हाळो, दॆशी, विदेशी तशेंच स्वताचे कविता, म्हण्यो, सांगण्यो आनी गादी हेर खंचायी बरयणारान सपणेंवक साध्य नांत. दाकल्याक ताच्या "तूं बरो जा" कादंबरेंत स्त्रीयेविशीं ताणे जेराल बरयिल्लें तुमचे समोर दवर्ता: स्त्रीयेचें स्वरूप वीक न्हय, पुण तिचें मन थिर न्हय; तिच्या स्वभावांत सकत आसा, तिच्या संयबांत दुबाव आसा. तिचो राग आमसोरी आनी मॊग दर्वडी. तिच्या रागाक सुरियेची धार आसा आनी मोगाक भांगाराचो वर्ण आसा. सदांच जागृत; भांगाराची मूट म्हण गळ्यांत घालिनाका – सुरियेची धार लागत; धार लागता म्हण सुरी उडयनाका, भांगाराची मूट वचत' आपल्या कादंबरियेंच्या लांबायेक असल्या हेर जायित्त्या उत्रांनी विणुन ताणे आपले विचार सादर केल्यात. ताची आनीयेक बृहत कादंबरी – तूं बरो जा. डोकटर ब्र्याग्स आनी मेट्रन क्लारा मद्ल्या मोगाची कथा. शिंव्तें, रीद, दादा व केडी, रगताक खत लायनाका, हर्ध्यार खुरिस हे ताचे थोड्यो फामाद कादंबरी. बंदडेविशीं अपूर्बायेचो विवर आटापची कादांबरी – देवाची खुशी – दुस्रो भाग नास्तां अपूर्ण; पुण ही क्लासिक कादंबरी. कानडी लिपिच्या कोंक्णी कादंबरिंच्या चरित्रेंत ऐ.टी. लॉबो आनीयेक मय्ला फातोर.

## डॉ। एड्वर्ड एल. नज्रेत:

वृत्तेन हाडांचो डोक्टर (orthopedition) जावन आस्चो हो, एक उत्तीम सृजनशील बरपांचो रचपी म्हळ्यार थोड्यांक विस्मित जाय्त. आपल्या विबिन्न मट्व्या कथेंक आनी सरळ भाशेन विवरायिल्ल्या वैजकीय बरपांक फामाद जाल्ल्या डोक्टरान "निर्मोणें," (कादंबरी), "आडवारलेलें फळ," "चामादोराचो पूत," "भुमी वय्कुंटांत," "कांटयांनी बांदल्लें वोड्त," (कादंबरी) "संय्बाचें पातक," "गोलिमार," - हीं ताचीं बरपां.

## आधुनिक वैविध्य कादंबरिंचो ऐडवीन

आधुनिक कोंक्णी कादंबरियेंच्या बरयणारां पयकीं मानेस्त ऐडवीन जे.

ऐफ.डिसोजा एक बळवंत आनी घनादिक नांव. ताणे येदोळच ३३ कादंबरी बरयल्यात. कुर्कुरित संभाशण, वास्तवीक विवरण आनी सुधृड पात्र ऐड्विनाच्या कदंबरेंची विशेशता जी खंचायी आधुनिक कोंक्णी कादंबरीकारां मदें तितल्या उबारायेक पावोंक ना.. ऐडवीनाच्यो सुर्विल्यो थोड्यो कादंबरी वाचताना ताचेर जो.सा.आल्वरिसाचो प्रभाव आसल्लो म्हण भोग्ता. उप्रांतल्या वरसांनी ताणे बर्पुर साहित वाचलां, चड करुन इंग्लीष साहित, वाचलां आनी ताचो प्रभाव ताच्या काणियांनी बर्पूर आसा. आतां सयतयी खंचीयी कादंबरी बरयताना तो थोडेशा दीसां पयली तयाराय कर्ता आनी शिक्ता म्हळ्ळें हांवें आयकालां. १९६७ इस्वेंत प्रगट जाल्ली निमाणी शेळी ताची प्रथम कादंबरी; त्या कादंबरेंतलें एक सन्निवेश ऐडवीन अशें पिंत्रायता: 'लिल्ली खाली हास्लें मात्र. ताचे मतिंत नांव देश नातल्लें तुफान उटल्लें, शिंतिद म्हळ्ळें तारुं ह्या तुफानांत शिर्काल्लें' ताच्या हर कदंबरेंनी असलें विवरण आस्ता. आपल्या पात्रांची उत्रां मात्र न्हय, भोगणां आनी हावभाव पिंत्रावन तांकां वाचप्यां मुकार जिवाळ कर्च्यांत ऐड्वीन अव्वल बरवपी.

ऐड्वीनान आपल्या सुरविल्या थोड्या कादंबरेंनी समाजिक विषय विंचल्यात – घाटार काफिये तोटांतलें जिवित आसचें "जोळ्ळीं वज्रां"; शेतकाराचें जीवन आनी ताणी आधुनिकता आपणांवंक वोह्याडचें वर्णुंची 'शेतांतलीं फुलां' थोडे दाक्ले. कोंक्णेंतली पयिल्ली गूडचारी कथा 'पिलातान दिल्लें फर्माण' धरल्लें 'एक मनिस दोन सावळ्यो', 'आज आमी खुन करयां' 'जुदासांक कुरोव' 'तांब्डो साळियो' असल्या जायित्त्या कुर्कुरित घडितांनी विणलेले थ्रिल्लर ताचेथावन आयल्यात. तवळ हैस्कूलांत शिकुन आस्ताना म्हाका विषेस रुचल्ली ऐड्वीनाची कादंबरी 'म्हज्या वोड्तांतले गुलोब' हांवें पाट्ल्या वर्सांनी उण्यार पांच पावटीं वाचल्या. क्रिस्ती, जेनिफर, लिंडा आनी जेसन ऐड्वीनाच्या लिखणेंतले जिवे जिवे पात्र. त्या कादंबरेंतलें संभाशण आनी सन्निवेशां ऐड्वीनाचे लिखणेंत आसच्या विशेस बरपा सक्तेक साक्स. अशेंच हांवें विस्रोंकच साद्य नातल्लो, "विंचुन काड्लेली पर्जा" कादंबरेंतलो ज्यो सिलवेसटर डिसोजा, उण्या भावाड्ताचे ह्या लांब कादंबरेंतली इज्जाकय आनी अंतोन पिरेर – ऐड्वीन आपल्या पात्रांनी कसो जीव भर्ता म्हळ्याक साक्स.

"ते आयल्यात" म्हळ्ळी unidentified flying objects-चेर होंदोन बरयिइली प्रथम वैज्नानिक कथा, "हांव जियेतां" अस्थित्वादाची, परत ह्या विशयाचेर कोंक्णींत पयिल्ली कादंबरी ऐड्विनाची फिलोसोफी उगताय्ता; म्हाोंव आनी रगत – इराकान कुवेताचेर घाल्ल्या आक्रमणाचेर स्वता ताणे आनी ताच्या कुट्मान भोगल्ल्या आकांत आनी कष्टांचो अणभॊग विवराय्ता. जुदासांक कुरोव, एक मनिस दॊन सावळ्यो, हांव पाटीं आय्लां ह्या कादंबरेंनी ताणे इंग्लेज साहित्यांत दिसोन येंवचें उडकी (caper) साहित्य कोंकणींत हाड्लां. सिरेनांतलो जुदास कादंबरी परिपूर्ण ग्रीस देशांत आनी थंयचा संस्कृतेच्या पाटथळाचेर रचल्या.

आयलेवार हांवें वाचल्ल्या ऐड्विनाच्या दॊन कादंबरेंचो उल्लेक करिना तर हांव चुकोन पडान. काळ्या भांगाराच्या धनान अडेक भाग आयिल्ल्या मंग्ळुरगारांची जिणी आनी तसल्याच जिणियेक लालेंवचा एका तरनाट्याची कथा – काळें भांगार. कुवेताचेर इराकाचें आक्रमण आनी तांतू उपेवन येंञ्चो जेरी म्हळ्ळो पात्र विस्रुंक फावो ना. पाट्ल्या वर्सांनी 'राक्णो' पत्रार प्रगटल्ली "जांबिया–धहशत" बिन लादेनाच्या आतंकवादाचेर वाळोन आयिल्ली. बिन लादेनाच्या जलमाथावन सुरु जाल्ली धहश्त, खंदाहारांत विमान अपहरण प्रकरणांत आकेर जाता; भोवशा ह्या कदंबरेचो फुड्लो भाग येंवचार आसा तसो भोगता. जायित्त्या तर्न्या बरवप्यांक प्रेरण जाल्यारी ऐड्विनाचें खाशेलेंपण हेरांक ह्या पर्यांत आपणांवक जांवक ना. त्या काराणान ऐडवीन जे.एफ.डिसोज कानडी लिपियेंतल्या कोंक्णी कादंबरी कर्तां मधें एकीन जावन उर्लां.

५३ कादंबरी बरयिल्लो कानडी लिपियेंतलो मालघडो कादंबरी कर्त जेरी कुल्शोकर जो.सा.आल्वरेसाच्याच वर्गांतलो. हाणे घाटाच्या तोटांतलो अणभॊग आपल्या कादंबरेंनी दरबस्त दिला. पृकृतिचें सभाविक वर्णन ताच्या कादंबरेंनी वाचूंक मेळ्ता. ३९२ पानांची 'सिंतिच्यो शिंत्र्यो, २३५ पानांची 'निराधारी मोली', देस्वाट, रायटराच्यो शिंत्र्यो, ताका म्होजेर मॊग आसल्लो, असल्यो जायत्यो लोकामोगाळ कादंबरी ताचेथावन आयल्यात.

जेरी कुल्शोकरापरिंच प्रकृतेक आपली कथावस्तुंची पाटभुंय करुन भोव वास्तवीक थरान, काळ्जाक नाट्वोंचेपरी कादंबरी बरंवचो आनियेक बरवपी

'मनु बाह्लेय्न.' ताणें लांब आनी मट्व्यो, तिसां वग्र कादंबरी लिकल्यात. दाक्लो दिंवचो तर ५३६ पानांची "अरण्यांतलो ताळो" ताची बृहत कादंबरी. मलनाड रानांतलें आनी मलनाडांत जियेवन आसचा लोकाचें जीणे थरावळ घडितांनी ताणे पिंत्रायलेलें वाच्ताना मलनाडांत भंवल्लो अणभव जाता.

सांखळ काणियांचो विक्टर:

कोंक्णी कादंबरीकर्तां पयकी आनियेक लोकामोगाळ नांव मानेस्त विक्टर रोड्रिगसाचें. आपल्या कादंबरेंनी हजारों वचप्यांक मोगाचो जाल्ल्या ताणे २३ कादंबरी लिकल्यात. ताच्यो कादंबरी समाजिक थ्रिल्लर ह्या वर्गाच्यो. ताच्या कादंबरीं पय्की १९४ अवस्वरांची प्रतीकार, २१९ अवस्वरांची पाप आनी शिराप, १२७ अंक्यांनी छापून आयिल्ली शिरापाची बली, १२४ अवस्वरांनी आयिल्ली रगताची बोबाट नांवाड्दीक. अमानुष आनी अवास्तवीक सत्तेंचो आनी घडितांचो विवर ताच्या थोड्या कादंबरेंनी आसा. ताच्या काणियेंतले चडशे पात्र आमच्या भंवतिचेच्च. दुड्वादीक धनियांच्या, सावकरांच्या हातांखाल अन्याय भोगतेल्यांचे संकट दोळ्यांक दिस्ता तशें तो बरयतालो. आनी अन्याय केल्ल्यांची ह्याच संसारांत नीत जाता तशें ताच्या कथावस्तुंनी विवर आस्तालो. टेलेविशन नातल्ल्या त्या दिसांनी कितलेश्या कोंक्णी वाचप्यांक विक्टराच्यो थ्रिल्लर सांकळ काणियो मनोरंजनाचें आनी जिविताचें लिसांव शिकंवचे साधन जावनासल्ले. पाट्ल्या वरसांनी जायित्या कोंक्णी बरवप्यांनी थ्रिल्लर वर्गाच्यो कादंबरी लिकल्यात त्या पयकी रोन रोच कास्सिया ऐक्लो.

आधुनिक कादंबरेंचो व्हाळो:

पाट्ल्या दशकांनी आमच्या सदांच्या समाजिक जिवितांत बद्लाप जालां: आर्थिक वाडावळ जाल्या; शिक्पाचे अवकास चडल्यात. गलफाच्या जिविताचो थरावळ प्रभाव आमचेर जाला. लोकाच्या आनी मणियारांच्या चिंतपाधार वृद्दी जाल्या आनी हाचो कांय प्रभाव आमच्या आर्विल्या कादंबरी कर्तांचेर जाला. पाट्ल्या दशकांनी आमच्या चड्ताव बरवप्यांनी समाजिक कादंबरेंनियी नितळ तत्व देगेन दवर्न वास्तवीकतेक चड वजन दिल्लें आसा.

असल्या नव्या कादंबरिकर्तां पय्की मानेस्त ऐडवीन जे.एफ.सोजापरीं आपलिच एक वाट घेवन, नव्याच शयलेन कादंबरी बरयिल्लो आधुनिक आनी

बळवंत कादंबरिकार मानेस्त स्टेन अगेरा. ताच्या कादंबरेंचेरयी समकालीन वा आद्ल्या कोंक्णी बरयणारांचो प्रभाव ना. विविध विशयांचेर ताणे कादंबरी लिकल्यात. भृष्टाचाराक वळग जाल्ल्या नितिदाराची कथा – 'नितिदार,' हिंदू मुस्लिम गलाट्यांत नीत सोदून सल्वोंचो "पिमेंटो" एका पत्रकर्ताक श्रीलंकाथावन सुटवन हाड्ची कथा "सोद्नां" आनी हेर. वास्तवीक संसाराक चड लागशिल्यान स्पंदन कर्ची, आमचेथंय आस्चें आदर्श सल्वोन वेच्याक प्रतिफलन जांन्ची कादंबरी "बद्लानातल्लो गांव"; प्रस्तुत राजकीयाच्या भुर्ग्यापणाक आर्सो धर्ची कादंबरी 'नालिसाय', कोर्पोरेट संसारांत पती–पतिणे मद्लो पंताट विवरांवची कादंबरी 'स्वावलंबी', आत्मविश्वास उणो आसल्ल्यांनी तो जोड्ची 'ही म्हजी धांवणी' अशें थरावळ आनी प्रस्तुत विषयांचेर ताणे १८ कादंबरी लिकल्यात. सलीसायेन वाचून वेच्यो, वास्तवीकतेक चड स्पंदन कर्च्यो ताच्यो कथा आधुनिक शेरांतल्या जिणियेक चड लागीं आसात.

पाट्ल्या दशकांत गल्फ आमच्या कोंक्णी लोकांच्या जिणयेचो विंगड करुंक नजो जाल्लो भाग जाला. गल्फाच्या जिविताक आनी त्या लगती कुट्मा जिविताचेर जाल्ल्या बद्लापां विशीं कादंबरी बरयिल्ल्या पय्की ल्यान्सि पिंटो नायक एक्लो. काजारी जिवितांत जोड्यां मद्लो दुबाव आनी मनस्ताप आनी भुर्ग्यांचेर हाचो परिणाम ह्या पाटथळार ताची "चेडुं" कादंबरी वाळोन आयल्या. जिणिभर गल्फांत घोळोन, निमाणे आपल्या कुट्माक पाटीं आयिल्ल्या दाद्ल्यान भोगचें नेगारपण "पाटीं गल्फाक" कादंबरेंत, ल्हान प्रायेर विधव जाल्ल्या स्त्रीयेन आधुनिक समाजेंत भोगच्यो धोशी "विधव" कादंबरेंत, आपल्या अर्गांटान गल्फाक गेल्ली एक्सुरी चली गल्फांत कशी फस्ता आनी फसय्ता तें चित्रण "खिळ" कादंबरेंत वाचूंक मेळ्ता. प्रस्तुत समाजिक जिणियेक लग्ती जाल्ल्यो धा कादंबरी ल्यान्सी पिंटो नायकान लिकल्यात.

ल्यान्सी पिंटो नायकापरिंच समाजिक आनी कुट्मा जिविता लग्तीं कादंबरी बरंन्चो आनियेक बरयणार मानेस्त हेच.जे.गोवियस. भोग्सिल्लें फारिक्पण, भुंयारांतलो घुट, खत्र्यांतल्या पासांत, – असल्यो कांय पत्तेदारी कादंबरी बरयिल्ल्या ताणे पाट्ल्या वरसांनी प्रस्तुत समाजिक आनी कुट्मा जीविताक लग्ती कादंबरी लिकल्यात.



# कानडी लिपियेंतल्या कोंक्णी पुस्तकांचे पर्गट्णेर एक सुकण्या–नदर

– बाप फ्रान्सिस रोड्रिगस

राक्णो संपादक

पंडितां प्रकार साहित्याचे मुकेल प्रभेद वा प्रकार चार: काव्यें, नाटक, काणी–कादंबरी आनी संसोद बरप. पुण हे चार मुकेल प्रकार शिंदुनंच गेल्यार शेंबोर साहितिक प्रकारांची पट्टी जांवक पुरो. तांतुं कथा आनी आत्मकथा आस्येत; नीज कथा आनी चिक्णी कथा आस्येत; नवाल काणी आनी सांकळ काणी आस्येत; कथन आनी प्रवास कथन आस्येत; फोकाणां आनी विडंबनां आस्येत; कवन आनी लॆकन आस्येत; प्रबंद आनी ललित प्रबंद आस्येत; वेक्ती चित्रण आनी विश्लॆशण आस्येत;ओळोक आनी झळक आस्येत; अद्ययन आनी प्रहसन आस्येत; हाय्कु आनी चुट्कु आस्येत; पदां आनी जानपदां आस्येत; नाट्कां आनी कादंबरी आस्येत.

१८५८ थाव्न २०१२ परयांत सरिसुमार ३३३० वयर कोंक्णी पुस्तकां वेवगळ्या प्रकारांनी कानडी लिपियेंत पर्गट जाल्यांत.

१८५८ – १९००: २६

१९०१ – १९५०: ३४९

१९५१ – २०१२: २९५७

तक्टो १: पाटल्या ६२ वर्सांनी (१९५०–२०१२) पर्गट जाल्लीं पुस्तकां:

| वर्सां | हर वर्सावार परगट्ल्लीं पुस्तकां | | | | | | | | | | | | ऑट्टु |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १९५१–१९६० | २४ | १५ | ११ | ३९ | २८ | ४७ | ५७ | ३२ | २४ | ३६ | | | ३२१ |
| १९६१–१९७० | २५ | २२ | २४ | ११ | २५ | ३९ | ४४ | ५४ | ४१ | ४४ | | | ३३७ |
| १९७१–१९८० | २९ | ३१ | ४३ | २३ | ४६ | २७ | ५१ | ३८ | ४६ | ५० | | | ३८४ |
| १९८१–१९९० | ३१ | ६७ | ४० | ४४ | ४६ | ३८ | ६३ | ४५ | ४७ | ६० | | | ४८१ |
| १९९१–२००० | ६८ | ५७ | ४३ | ५९ | ७१ | ५५ | ६३ | ६१ | ६८ | ९४ | | | ६३९ |
| २००१–२०१२ | ५७ | ६९ | ६१ | ६३ | ७८ | ७२ | ९२ | ५८ | ८८ | ७९ | ५३ | २५ | ७९५ |
| ऑट्टु | २३४ | २६१ | २३० | २४७ | २९४ | २७८ | ३७० | २८८ | ३१४ | ३६३ | ५३ | २५ | २९५७ |

तक्टो २: पाटल्या १५ वर्सांनी (१९९८ – २०१२) पर्गट जाल्लीं वेवेगळ्या प्रकाराचीं पुस्तकां:

| वर्स | कादंबरी | मट्व्यो काण्यो | हास्य | नाटक | बाळ साहित्य | धार्मिक | माहेत/ लेकना | चरित्रा | भक्तिक गितां | कविता | जानपद | व्याकरण/ भाशें गिग्यान | रांदाप | भर्शिक | भर्शिक विशेस | ऑट्टु |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1998 | 3 | 2 | 2 | 3 | 3 | 28 | 5 | - | 3 | 8 | 3 | 1 | - | - | | 61 |
| 1999 | 2 | 3 | - | 4 | 4 | 31 | 1 | 2 | 10 | - | 4 | 6 | 1 | - | | 68 |
| 2000 | 3 | 3 | - | 2 | - | 43 | 2 | 16 | 6 | 8 | 4 | 6 | 1 | - | | 94 |
| 2001 | 3 | 1 | - | 2 | - | 23 | 3 | 9 | 4 | 2 | 2 | 6 | - | 1 | खोळ | 56 |
| 2002 | 5 | 6 | - | 4 | - | 26 | 5 | 3 | 3 | 9 | 3 | 5 | - | - | | 69 |
| 2003 | 5 | 5 | 2 | 3 | - | 25 | 3 | 7 | - | 6 | 1 | 3 | 1 | - | | 61 |
| 2004 | 2 | 6 | 2 | 3 | 1 | 12 | 7 | - | 3 | 11 | - | 16 | - | - | | 63 |
| 2005 | 9 | 5 | - | 3 | 2 | 25 | 5 | 3 | 6 | 12 | 1 | 2 | 2 | 2 | चाफ्रा बर्पा | 77 |
| 2006 | 3 | 2 | 1 | 3 | 3 | 27 | 6 | 3 | 2 | 15 | 1 | 1 | 3 | 1 | घर ऑक्तां | 71 |
| 2007 | 9 | 5 | 3 | 1 | 5 | 25 | 6 | 5 | 2 | 17 | 4 | 9 | - | 1 | भर्शिक | 92 |
| 2008 | 6 | 4 | 2 | 1 | - | 18 | 4 | 2 | - | 9 | 5 | 6 | 1 | - | | 58 |
| 2009 | 4 | 3 | 4 | 3 | 2 | 30 | 15 | 1 | 3 | 12 | 3 | 5 | 3 | - | | 88 |
| 2010 | 2 | 6 | 6 | 4 | 2 | 17 | 6 | 1 | 5 | 8 | 3 | 12 | 6 | 1 | प्रवास | 79 |
| 2011 | 4 | 6 | 1 | - | - | 13 | 9 | 2 | - | 5 | 2 | 4 | 5 | 2 | वास्तु | 53 |
| 2012 | 1 | 2 | 2 | - | 1 | 6 | 3 | 2 | - | 7 | - | - | 1 | - | | 25 |
| ऑट्टु | **61** | **59** | **25** | **36** | **23** | **349** | **80** | **56** | **47** | **129** | **36** | **82** | **24** | **8** | | **1015** |

नद्रेक पडल्ल्यो गजाली:

- पाटल्या १५ वर्सांनी १०१५ कोंक्णी पुस्तकां कानडी लिपियेंत पर्गट जाल्यांत. (हें पर्गट जाल्ल्या बुकांचें लॅक मात्र. नेमाळीं, अंतरजाळ आनी फिर्गज पत्रां द्वारिं पर्गट जाल्लीं बर्पां हांतुं लेकाक येनांत).
- १९५० पयलेंचीं चड्ताव पुस्तकां धार्मिकच तर पाट्ल्या १५ वर्सांनी चड वापरल्लो प्रकार धार्मिक बर्पां, म्हळ्यार ३४९ पुस्तकां. तांतलीं, चडश्यान धार्मिक संसथ्यां थावन तरी लायिक वेक्ती/संसथ्यांनियीं हात भंवडाय्ला. तशें म्हणतच धर्माद्वारीं साहित्य वाड्लां आनी साहित्याद्वारीं धर्माची जाणवाय चड्ल्या.
- धार्मिक बर्पां उप्रांत चड खाय्स जाल्लो प्रकार कविता. १५ वर्सांनी तरन्या आनी परन्यांचीं १२९ कविता पुस्तकां पर्गट जाल्यांत म्हणताना वर्साक ८.६ कविता पुस्तकां पर्गट जाल्यांत. त्या भाय्र धार्मिक गितां आनी बाळ-गितांचीं पुस्तकां वेगळीं आसात.
- आय्लेवार विशया संबंदि रांद्पा माहेत भारिच खाय्स जाल्या. १५ वर्सांनी ८२ रांद्पा पुस्तकां (थोडीं पुनर छापल्लीं) आयल्यांत.
- १९५१-१९६० धाकड्यांत फाय्स जाल्ल्या पुस्तकां सवें (३२१ पुस्तकां) ताळ केल्यार २००१-२०१० धाकड्यांत (७१७ पुस्तकां) म्हणजे १२३% वाडावळ घड्ल्या. सादारण हर एका प्रकारांत वाडावळ जाल्या.
- देकिक कोंक्णी मट्व्या काणियांच्या प्रकारांतली वाडावळ अशी: २०१२ पर्यांत कन्नड लिपियेंत कोंक्णी पुस्तकांचो संखो २९५७ आनी हांतुं १९१३ थावन २०१२ पर्यांत १९४ मट्व्या काणियांचीं पुस्तकां (anthologies) पर्गट जाल्यांत. त्या भाय्र वर्साक सरिसुमार २०० वय्र मट्व्यो कथा वेवेगळ्या नेमाळ्यांनी पर्गट जातात.

- १९१३–१९५० २३ मट्व्या काणियांचीं पुस्तकां
- १९५१–१९६० २१
- १९६१–१९७० २७
- १९७१–१९८० १९
- १९८१–१९९० २१
- १९९१–२००० ३३
- २००१–२०१२ ५०

१९४

- वर्सा मेरेंतले वाडावळिंत काणियांचे विशय, निरूपण, पात्र, शैली आनी माताळे सप्त विशेस बद्‌लल्यात. आदीं सांप्रादायिक, बावतिज्म दीवन क्रिस्तांव केल्ले पवित्र, भागेवंत, अविवादित माताळे आसल्ले. तर आतां क्रिस्प, तोप्चे, असांप्रादायिक आनी लोवकिक माताळे दिस्तात. देकिक आद्‌ले माताळे: निड्डेल्चो आबुट कामत, तेंक्डी लोरेस, पिलुची भंवडी, किस्तु पर्बुगेली नाड, उदेंतिचें नेकेत्र, सताची वाट, मातार्याचें दान, पात्की कोंण इत्यादी. आतांचे माताळे: चाह–कापी, निमाणो गिराकी, जगल, कुद्रो, गोलिमार, सातें, जोंप इत्यादी.
- नाटक आनी बाळ साहित्य प्रकारांनी जि.एस.बी. कोंकण्यांनी सबार पुस्तकां लिकल्यां आनी पर्गटल्यांत.
- कोंक्णी व्याकरण, सब्दकोश, अर्थकोश, भाशे विग्यान, बर्पा रितीविर्शी माहेत/शिकवण दिंवचीं ८२ गृंथां/पुस्तकां १५ वर्सांनी प्रगट जाल्यांत तर कोंक्णी जानपदांचेरयी ३६ पुस्तकां फाय्स जाल्यांत.
- संसथ्यांची–वेक्तिंची चरित्रा दिंवचीं ५६ पुस्तकां १५ वर्सांनी फाय्स जाल्यांत तरी कोंक्णेंत एक व्हड उणव आत्मचरित्रेंचो वा आत्मकथेंचो (autobiography). मराटी साहित्याचे ग्रेसतकायेक मुकेल कारण ते भाशेंतल्यो विबिन्न आत्मकथा खंय! कित्याक म्हळ्यार थंयसर साहिती

मात्र न्हय साहित्येतर वेक्तीयी सोबित आत्मचरित्रा लिक्तात. थंयसर एक्लो कय्दी आत्मकता लिक्ता; दलित लिक्ता, बापय कोण म्हण नेणासल्लो बरय्ता; एक वेश्या बरय्ता; ४०० वय्र दलित आत्मकथा मराटिंत आयल्यात खंय. त्या भाय्र हेर रुपाच्यो आत्म कथायी आसात. तांतल्यो सबार कन्नडांत अनुवादित जाल्यात. २०१२–तच कन्नडांत कांय थोड्यो आत्मकथा आयल्यो. गिरीश कार्नाडाचो 'आडाडत आयुष्य' आय्ला. डो। यु.आर. अनंतमूर्तीचो 'सुरगी' आय्ला; गांदिवादी बेळगेरे कृष्णा शाशत्रिचो 'इदु जीव–इदुवे जीवना' (निरूपण – रवी बेळगेरे) आय्ला. टि.एस.गोरवराचो 'आडु कायुव हुडुगन दिनचरी' नवेंसांव हाड्न आय्ला. रसत्या देगांनी विचित्र वृत्यो चलयतेल्यांविशीं 'रस्ते नक्षत्र' आय्लां.

- १९८५–ंत जो.सा.आल्वरिसाची दाटिमोटी ३६६ पानांची 'म्हज्या जिविताची चरित्रा' आयिल्ली. २०१०–ंत बस्ती वामन शेणैचें ५६ पानांचें 'अमृत मंथन' आय्लें. आय्लेवार 'आबा लंडन' हांचें 'जिवित एक मिसांव' आय्लां. एका लेकान बाप वि.जे. मिनेजाचें 'पांपाळें' एक आत्मकथनंच म्हणयेत. म्हळ्यार कोंक्णेंत कता–कवितांचे अत्मे आसात पुण आत्मकथा नांत.

- भलाय्की, लंयगीक शिकव्ण, कानून, दुड्वा लेकां, जिणये अणबोग, कारयें चलवणी, संगीतकार, झडपाल्यांचीं ओक्तां, योग तसल्या विशयांचेर थोडीं पुस्तकां आयल्यांत पुण उणिंच. ब्यांककिंग, सर्कारी सेवा, वृत्तिपर सेवा, कृशी, विग्यानिक माहेत, आदुनिक आविश्कार, मनजाती माहेत, संसोद, प्रवास कथन विशयार वा प्रकाराचीं पुस्तकां गर्ज आसात.



# कोंकणी साहित्यांत कवित्येचें स्थान आनी पात्र

– –मा। बा। अंतोन जुवांव सोज (आतां देवाधीन)

कोंक्णी साहित्यांत कवित्येचें स्थान आनी पात्र आमी पळेजे जाल्यार पयलें कविता म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें तें समजोन घेजाय. 'कावयें म्हळ्यार कितें?' म्हण आमकां कोणयी जरतर विचारित, आमच्ये पय्की हर एक्लो सांत आगुस्तिनी सवें उचारित: विचारिनातल्यार तें हांव जाणां: विचारल्यार सांगोन दिवंक नेणां! कविता, कवन, कावयें कितें म्हळ्ळी संयबिक समजोणी आनी अनुभव आमकां सक्टांक आसाच्च आसा. पुण ही समजणी, हो अनुभव निश्चित उत्रांनी सांगोन दिवंक आम्कां कष्ट मारता मात्र न्हय, असाध्यच जावनआसा म्हण्येत.

'कविता म्हळ्यार कल्पनाक विवेकाच्या आदाराक आपवन सताक संतोस पदाच्या रूपार मेळंवची कला, छंदोबद्द रचन.' म्हण्ता डो। जोनसन. शक्ती भावांचो भरोन वोमतोंचो व्हाळो–सांग्ता वड्स्वर्थ. क्ल्पानाची अभिव्यक्त–भास्ता शेल्ली. सत, सक्त, सोभाय हांच्या संबंदी आवेशाचो उद्गार–उद्गारता लॅ हंट. जीवनाच्या विमर्श्यांनी आनी मानव उत्रांनी अत्यंत आनंददायेक आनी परिपूर्ण जावन केल्ल्ये अभिव्यक्तीचें विधान–पाचारता मेथ्यू आर्नल्ड.

सौंदर्याची लयाबद्द सृष्टी–उचारता पो. येदोळ परयांत इंग्लिष अभिप्राय आमी आयकाली. आतां भारतीय पंडित कितें सांग्तात तें आय्कायां.

'सब्द आनी अर्थ सांगाता मेळ्ळ्यार कावयें' म्हण्ता भामहा. 'पसंद अर्थ आस्चो पदसमूहा' सांग्ता दंडी. कावयाचो अत्मो ध्वनी–उचारता आनंद वरधना. रसात्मक वाकयें, कावयें–पाचारता विश्वनाथ. रमणीय अर्थाचें प्रतिपादन कर्चो सब्द–भास्ता जगन्नाथ. अशें भारतीय पंडितां प्रकार–मनाचे हावभाव लयाबद्द भाशेन, आपुरबायेन आनी सहजलेल्या थरान अभिव्यक्त करची कला जावन आसा कावया लक्षण.

कावयांक पद्या–रूप (verse form) आनी चंदस्साची घडावळ आसोंक

जाय म्हण चडावत इंग्लिष विद्वांसांचो वाद. हें रूप आनी ही घडावळ आसोंकच जाययिच्च म्हण कांय ना, आसल्यार बरें, नातल्यारयी कावयें जाता खरें म्हण भारतीय पंडितांचो मत. गद्य जांव पद्य जांव कावयें जावयेता म्हळ्ळी तांची अभिप्राय. तरीकी कावयें म्हण्ताना 'पद्य' म्हण सगळ्यांनी चडावत जण सम्जातात. आमींयी तर कवितेक होच्च अर्थ दिवयां.

'अतयुत्तम गद्‌द्याचें मट्ट अत्यंत सकय्ले कवितेच्या मट्टाक वचोन पावता आनी रावता' म्हण्तात इंग्लिष विद्वांस. हें तर वाक्यें साहित्यांत कवित्येचें स्थान उंच्लें म्हण सांगोन दिता. 'गद्यां वद्यां, पद्यां हृद्यां' म्हण्ता एक्लो कवी. गद्यान बरयिल्लें तें मस्तुंक फावो, पद्यान बरइल्लें तें काळजांत जगंव्क फावो म्हण हाचो अर्थ. खंच्येयी भाषेच्या साहित्यांत कवित्येचें महत्व आनी स्वारस्य विषेस. कवित्येच्या बळाधिक्पणा आनी फळाधिक्पणा संभंदीं होरात्सीयुस लातिन कविचो श्लोक झपाकार्थ: in Onne tulit punctum qui miscuit utile dulci.'

सुफळ पुर्तो व्यक्ती वोर्तो जो तें साहित्य रचित जांतुं मिश्रित रीतिन स्वाधिक 'रुचिक' आनी 'उचित'. म्हळ्यार 'उपकार्चें' आनी 'रुचिचें' दोनयी मेळोन-व्हाळोन जांव्चें साहित्य घड्‌चो तो खंडित साहित्याचो पंडित! कावयांत उपकाराक पडच्या विषयाक रुचिची सवी आनी गोड्‌साण मेळ्ळेल्यावरवीं जांव्चें तें अमृत आयकोंक, चाकोंक आनी भोगूंक दादोस्काय कशी तशीच्च सव्कासाय. तर कोंक्णी कवित्ये विशांतयी तेंच म्हणाजे पड्‌ता न्हय? तितलेंच न्हय, कोंक्णी भासच संय्बान मृदु आनी मधुर, मोव आनी मोंवाळ जाल्ल्यान, कोंक्णी कवितायी उचित आनी रुचिक म्हळळें तें व्यक्त आनी खचित.

मधू प्रासयी मधुर तुजी, कोंक्णी माते, सवी!<br>
चाकोन भोगुन आजुन लेगुन वर्णीत कोण तो कवी!

– मरिदास

असली म्होंवाळ कोंक्णी भासच इतली रुचिक म्हणतच, त्ये रुचिक भाषेची कविता, कितली रुचीक जाय्नाये!

कावियांनी वस्तुनिष्ठ आनी व्यक्तीनिष्ट म्हण दोन विभाग आसात. वस्तुनिष्ट

कावयें एक या सबार विषय घेवन त्या विषांत गायताना, व्यक्तीनिष्ट कावयें एक या सबार व्यक्ती संबंदीं उमाळो व्हाळयता. महाकावयें (epic) कथा–कथन, लावण इत्यादी कावयां वस्तुनिष्ट जाल्यार भावगीतां (lyrics), गीतिकां (sonnets) इत्यादी कावयां व्यक्तीनिष्ट.

कोंकणी भाषेन रामायणा, महाभारता, भगवदगीता भाषांतर जाल्यांत. हीं म्हाकावयां कोंकणीचें दायज. ह्या शिवाय 'क्रिस्ता पुराणा' म्हळ्ळें तें इंगलीष जेजवित बाप थोमास स्टीवन्स हाचें महाकाव्यें. पुर्विल्ये कोंकणी भाषेंत लिख्लेलें म्हण्तात सबार विद्वांस. पुण हेर थोडे पंडीत तें पुर्विल्ये मराठी भाषेचें महाकावयें म्हण्तात.

भावगीतां (lyrics) म्हळ्यार मनाची विविध हाव–भाव पदांच्या रूपार उचारचीं कावयां. गीतिकां म्हळ्यार चव्दा पादां या पाय (श्लोक या गीट) आस्चीं प्रासाभरीत कवनां.

कवनांच्या घडावळिक लागुन द्विपदी, त्रिपदी, चौपदी, षट्पदी म्हळ्यार दोन, तीन, चार, स, पादां या पाय मेळोन जांन्चीं कावयां म्हणोन आसात. ह्या शिवाय "वोवियो" म्हळ्ळी कोंक्णी पद्यांची घडावळ आसा. दाख्ल्याक:

वंदन तुका कोंक्णी मातॆ
नंदन भाषे, भॊव शॊभितॆ,
सुंदर कांतॆ, अभिजातॆ,
मानयें तुजें चरण.
देखल्यार शांती: तुं चांग चांपें!
लेखल्यार कांती: साळक सोंपें!
तुकल्यार क्रांती: मोतीं केंपें!
धन्यें तुजें स्मरण!

–(मरिदास)

ह्या शिवाय प्रासा सहित आनी प्रासा रहित कवनां म्हण आसात. इंग्लीषान प्रास rhyme or rime म्हळ्यार दोन सब्दां मधें आसचो एकाच्च लेखाचो अंत्यास्वर. कन्नडांत आनी कोंकणी भाषेंतयी पादाचें (पायाचें) दुस्रें अक्षर एकाच लेखाचें आसचाक प्रास म्हणतात. दाखल्याक:

कथा सांग्तां । पुता आतां

दितां संगीं विवर;॥

काणिये उत्रां । जिणिये सूत्रां,

सतां मतिं दवर ॥

ह्ये चौपदिंत 'अंत्यास्वराचो" आनी "दुसर्या अक्षराचो" दोनयी प्रास लाबतात आनी सोभतात!

कवित्येचें लक्षण, घडावळ, मांडावळ इत्यादी पळेतेच, कवित्येचो आरंभ आनी उद्भव कसो म्हळ्ळो आमी समजोंक जाय. Nascitur Poeta, non fit –कवी संयभान आनी जनमान जाय्ना तो श्रमान जाता म्हळ्ळी लातीन सांग्णि. 'कवित्वं बीजं प्रतिभानं' म्हळ्ळी वामन विद्वांसाची म्हण्णी. 'कवित्व म्हळ्यार देवाचें देणे, दैवीक वरदान, संयबाथान्, जनमाथान् कविक लाबचें. त्या देकुन, कवी जावन जनमोंचें, कवी जावन उप्रांत रूपांतर जांव्चें न्हय' म्हळ्ळें सत सांगोन दितात. ह्या कवित्वाच्या देण्याक 'कवी प्रतीभा' म्हणतात. ही प्रतीभा कविन हेर शास्त्रांच्या, ज्ञानांच्या आनी कवित्येंच्या अध्ययना या 'व्युतपत्ती' वर्वीं आनी आपणे जावन करच्या कवनांचा क्रमां–श्रमाचा 'अभ्हयासा' वर्वीं रुता करचें आनी करुंक जाय. त्या देकुन होरात्सियुस लातिन कवी बूद सांग्ता:

'Nocturna Versate manu, diu versate'

दिसाक रातीं, घेयात हातीं, पुस्तक आनी लिखणी,

येंवदी क्रमान, घेंवदी श्रमान, मसतक तुमचें लक्णी.

दिसाक आनी रातिक शिक्पांत आनी बर्पांत कविन वावरिजाय आनी कवित्व नवें आनी जिवें दव्रिजाय!'

कवित्येंत 'दृष्टी' आनी 'सृष्टी' म्हणोन आसा. प्रतिभेन देख्लेलें 'दरशन' कविन उत्रान प्रदरशन या वरणन करुंक आसा. ही प्रतिभेची दृष्टी कवितेंत पद्याची सृष्टी जोड्टा आनी लेखकाक आनी वाचकाक, दोगांकयी संतुष्टी हाड्टा. कवितवांत कवी मूर्तीचो चतुरायेचो गात्र उणो, कवी स्पूर्तीचो आतुरायेचो पात्र अधिक, त्या देकुन कविता जाता जिवितांत स्वाधिक

ह्या पासुन, आमच्ये मधें कवितवाचें देणे आनी प्रतिभा कोणाक आसा म्हळ्ळें तें आमी सोदुन काडिजे. तें वरदान लाभलेल्याक ताणे या तिणे आपलें देणे रुता कर्न पुर्तें विकासित करुंक आनी आमकां आनंदान प्रकासित करुंक आमी समाज्येंतल्यांनी साधन करिजे आनी सहकारान कविंक प्रोत्साव आनी पुरस्कार दीजे.

कवित्येंत भाव-सत (बाह्य सत न्हय) रूपित जाता जाल्ल्यान तें गुपित, वास्तविक न्हय म्हण कोणेंयी दुरसानाये. कवी घड्लेलें घडित मात्र न्हय, चडित सांगोन दिता. घडियेत जाल्लें या घडोंक योग्य जाल्लें तो सांगोन दिता. त्या देकुन तो जीवनाक भावनाचो आकार-प्रकार दिता. 'कवी संसाराचे अनधिकृत शासन-कर्त" म्हणता कवी शेल्ली. म्हळ्यार कवी जीवन सोभित-शाभित कर्चें नियम कायाम दाखवन दितात म्हण अर्थ.

कवित्ये विषांत सामान्य थरान लेख्तच, आतां आमी कोंक्णी कविता देखोंक जाय. कोंक्णी कवितांचो दाळो आस्चो एक मळो या माळो आमकां मेळ्चो दुर्लभ जाल्यारी कोंक्णी कविताचो ताळो आनी उमाळो आस्चो व्हाळो काळा-स्थळार केदाळारी उणो जालो म्हणोन ना. पास्लेंत आसच्या बाळाक भुलंवक, पाळन्यांत निदावन ताका थलंवंक, जिविताच्या रसत्यार चलंवक, काजार-सोभाणां सोभंवंक, उल्लासाचो उमाळो उबजंवक, दुकांत पर्यांत भुज्वण लाभंव्क, आमच्यां गाणां-वेर्स-वोवियांचो, पदां-तेर्स-कावियांचो व्हाळोच आम्च्या जनापदा साहित्यांत व्हाळात्त-मेळात्त-खेळात्त आसा. हें जनापदाचें अपार साहित्य. माहेत आसचा कोणयी पुणेकेल्ल्याक साहेत दीव्न आमी वेगिंच जगय्लें-वागय्लें जाल्यार तें आळ्वोन वचानास्तां बाळ्वोन उरात! टेप रेकोर्डर हळ्ळयांनी सय्त पावलेल्या-रावलेल्या ह्यां दिसांनी हें तितलें कष्ट न्हय म्हणचें तें स्पष्ट.

गाणांचो नाद आनी स्वाद आय्काजे आनी चाकाजाय? घेया थोडे दृष्टांत:

१. बाळ म्हजें खेळोंक गेलां, भायल्या वाड्या, कुल्यार बोडियो मारुन ताका घरा हाडिया.

२. जय-गो जय, बोक्लान खेली साय
आनी गोव्यांत आसा गाय, बाळा, दूद पियेंवक जाय.

३. ये-गे, ये-गे, गायें, खा-गे तुं कुंडो,
बाळाक दी उंडो, लोणियाचो.

४. भांगाराच्या पाळन्याक रुप्याची ही दोरी,
आनी आंक्वार मरी, बाळा, तुजी राकण करी.

भुर्ग्यांलीं गीतां आय्कायां आतां:

१. बोबे भाज, बोबे भाज, वट्व्या कयलार
बाळा तुजो माम येता थोंव्या बयलार

२. बोबे भाज, बोबे भाज, माल्तेंत
बाळा तुजी मावशी येता पालक्येंत

३. बोबे भाज, बोबे भाज मालतुलांत
बाळा तुजो बाप्पु येता मांचिलांत.

४. धल-गो बाये, धल
धला पेल्यान कोल
कोलाक पेट्लो उजो। बलाव गेलो तुजो
कोल गेलो लासुन। बाय आय्लें हासोन
कित्याक मामा बडय्ताय। वोडाची ताळी झडयताय?

५. आंग्णांत उबो मोर। मोरा मोरा कांटेरा,
सुक्णीं उबलीं घोंटेरा। त्या मोराच्यो काडिन काती
जळिन वाती। सगळये राती!

आनी आमच्यां कोंक्णी वोवियांची शैली, स्वयं प्रेरित काविंयांची थैली, कोणाक ती रुचानातल्ली,मनाक वचानातल्ली? हांतुं कवित्येची सत्त

आनी पुर्वजांची भक्त संगीं मेळोन–खेळोन, शिंपियेंतलीं मोतियां–माण्कां उसळ्तात आनी उजळ्तात.

१. कानीं घालें तेल म्हण कपालीं काड्लो खुरिस । वैकुंठिचो जेजु क्रिस्त व्होरेताक (होकल्येक) बेसांव दीत.

२. किरंगळिच मुदी। उसळ्ळेली बीदी। पुन्येवंतिक सोधी। आमचो येजमानी.

३. शिरती दवरुन शिरत्येर वाड्लें मीट। येजमानिचें चीत । आसा जेजु वग्र.

४. नार्लेले तेलाक । कापसाची वात । भायल्यान जाली रात । वोवळी झेमेतात.

५. उघडलेली पेट । पर्मळली कस्तूर । रायांगेली दसतूर । आमच्या येजमान्याची

६. दीस उदेवन दिसाक पड्लीं ल्हारां । वोरेत मेजता वोरां । आपल्या रेसपेराचीं

७. मुखार येता सोमिण । पाट्ल्यान येतात वोवळ्यो । वांटुन दीगे मोवळ्यो । पातकरंबळ्याच्यो

८. सरपळेचो पोड । गुंत्ताना गोंदों । आयापण नोंदों । देवा, संसारांत

आनी 'वेर्सांचें संगीत,' हा तें कितलें रंगीत!

१. देरांत पावलो व्होर । आनी नेणा जाल्यांव वेळ । मुखार धाड्त्यांव खेळ । आर्क वियोलांचो.

२. आर्क–वियोल देरांत । आनी रेबेक कंतार सालांत । उज्वाड फांक्ला घरांत । दोगांयी आंक्वार्यांचो.

३. देरांत पावलो व्होर । आनी पळेंवक गेलीं बाळकां । आंजात्री साळ्कां । व्होराक उडय्लीं.

४. देरांत पावलो व्होर । आनी येजमान जाली खुशी । मुखार धाड्त्यांव बशी । चांपयां–धुंपेलांची

५. दिसा वर्नी धोवी । चंद्रा वर्नी तांब्डी । एका नेकेत्रा सांग्डी । रोजालिन, आमची होकाल बाय

६. आंबो–मू तो कातर्न । आंब्याचें केलें काप । आतां दियात जाप । रोजालिन, मोज्या वेर्सांक.

७. इतले वेर्स गावन । कितें म्हाका पाग? । तुज्या रोजारांत । रोजालिन म्हाका बरें माग.

८. गोंयां वेच्या वाटेन । कण्येरिचें पीक । मुदियेवयलें थिक–रे युवा । आमची होकालबाय.

९. रडोनाका बाये । बाये सुजयनाका दोळे । आटां दिसां फुडें । बाये आपंवक धाड्तां पळे.

गाणां–वोवियां–वेर्सांची सोभाय देखतच–चाक्तेच, आतां कंतिगांची आपुर्बाय आनी गोड्साण तुमकां मनाक लाग्तेलिच आनी काळ्जाक भोग्तेलिच.

१. आस्सुंप्सांव दीस । निर्मळ व्होर । आंज बोड्वे गायान कर्ती । नोवयी कोर । पांचव्या कोरार पावली मरी । देव–पुत्राची माय । आतां मागा समेस्त क्रिस्तांव । कितें जाय.

२. आय्का क्रिस्तांव जना । लक्ष्या लावुनी ध्याना । अय्सें अथिरपण संसाराचें । भानु हो आंब्रारी । किरणां फांत्ती थोरी । जालेया सांजा वेळयी । मोवाळत.

३. स्पिरित सांता ये देंवोन । आनी फांकय सर्गीं थावन । उजवाडाचें तुजें कीर्ण । ये तुं बापा दुबळ्यांच्या । ये तुं दाता देण्यांच्या । ये तुं दिव्या काळजांच्या। भुजवणदारा बोव बर्या । अतम्यांक दुलोब तुं सऱ्या । स्वाधिक खऱ्या विशेवा.

ही सूत्रांची खंचवण आनी उत्रांची विंचवण मेळोन लाभता न्हयंगी दुलोब शिकवण? आनी कोंक्णी कवनांतलीं भावनां जीवन पावन कर्चीं पक्वनां! तें म्हाका धक्वाना म्हणोंक कोणयी सकाना आनी म्हळ्यारयी तो खंडित जिकाना!

कवनां पयकी वरकवी लुविस मस्करेंजाचें हें अमूल्य रतन देखा आनी ताचो सुवाद चाका:

मनिस म्हणजे कितें । सांगश्यात म्हाका? । मातियेचें एक घर तें: धनी आस्तां सोभित दिस्ता । ना तर भेष्टें रितें.

आपल्येयितल्याक वाड्ता । विचित्र बांदाप! । वकल नातल्यार पड्ता;

त्या भितरी एक पयणारी । आपलें बिडार करता.

पर्गांवांतलो एक जण । अतमो सुंदर! । जातच आपलें स्थवण

सांड्ता तें घर । अबळे! मूठभर । कुसड, किड्यां–पर्वण!

कोंक्णी कवितेंत त्रास नास्तां प्रास आयले जाल्यार कोंक्णी किण्कुळ्यांचो नाद आमचें वर्तन नर्तन जावन परिवर्तन कर्ता म्हळ्ळें तें दाखंवक आनी शिकंवक 'मरिदासान' खळानास्तां–वळानास्तां साधन केलां. ताचीं चडावत कावियां दोड्त्या–उड्त्या प्रासांनी व्हाळ्तात. गीतिकांचो (sonnets) प्रयोगयी ताणें वापर्ला.

'जिये! जिये! कोंक्णी माये' म्हळ्ळ्या शिरोनामाखाल थोड्याच वर्सां आदीं 'राक्ण्या'र ह्याच दोड्त्या प्रासाच्या छंदा–तरंगाच्या व्हाळ्यान कोंक्णी मायेचें इतिहास आनी साहस 'मरिदासा'न सुरस कवनावळी म्खुकांतर केल्लें तें तुमी परत वाचुन पळेंवचें बरें.

कोंकणींत 'कविराज' म्हणोन बिरुद लाभलेल्या मनोहर राय सरदेसायी कविचें एक कवन तुमी आयकाना जाल्यार ह्या लेखनांत चुक्लें–चुक्लेंशें भोग्चेंच सय.

तुजा मुखार दुसमाना।<br>
नाच दिंबी मोड्चो ना॥<br>
वाटार दोळे, पेटय नाळी ।<br>
आवेश म्हजो मोर्चो ना॥<br>
हांगा मोर्जी शेतां–भाटां।<br>
हांगा मोर्जी गोर्वां–जोतां॥<br>
हांगाच मोजी वार– मठी ।<br>
अन्न, रांदोण, आयदानां ॥

लागात तशें बांध पायें ।
तोंडाक केदोयी गुड्डो लाय ॥
हांड्शी जाल्यार हांड उबो ।
तरी दिंबी मोड्चो ना ॥
तुज्या मुखार सुल्ताना, ।
हांव–रे पायां पड्चो ना ॥
भुंय मोजी जीण मोजी ।
तिका वाटांवक भिंवचो ना.॥
हुंवारी न्हयेक आडाय्त कोण?
पेटच्या रानाक पाल्वय्त कोण?
रोक्ली तांब्शी, फांक्लो दीस –
आमी–रे आतां निद्चे ना.

– मनोहर सरदेसायी

आसा ताच्ये बराबर आर.वी. पंडित म्हळ्ळो गोंय्कार कोंक्णी वर कवी; ताच्या कवनांनी अंतरराष्ट्रीय प्रशस्ती आनी कीर्त ताणे जोड्ल्या.

आमचा जिल्ल्यांत वरकवी लुविस मस्करेंञ; मोन्सिंञोर मिंगेल प्लासिद कुलास (सांत अंतोनिच्या आश्र्याचो घड्णार), सिला मिनेज, राय्मुंद मस्करेंञ; मानाधिक बाप लुविस बोतेल, कैतान गोसाल, जे.स., लियांद्र सल्दांञ; मानेस्त कवी जुजे सल्दांञ, जे.एम. लुद्रिग मडंत्यार, भाग्यवान राय फेलिक्स पाव्ल नोरेंञ, जे.जे.रेग, हेन्रि डिसिल्वा (रान उद्यावार), कावयदास आनी मरिदास, जेरोम सोज आनी विल्फी रेबिंबस (गायक कवी) इत्यादी कविंनी कवनां व्हाळवन आमकां तीं मेळ्न धादोशी केलां. आतां कोंक्णी दिगंतार नवे–नवे वरकवी आनी नरकवी उदेवन कोंक्णी मातेक सदेंव करुंक क्रमान–श्रमान वावुर्न आसात म्हळ्ळें तें आमकां चार भुजां जायशीं कर्ता. तांच्या वीण्याक आनी कवितवाच्या देण्याक आमी जय्त मागियां.

आमच्या कविंच्या सर्व कवनांचें अपार; नीज 'कोंक्णी दिर्वें' आंज, कोंक्णी दिर्वें, राक्णो, आमची माय, सुख–दूख, पयणारी, मित्र, काणीक इत्यादी पत्रांनी शिंपडोन–सांपडोन आसात. तांचो संग्रह केलो तर जालें तुष्टी दिंवचे

सबार पुष्टी गृंथ जातित म्हणच्याक सास्वातितलो दुभाव ना.

कोंक्णींत कवित्येच्या रूपाचीं श्लोकां, लोकोक्ती आनी गादियी आसात. जाय्ती 'बचावेची पवित्र चरित्रा' हेर इतिहास आनी कथा आटापचीं गुम्टां पदांयी आसात. हेंयी सर्व कोनश्यांतलें कोंक्णी दायज जमो कर्न मनश्यांत हाड्चें साधन आमी तुर्तान केल्लें बरें.

कवितवाचें महत्वाचें देणें आस्लेल्यांनी तांचें हें वीणें देवाचा, भावाचा आनी गांवाचा मानाक आनी हिताक, क्रमान-श्रमान आनी पराक्रमान व्हाजयजाय, कोंक्णी मायेक भुजयजाय, सजयजाय आनी तिची कीर्त सग्ळ्यानितल्यान गाजयजाय. कवित्व जल्माथावन लाबचें सत्व. पुण तांतु आसचें तत्व निधानायेन शिकोन आनी साधनांत जिकोन घेतल्यार मात्र महत्व प्राप्ती जाता. ततवां प्रकार कविता बरंवच्या कविंचो आय्लेवार ततवार दिसुन येता. हो ततवार परिहार करुंक आयल्यावार जाल्लो तसलो 'कोंक्णी साहित्य सम्मेळ' उपकार्ता. तसलें 'तर्भेतिचें शिबिर' हें नेणारपणाचें उबिर काड्न म्हेळाप नातल्लें थळाप आनी ततवांची तळप आमच्यां कविंक दींव्क सक्तेलें.

कविच आसल्यार पावानांत. कविंनी दिंवची सवी चाक्तेलेईं आनी भोग्तेलीं सहृदयांची जणां आसोंक जाय. आमच्यां पुर्वजांक कवित्येची अभिरुच आनी खाय्स विषेस आसल्ली. ती तांचा दिसपड्त्या जीवनांत धर-धर म्हण झळ्काताली. तांचें जीवनंच एक लांब कवन जावनासल्लें म्हण्येत. आमींयी कित्याक कावयांची आनी वोवियांची खाय्स करुंक नजो? अभिरूच कित्याक चडोंक नजो? गद्याची शित-कडी सदांच जेवताना, तवळ तवळ पद्यांची पर्वण आनी कवनांचीं पक्वानां आमीं सेवल्यार आमच्या जिवितांत कवित्येची गुपित संकृती रूपित जातेली; विकार वचून आकार येतोलो. प्रकास लाभोन विकास सोभोन येतोलो आनी आमची जिणी नाजुक जातेली.

(हें लेखन ''राक्णो'' पत्राचेर १९७२-१९७३ इस्वेंच्या अंक्यांनी छापून आयिल्लें तें, 'अमर कोंकणी'-च्या ५९ अंक्यांत पर्वणेोन छापलां)



# कोंकणी : अितिहासीक भाशा-शास्त्राच्या संदर्भात

– माधवी सरदेसाय
(कुळागर, जनेवरी 1989)

भाशाशास्त्र भाशे कडेन दोन नदरांनी पळेताः

1) काळा वांगडा भास कशी बदलत वता ताजो अभ्यास करपी अितिहासीक भाशाशास्त्राचे - डायक्रकॉनिक वा हिस्टॉरिकल लिग्विस्टिक्सचे नदरेन

2) काळाक कुशीक दवरुन भाशेनी आयची या अितिहासांतल्या अमक्याच अेका काळांतली बांदावळ नियाळपी सिंक्रॉनिक लिंग्विस्टिक्स्चे नदरेन.

**कंपॅरेटिव्ह फिलॉलजी आनी आर्विल्लें भाशाशास्त्र**

अठराव्या शेंकड्यांत (1786त) सर विलियम जोन्स हांकां संस्कृत भाशेचो अभ्यास करताना संस्कृत भास लातीन आनी ग्रीक भासांक खूब लागिंची म्हणपाचो सोद लागलो। ह्या तिनूय भासांच्या अुतरांच्या नादां-अर्थां मदीं तांकां अितलें लागिचें नातें दिश्टि पडलें कि ह्यो भासो अेक रगताच्यो, महळ्यार, अेकेच आवयच्यो धुवो आसूंक जाय ह्या अदमासाचेर ते पावले. ह्या सोदा अुपरान्त भाशेचो अभ्यास करतल्यांक नादां-अर्थांनी लागीं-लागीं आशिल्ल्या अुतरांची अेकांमेकां कडेन सर करून तांच्या मुळांचो थाव घेवपाचें आनी भासां भासां मजगतच्या नात्यांचो अदमास घेवपाचें पिशें लागलें. हातूंतल्यान 'भाशे-कुळा' चो (लँगवेज फॅमिलीचो) विचार जल्मलो.

अिकूणिसाव्या शेंकड्याच्या सुरवेच्या काळांत रास्क, बॉप, ग्रिम सारकेल्या विद्वानांनी अिण्डो-युरोपियन भाशे-कुळाचेर खूब वावर केलो. ह्या वावरान अितिहासीक भाशाशास्त्राची बुन्याद घाली. पूण त्या काळार भाशेच्या अभ्यासाची खाशेली अशी शास्त्रीय बसका बसूंक नाशिल्ली. हाका लागून भाशेच्या मळार जाल्ल्या ह्या अितिहासीक अभ्यासाक जाणकार वाङमयविद्येचो म्हळ्यार फिलॉलजिचोच वांटो लेखताले.

श्लॅयशॅर ह्या विद्वानान भाशे-कुळाच्या ह्या सोदाक वंश रूखाचें (जिनियोलॉजिकल ट्री मॉडलचें) रूप दिलें. हे माण्णेच्या हिसबान संस्कृत, ग्रीक, लातीन ह्यो भयण भासो. तिगीय प्रिमिटीव्ह अिंडो-युरोपियनच्यो धुवो जाल्यार तांच्यांतल्यान आयिल्ल्या भासांच्यो

आवयो. फ्रँच, पुर्तुगेज, स्पॅनीश, अिटालियन ह्यो अेकिमेकिंच्यो भयणी जाल्यार लातीनच्यो धुवो.

ह्या सगळ्या अभ्यासांतल्यान 'तरनाट्या वैयाकरणी' लोकांची (नियोग्रॅमेरियन) विचारसरणी भायर सल्ली: भाशेंत काळा वांगडा जावपी बदल कश्याय कशे जायनात, तांतूंत वेवस्ता आसता-बदलांक नेम आसतात, नेमांक आडवाद आसले जाल्यार आडवादांकूय नेम आसतात. हें मत मांडप्यां भितल्लीं दोन मोटीं नावां ऑस्तॉफ आनी ब्रुगमान ही.

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेच्या कांय वरसां मेरेन आर्विल्या काळांतलो भाशेचो अभ्यास ह्या अितिहासीक बारीकसाणिनीच घुस्पून अुल्लो.

1916त कंपॅरटिव्ह फिलॉलजिचेच हे परंपरेत वाडिल्ल्या फोदिंनाद द सोस्यूर हांगेल्या cours de Linguistique Generale ह्या पुस्तकान आर्विल्ल्या भाशा-शास्त्राची बसका घाली. भाशेंत जावपी बदलांत वेवस्ता आसता तशी भाशेंतूय वेवस्ता आसता. भासांची अितिहासीक सर करचे पयलीं अितिहासाक पेल्यान दवरुन भाशेंचें वर्णन करप गरजेचें हो विचार मांडून ताणी भाशेच्या अभ्यासाची परंपराच बदल्ली, भास म्हळ्यार कितें? भाशेची वेवस्ता बदलता म्हळ्यार कितें बदलता? भाशेच्या पाळां मुळांचो सोद घेवपांत गुल्ल आशिल्ल्यांचें लक्ष ताणी ह्या प्रस्नांकडेन ओडलें.

सोस्यूराच्या वावरान सिंक्रोनिक लिंग्विस्टिक्साक मूळ घालें आनी अिकुणिसाव्या शेंकड्यांत भाशेच्या मळार जाल्ल्या अितिहासीक अभ्यासाक फिलॉलजींतल्यान सोडोवन हाडून भाशाशास्त्राचो संदर्भ मेळोवन दिलो. सिंक्रोनिक लिंग्विस्टिक्स्चे घट बिन्यादिचेर डायक्रॉनिक हिस्टॉरिकल लिंग्विस्टिक्सूय अुबी जाली.

## अिण्डो-युरोपियन आनी अिण्डो-आर्यन

कोंकणी अिण्डो-युरोपियन कुळांतली आर्विल्ली अिण्डो-आर्यन भास.

अिण्डो-आर्यन भाशेक भारतांत तीन ते साडे तीन हजार वरसांचो अितिहास आसा. साडे तीन हजार वरसां आदीं हे भाशेचो अितिहास अिराण, अिराक आनी पूर्व आशिया मायनरांत हजार भर वरसां पळोवंक मेळटा. (हो अिण्डो-अिरानियन काळ) ताजे आदिंच्या पांचशें ते हजार वरसांच्या अितिहासाचोय अदमास काडूं येता. (हो अिण्डो-युरोरियन काळ)

अिण्डो-युरोपियन भाशे कुळाच्या लोकांचे म्हालगडे कोण आनी कशे आशिल्ले, ते संयचे मुसतांत अेकठांय रावताले, कशे रावताले, तांगेलो मूळ वाठार खंयचो आशिल्लो, लिंग्विस्टिक्स पॅलियन्टोलजिच्या (उतरांच्या अभ्यासांतल्यान मनीस कुळ्यांच्या अितिहासाचेर आनी संस्कृतायांचेर अुजवाड घालपी शास्त्राच्या) आदारान अिकुणिसाव्या शेंकड्यांत आनी विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक जाणकारांनी खूब अदमास काडले. ह्या वावराक लागून कितलींशी अितिहासीक तथयां वयर सल्लीं. पूण सूब कडेन ह्या अदमासांचें खरेंपण तपासून पळोवंक वाव नाशिल्ल्या कारणान ह्या अदमासांक अदमासांच्याच अंतराचेर दवरचें पडटा.

खिस्ता आदीं देड हजार वरसांच्या अदमासाक आर्य पयलेच अिराणांतल्यान पंजाबा वट्यां भारतांत भितर सरिल्ले आसूंक जाय अशें म्हणटात.

आर्य भारतांत येवन रावंक लागचे पयलीं हांगा हेर भाशे कुळांचे लोक येवन वशिल्ले. ह्या अनार्या कडल्यान आर्यांनी खूब कितें कितें घेतलें. तांकांय खूब कितें कितें दिलें. हांतूंतल्यानच भाशे कुळांच्यों आनी वंशाच्यो शिमो मेरो हुपून भारतीय संस्कृताय घडली. जाणकार म्हणटात, भारतीय संस्कृतायेच्या घडपांत आर्या परस आनार्यांचो वांटो चड: कर्म आनी पुनर्जल्माचो विचार, योगाचें शास्त्र, हिन्दू पुजा, हिन्दू भेस (साडी, पुडवें), हें सगळें मुळांत अनार्य.

पुर्विल्ल्या काळा सावन भारतांत चार भाशे-कुळां सांगातान जियेतात:

1. ऑस्ट्रिक (खासी, कोल वा मुंडा बोलयांचें कूळ)
2. विड (तमीळ, मलयाळम, कन्नड, तेलुगु, गोंडो बी बोलियांचे कूळ)
3. टिबेटो-बर्मन (मणिपुरी, नागालँडांतल्या बोलयांचें कूळ)
4. अिंडो-आर्यन (पंजाबी, हिन्दी, बंगाली, अुडिया, आसामी, गुजराती, मराठी, कोंकणी बी बोलयांचें कूळ)

ह्या चारुय कुळांच्यो भासो पुर्विल्ल्या काळासाधन अेकांमेकां कडेन दिवप घेवप करुन वाडल्यात. हे घोळणुकेक लागून तांचेर जायते अखिल भारतीय (पॅन अिंडियन) संस्कार जाल्यात. ह्या भौ-भाशिक वाटारांत वेगळ्या वेगळ्या कुळांच्या ह्या भासां भितर आशिल्ल्या थळाव्यापणाक लागून भाशा-शास्त्रज्ञ भारताक 'भाशिक वाटार' लिंग्विस्टिक अेरिया लेखतात.

आर्य भारतांत आयले तेन्ना तांगेली भास अिंडो-अिरानियन पांवड्यार आशिल्ली. पोन्ने परशियन भाशेक आनी अवेस्तन भाशेक खूब लागींची आशिल्ली. भारतांत येतकच तिजो वेगळो प्रवास सुरु जालो. अिंडो-आर्यन पांवडो सरु जालो.

भारतांत आयिल्ले त्या काळा सावन आर्यां भितर बोलिंचे फरक आशिल्ले जावंक जाय अशें म्हणटात. ब्राह्मण बरपाच्या काळांत (खिस्ता आदीं 100-600 वरसांच्या अदमासाक) वेदांतल्या कविताचे बोलये (छंदस) भायर संस्कृत भाशेच्यो तीन थळाव्यो बोलयो आर्यांभितर घोळटाल्यो - अुदिंच्य (अुत्तरे कडली), प्राच्य (अुदेंते कडली) आनी मध्यप्रदेशीय. ह्या थळाव्या भेदांतल्यान मुखार प्राकृत बोलयो भायर सल्ल्यो अशें अमच्यांनी म्हणूं येता. अुदिच्य बोली छंदसाक लागिंची जाल्ल्यान तिका शुद्ध लेखताले. खिस्ता आदल्या पांचव्या शेंकड्यांत अुदिच्याचेर आदारुन पाणिनीन संस्कृत भाशेचें व्याकरण बरयलें. बुद्धान प्राकृताक वयर काडली। पुण संस्कृत आनी प्राकृत हांचो खेरीतपणान विचार करूंकच नज. दोगीय अेकामेकांकडल्यान पोसवण घेत आयल्यांत. आदली सरस्पत राखून दवरूपाचे गरजेक लागून संस्कृत बरपांत थिरावली. प्राकृत जिबेर जियेली हें खरें पूण अुतारावळिच्या सळार दोगीय अेकांमेकांक गिरेस्त करीत आशिल्ल्यो.

पोरण्या संस्कृत नाटकांनी (सगळयांत पयलीं नाटकां पयल्या शेंकडयाच्या अदमासाक बरयल्लीं मेळटात) शौरसेनी, मागधी, महाराष्ट्री, पैशाची बी प्राकृत बोलयो पात्रांच्या तोंडांत घाल्ल्यो मेळटात. पोरण्या संस्कृत व्याकरणकारांच्या बरपांतूय ह्या बोलयांचो. पालिचो बी अुल्लेख मेळटा. आर्विल्ल्या अिण्डो आर्यन भासांच्या पाळांमुळांचो थाव घेताना ह्या प्राकृत बोलयांचो वाटार खंयचो आशिल्लो जांवंक जाय ताजो अदमास लावपाचो जाणकारांनी यत्न केला. हाजे खातीर शिलालेखांचोय आदार घेतात पूण शिलालेख तो जंय मेळिल्लो आसता, थंयचे थळावे बोलयेंतल्यानूच बरयल्लो आसता हाजें खरेंपण नासता देखीक, मध्यभारतांत मेळिल्ले अशोकाच्या काळांतलें शिलालेख अुदेंते कडले प्राकृत भाशेंत बरयल्ले आशिल्ले. हीच प्राकृत अशोकाचे राजवटींतली राजमान्य भास आशिल्ली. सुनितीकुमार चटर्जी (1939) म्ह्णटात, प्राकृत काळांतल्यान आर्विल्ल्या अिण्डो-आर्यन बोलयांतल्यान प्राकृत काळाचो अदमास लावप चड शाणेपणाचें.

**अिण्डो-आर्यन अुप-कुळ आनी कोंकणी:**

अिण्डो-आर्यन अुप-कुळांत कोंकणिची सुवात खंयची हें थारायताना डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे (1969) हाणी केल्लो वावर नदरेंत भरता. ताणी कोंकणिच्यो स बोलयो पतीक

घेवन आर्विल्ल्या भाशा-शास्त्राचे पद्दतेन तिच्या अितिहासाचेर अुजवाड घाला.

कोंकणिचे बांदावळिच्यो बारीकसाणी नियाळून पळेल्यो जाल्यार तिका मराठी, गुजराती आनी सिंहळीस भासां वांगडा आर्विल्ल्या अिण्डो-आर्यनाच्या दक्षिण-पश्चिमेकडल्या वांटयांत बसोवची पडटा. मध्यदेशीय वांटयाचींय कांय आंगां आमकां कोकणींत पळोवंक मेळटात. देखीक - का हो कोंकणी विभक्ती प्रत्यय (म्हाका, तुका...) - को ह्या हिन्दी प्रत्ययावरीं मझको, तुझको...)

मराठीक लागिंची आसून लेगीत कोंकणी अेक स्वतंत्र भास म्हणपाचें तिगेले बांदावळीची मराठी कडेन सर करून दाखोंव येता. देखीक,

पुल्लींग नामांतल्या कोंकणी - ऑ चे सुवातेर मराठींत आमकां आ मेळटा :

| **कोंकणी** | **मराठी** | **संस्कृत** | **प्राकृत** |
|---|---|---|---|
| दिवो | दिवा | दीपक | दीवओ |
| किडो | किडा | कीटक | कीडाओ |
| घोडो | घोडा | घोटक | घोडओ |
| कांटो | कांटा | कण्टक | कण्टओ |

गुजरातींतूय आमकां कोंकणीवरी-ओ मेळटा. हे तरेच्या नामांच्या भौवचनांत मात कोंकणी मराठीवरी चलता:

| **कोंकणी** | **मराठी** | **गुजराती** |
|---|---|---|
| अे. व. घोडो (-ऑ) | घोडा(-अ) | घोडा (-ओ) |
| भौ. व. घोडे (-ॲ) | घोडे (-अे) | घोडा (-आ) |

2. मराठी सादया वर्तमानकाळांतल्या अेकवचनांत लिंगाचे भेद दाखयता. कोंकणी दाखयना. हांगा कोंकणी गुजरातीवरी चलता. ही चलणूक संस्कृत भाशेचे चलणुके वरी:

| **कोंकणी** | **मराठी** | **गुजराती** |
|---|---|---|
| (हांव) करतां | करतों/त्यें/तें | करूं छुं |
| (तूं) करता | करतोस/त्येस/तेस | करे छें |
| (तो/ती तें) करता | करतो/त्ये/ते | करते छे |

3. कोंकणीत आनी मराठींत दिसपट्टीं घोळपी खूबश्या अुतरांची मुळां वेगळीं वेगळीं :

| कोंकणी | संस्कृत | मराठी |
|---|---|---|
| आपय | आव्हय | बोलव |
| धवें | धवल | पांढरं |
| हडवें | हरिद्रा | पिवळें |
| जोर | ज्वर | ताप |
| कुळार | कुलागार | माहेर |
| फातर | प्रस्तर | दगड |
| गीम | ग्रीष्म | उन्हाळा |
| व्हर | हर | नेणे |

अेकेच प्राकृतेच्यो बोलयो आसून लेगीत कोंकणिचो आनी मराठिचो विकास वेगळे वेगळे बाशेन जाला म्हणपाचें असल्या बारीकसाणींतल्यान आमच्यांनी दाखोवन दींवयेता. आर्विल्ले अिण्डो आर्यन भाशेच्या विकासांतलीं खुबशीं आदलीं रूपां कोंकणीन सांबाळून दवल्यांत अशें डॉ. चव्हाण (1923), डॉ. कत्रे (1966) सारकेल्या जाणकारांनी आपणाल्या अभ्यासांतल्यान दाखयलां.

**अितिहासीक भाशाशास्त्राची वावरा - पद्‌दतः**

अितिहासीक भाशाशास्त्र दोन तरांनी आपणालो वावर करता.

1. पोरणी बरपावळ नियाळन

2. भाशेच्या बोलिंचो अभ्यास करून.

1. साहित्याचें गिरेस्त दायज आशिल्ल्या भासांनी हे पद्‌दतेन वावर करपाक वाव आसा.

सतराव्या शेंकड्या सावन आमकां कोंकणींत साहित्य मेळटा. ह्या साहित्याच्या आदारान त्या काळार कोंकणिचें रुप कशें आशिल्लें जांवये हाजो आमच्यांनी अदमास काडूं येता. पूण बरपावळ नियाळून केल्ल्या ह्या वावरांत कांय अडचणी आसतात.

सगळ्यांत मोटी अडचण लिपयेची. नादनिष्ट लिपी मेळप भौ कठीण. नाशिल्ले नादांभेद दाखोवपाच्या आनी आशिल्लें लिपोवपाच्या लिपयेच्या सभावाक लागून तिचेर आमच्यांनी चड पातयेवन रांव नज. आयज लेगीत ह्यो अडचणी आमकां जाणवतात. देखीक ऋ, ष हे नाद कोंकणींत नात. तरी आसतना कोंकणी बरपांत आमकां हीं अक्षरां मेळटात. कोंकणींत 'अ' दोन 'अे' आनी दोन 'ओ' नाद आसात.

देखीक : ती तेंफळ, तें तेंफळ

ती आंतेर, तें आंतेर

ती बोर, तें बोर

बरोवपाची तरा अेकूच आसली तरी 'तेंफळ', 'आंतेर' आनी 'बोर' ह्या अुतरांतल्या -फ-, - ते- आनी वो - ह्या अक्षरांतले अ, अे आनी ओ दोन तरांचे म्हणपाचें अुलयतना आमी विसरनात.

लिपयेंचें आनीक अेक अपणेपण म्हळ्यार तिगेलो रूढीवादी सभाव. जिबे वयली भास बदलता. लिपी तशीच अुरता. हो सभाव जायतीं अितिहासीक सतां लिपोवन दवरता.

2. बोली भासांच्या अभ्यासांतल्यान भाशेचो अितिहास अुक्ताडा हाडूं येता. देखीक,

i) 'दिवन', 'शिवन', 'करून', 'हाडून' हीं अुतरां गोंयच्या सारस्वतांच्या बोलिंनी व्यंजनांनी सोंपतात जाल्यार मंगळूरकार सारस्वतांचे बोलयेंत अु स्वरान सोंपतात : 'दिवनु', 'शिवनु', 'कोर्नु', 'हाडनु', हे बाशेन हांतलें अुकारान्त रूप आदलें रूप. पुर्विल्ल्या साहित्याच्या आदारानूय आमच्यांनी हें दाखोंव येता. फा. मिंगेल-द-आल्मैद हांगेल्या 'वनवाळयाचो मळो' (1658) ह्या पुस्तकांत 'मागुनु', 'येअूनु' सारकेलीं अुतरां मेळटात. 'अु' अुरप वा गळुन पडप वयले वयर पळेल्यार ही सामकी ल्हान गजाल. पूण हे गजालेचा भाशेच्या रूपाचेर, सिलविक पॅटर्नावरवीं भाशेच्या तालाचेर परिणाम जाता. भाशेच्या अभ्यासांत असल्या सगल्या बारीकसाणींक म्हत्व आसता.

ii) गोंयच्या कांय कोंकणी बोलिंनी अे, अॅ, ओ, ऑ, अ, आ ह्यो स्वरांच्यो जोड्यो वचन लिंगाचे व्याकरणी भेद दाखयतात. देखीक,

देर (अे. व.)  - दॅर (भौ. व.)

मोर  - मॉर

फातर  - फातर

पेर (स्त्री.)  - पॅर (नं.)

बोर  - बॉर

तेंफळ  - तँफळ

पोर (पु.)  - पॉर (नं)

माकड  - माकड

गोंयांभायल्या कोंकणी बोलिंनी आमकां ह्या स्वरां भितर हे बाशेंचें नातें पळोवंक मेळना. हाजो अर्थ, हो गोंयचे कोंकणींत आर्विल्ल्या काळांत जाल्लो बदल.

अितिहासांतल्या घडणुकांक लागून कोंकणीक बोलयांचे गिरेस्त दायज मेळ्ळां. बोलयांच्या आदारान अितिहासीक सतां सोदपाच्या वावराक कत्रेंनी नमन घालां. हो वावर आनीक मुखार व्हरपाक खूब वाव आसा.

**भाशेचे बदल: तरा**

भास दोन तरांनी बदलत वता:

1. आपले आपूण.

2. हेर भासांकडेन संबंद आयिल्ल्यान - 'बॉरोंअिंगा'क लागून

1. 'कर्ना' (करना) चें 'कन्ना' जावप हो भाशेंत आपले आपूण जाल्लो बदल 'ॲसिमिलेशना'क लागून घडला. र आनी न दोनूय दांतये नाद पूण ह्या नादांच्यो जाती वेगळ्यो. अुच्चारपाच्या सोपेपणाक लागून अेक नाद आपणाली जात सोडून दुसऱ्या नादाचे जातींत भरसून वता. हें ॲसिमिलेशन वयर दिल्ले देखींत 'र' न आपणाली जात सोडिल्ल्यात 'न' चो अुच्चार दोट्टी जाला. ॲनेलॅजीक लागुनूय भास बदलता. (लेखाचो निमाणो वांटो पळोंवचो.)

2. हेर भासांकडेन संबंद आयिल्ल्यान अेक भास दुसरे भाशेचे नाद, अुतरां, बांदावळीची मांडणी आपणायता - 'अुश्णी' घेता.

लेखाच्या दुसऱ्या वांटयांत सांगिल्लेप्रमाण भरसणूक ही कोंकणीक तिच्या कुळाच्या दायजानूच मेळ्ळ्या. आर्विल्ल्या काळांतूय कोंकणिचो जायत्या भासांकडेन लागसल्लो संबंद आयला. कोंकणी अुतरावळींत तर अुशण्या अुतरांची रास भल्ल्या. देखीक, 'बरय', 'दुडू' हीं निजाचीं द्रवीड अुतरां (कन्नड 'बरी', 'दुड्डू', 'बिकार-भासो', 'वोगोत' हीं मुदलांतलीं अरबी अुतरां 'बेकार बहस' 'वक्त').

पुर्तुगेजीकडल्यान कोंकणीन जायतें अुश्णे घेतलां. अुतरां सुमारा भायर घेतल्यांत. अुतरां घडोवपाची माण्णीय घेतल्या. देखीक, 'पिकासांव', 'फुगासांव' हीं अुतरां पुर्तुगेजींत आसात. पूण ह्या नमुन्याची 'गुड्डिलासांव', 'कातकिसांव' हीं अुतरां कोंकणी. तीं घडोवपाची कळाशी मात पुर्तुगेज. किस्तांव समाजाचे कोंकणीचेर पुर्तुगेजिचो चड प्रभाव. हो वाव्याचे बांदावळींत लेगून दिश्टी पडटा. देखीक, 'वोर्तीता जो नीज गोंयकार' कुरू ताजी शेतकार, 'हो जावन आसा घातकी आनी न्डूंय तुमचें बरें मागतो' 'दोतोर राम मनोहर लोहियांची चीट गोंयकाराक'. कत्रे म्हणटात, कोंकणीक आपणालें अशें साहित्य त्या काळार नाशिल्लें देखून हें अशें घडिल्लें आसूंक जाय. पुर्तुगेजां आदीं कोंकणींत सरस्पत आशिल्लीं हाका पुरावो ना.

अिंक्विजिसांवा वेळार गोंया भायरे जाल्ल्या गोंयकारांचे कोंकणीचेर त्या त्या थळाव्या भासांचो प्रभाव पडलो. मंगळुरांतले कोंकणीचेर कन्नड भाशेचो छाप पडलो आनी कोचिनांतले कोंकणीचेर मलयाळम भाशेचो. भाशेच्या हेळयांतूय (अिंटोनेशनांत) हो प्रभाव दिश्टी पडटा.

मुंबयकार गोंयकाराचे कोंकणीक खूब फावटी मराठिची सया मारता. 'तूं म्हाका तें दी न्ही' सारकेली वाक्या मराठी निजाचेर बेतिल्ली.

हेर भारतीय भासांवरी आज कोंकणीय अिंग्लेजिच्या प्रभावांत आयल्या.

खंयची भास/बोली खंयचे भाशे, बोलयेकडल्यान कितें, केन्ना, कित्याक अुश्णे घेता हें समजून घेवपाक आमकां सामाजिक भाशाशास्त्राचो (सोश्यो लिंग्विस्टिक्स्चो) आदार घेंवचो पडटा.

**भाशेच्या बदलाच्यो दिको:**

भास केन्ना अेका रूपांत थिरावना. ती बदलत आसता. बोलयांच्या अभ्यासावयल्यान तिज्या बदलाच्या दिकांचो अदमास लांव येता. देखीक आयज गोंयचे कोंकणींत

'करना' 'कर्ना' 'कन्ना' हीं तीनूय रूपां घोळटात. फाल्यां हांतूंतलें खंयचेंय एकूच रुप तगून उरुन बाकिचीं रुपां अितिहास भरवण जांवयेतात. 'कन्ना' हें रूप तगून उरपाचो चड संभव. उच्चारपाच्या सोंपेपणाक लागून. पुण हें सगळें बोलयेच्या सभावाचेर आदरिल्लें आसता. 'करना' चें 'कर्ना' जाता तेन्ना बोलयेचो सिलबिक पॅटर्न बदलता. तिजो ताल बदलता. ताल सोडपाक बोली सपसप तयार नासता.

नवेंच भास शिकपी भुरग्याच्या अुलवपांतल्या चुकींतल्यानूय केन्ना केन्ना बदलांच्यो दिको झळकतात. भुरगें भाशेंतले नेम आत्मसात करता आनी अशें करतना खूब फावटी आडवादांकूय ह्या नेमांनीं बांदून हाडटा. वा ह्या नेमाचेर आदारून नवीं अुतरां घडयता (अॅनलॉजिकल क्रियेशेन्स). देखींक, 'हाव करतां' 'हाव करना' ह्या नमुन्याचेर आदारून भुरगें 'हांव करतलें: ना' म्हणटा. 'रावप : राववप', 'तापप : तापवप' हाजेर आदारून 'भिवप : भिववप (भेष्टावप)' 'जेवप : जेववप (लावप) 'फुटप : फुटवप (फोडप) म्हण्टा. हीं रूपां फुडाराक घोळणुकेंत येंव येतात. सांव लावन केल्लीं 'गुड्डिलासांव' कातक्सिांव हीं अुतरांय अशींच घडल्यांत. 'क्लिनर' ह्य अुतराचें कोंकणींत' किलींडर जालां हें अुतर 'कंडक्टर' अुतारच्या नमुन्यावयल्यान आयिल्लें आसुं येता.

**संदर्भ साहित्य**


कोंकणी : केळेकार रवीन्द्रः 974 भौ भाशीक भारतांत भाशेचें समाजाशास्त्र : कोंकणी भाशा मंडळ.

मराठी : केळकर, अशोक रा. 1983 वैखरी मॅजेस्टिक बुक स्टॉल.

अिंग्लीश: Benveniste, Emile . 1971 Problems in General Linguistics Uni of Miami Press - 1973 Indo-European Language and Society. London: Faber.

Bynon: Theodora, 1977 Historical Linguistics Cambridge Uni Press.

Chatterji: S.K. 1969. Indo Aryan and Hindi Firma K.L. Mukhopadhyay.

Chavan : V.P. 1923. The Konkan and Konkani Language Anthropological Society of Bombay, Vol XII 853-907.

Emaneau: M.B. 1956 India as a Linguistic Area in Language in culture and society ed. D. Hymes Allied Publishers 1964.

Katre: S.M. 1966 The formation of Konkani, Deccan College Poona.

Robins: R.H. 1982 A short History to Linguistics Longman.

Sardesai: Mahadevi 1986 Some Aspects of Konkani Grammer M.Phil Thesis Dept. and Linguistics, Deccan College, Pune.

X अर्विल्ल्या भाशा-शास्त्राची नदर आनी मोख समजून घेवपाक हे दोन लेख वाचचे:

1971 A Look at the Development of Linguistics Emile Benveriste. 'आधुनिक भाशाविज्ञानाची परंपरा, - अशोक रा. केळकर 1983. ह्या मळार ॲमिल बॅवेनिस्त (1973) हाणी केल्लो वावर भौ मोलाचो.

XX सगळ्यांत पयलीं भारतांत नेग्रितो लोक आयिल्लो अशें म्हणटात. आंदामानीस भाशेंत तागेल्या भाशे-कुळाचे अंश मेळटात. पुण संस्कृतायेचे नदरेन भौच फाटीं आशिल्ल्या कारणान अर्यां आदीं आयिल्ल्या ऑस्ट्रिक आनी द्रविड कुळां मुखार नेग्रितो आपणालें खाशेंलपाण सांबाळून दवरुंक पावले नांत. अर्यांक ते मेळिल्ले म्हणपाचेंय खरेपणान सांगू नज.

India As a Linguistics Area हो M.B. हांगेलो लेख वाचचो.



# कोंकणी भास आनी साहित्य हांचो संक्षिप्त अितिहास (सुर्वेपासून शणै गोंयबाब मेरेन)

– डॉ. मनोहर सरदेसाय
(कुळागर, दिवाळी 1985)

भाशेचो अितिहास म्हळ्यार ती भास अुलोवपी लोकांचो अितिहास, ते भाशेच्या कुळाचो आनी मुळाचो अितिहास. भास कशी घडली आनी तातूंत कशे बदल घडत गेले अितलेंच सांगून भाशेची पुराय वळख जायना. भाशेच्या अितिहासांत येता मनीस कुळाचो समाजीक, राजकी आनी सांस्कृतीक अितिहासूय आस्पावता.

कोंकणी भाशेची अितिहास म्हळ्यार कोंकणी लोकांचे भ्रमंतीचो अितिहास, ते भाशेचेर जाल्ल्या आगळिकांचो अितिहास, आपली अस्मिताय राखपाक तिणें केल्ल्या अजापाच्या झुजाचो अितिहास.

साडे-तीन हजार वर्सांपयली भारत देसांत आर्य लोक आयले आनी हांगा वसणूक करून रावले. तांची भास संस्कृत. संस्कृत ही अिंडोयुरोपियन कुटुंबांतली भास. संस्कृतांतल्यान प्राकृत भासांचो जल्म जालो. महाराष्ट्री प्राकृत हे पोरणे भाशेंतल्यान आयचे कोंकणी भाशेचो जल्म जाला.

आर्य भारतांत येवंचेआदीं ह्या देसांत प्रोटो, ऑस्ट्रोलॉयड आनी द्रवीड वंशाचे लोक रावताले. त्या लोकांच्या भासांचोय कोंकणी भाशेचेर प्रभाव पडला हातुंत दुबाव ना: मूंडारी भाशेचे अवशेष अजून कोंकणी भाशेंत होलमतात. भारतांत तीन भास-कुळां होलमतात: अिंडो-आर्यन, सुमार 26 भासो; द्रवीड, सुमार 14 भासो आनी मुंडारी.

संस्कृतापासून जल्मल्ल्यो हेर आर्विल्ल्यो भासो म्हळ्यार हिंदी, गुजराती, मराठी, बंगाली जेन्ना अुदेल्यो तेन्नाच कोंकणी भाशेचो जल्म जाला जावंये. चवदाव्या शेकड्यांतलो मराठी कवी संत नामदेव हाच्या अेका गौळण-गीतांत कोंकणी भाशेचो स्पष्ट अुल्लेख मेळटा.

सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज लोक गोंयां येवंचे आदीं कोंकणींत साहित्य आशिल्लें. पंदराव्या/सोळाव्या शेंकड्यांतलो कवी कृष्णदास शामा हाका कोंकणींतलो पयलो

बरोवपी म्हणूं येता. ताणे 'श्रीकृष्ण चरित्र कथा' ह्या मराठी काव्यावांगडाच 'अशवमेध', 'रघुनाथ वंशाची कथा' ह्यो कोंकणी भाशेंत कथा बरयल्यो आनी कोंकणीक मोलादीक अशें गद्य साहित्य दिलें.

1469 वर्सा गोंय मुसलमानांच्या शेकातळा आयलें. 1510 वर्सां तें पुर्तुगेजांनीं जिखलें. पुण ताणी 16व्या शेंकड्यांत तिसवाडी, बारदेश, साश्टी आनी मुरगांव हे तालुके (Concelhos) घेतिल्ले. हांकां पोरण्यो काबिजादी (Velhas Conquistas) अशें म्हणटात. नव्यो काबिजादी (Novas Conquistas) म्हळ्यार पेडणें, दिवचल, सत्तरी, सांगें, फोंडें, केपें आनी 'काणकोण' ह्यो अठराव्या शेंकड्याच्या अर्दांत घेतिल्ल्यो.

पुर्तुगेज सैनिकां अुपरांत बेगोबेग किरिस्तांव धर्माचे प्रचारक गोंयां आयले. ताणीं कोंकणी आनी मराठी भासांचो खोल अभ्यास केलो आनी त्या भासांतल्यान किरिस्तांत धर्माची शिकवण सांगपाक ताणीं जायतीं पुस्तकां रचलीं.

(पाद्री तॉमास अिश्तेव्हांव) फादर थॉमस स्टिफन्स् (1549-1619) ह्या अिंग्लेज मिसियोनारान जेजू क्रिस्ताच्या जिविताचेर 'क्रिस्त-पुराण' हो काव्य-ग्रंथ मराठींत रचलो (1616). हो ग्रंथ मराठींत आसलो तरी सामान्य लोकांक तो समजूंचो म्हणून कर्त्यान तातूंत जायतीं चालू कोंकणी अुतरां भरशिल्यांत. फादर स्टिफन्सान 'दौत्रीना क्रिश्ता' ह्या नावांची क्रिस्ती धर्मतत्वां कोंकणींत सांगपाक अेक पटीच बरयली. (1606 त हाताळें, 1622त रोमन लिपींत छापिल्लीं) ही पटी संवादाच्या रूपान आसा. फादर स्टिफन्सान 'आर्ति द लिंग्व कानारीं' ह्या नावाचें पुर्तुगेज भाशेंत कोंकणीचें व्याकरण बरयलें (1640).

ह्या वेळार गोंयांत छापखानो आयलो आनी मुद्रणकलेचो प्रवेश जालो (1556). पयलो छापखानो रायतूर (राशोल) ह्या गांवांत स्थापलो. कोंकणी, मराठी पुस्तकां छापपाखातीर रोमी लिपी अुपयोगांत हाडली. देशी भासांचे अुच्चार रोमी लिपींत अुक्ते करपापासत रोमी लिपीची अेक नवी पद्धत तयार केली. रोमी लिपींतले छापणावळीक लागून कोंकणी मराठींत विपुल साहित्य तयार जालें. पुण देवनगरीकडलो आनी हेर भारती भासांकडलो संबंद तुटून कोंकणी कुशीक पडली. तिज्यांत हिस्पाभायर पुर्तुगेज अुतरां रिगलीं आनी रोमी लिपींतले कोंकणीचें रूम थोडेंभोव वेगळें दिसूंक लागलें.

फादर स्टिफन्साचो वावर पाद्री दियोगु रिबैरु (1560-1633) ह्या पुर्तुगेज

मिसियोनारान मुखार व्हेलो. 'देक्लारासॉव द दौत्रीन क्रिश्तां' हें जाण्ट्यांखातीर क्रिस्ती धर्मतत्त्वाची अुक्तावणी करपी कोंकणी पुस्तक बरयलें, (1664 आनी 'व्होकाबुलारियु द लिंग्व कानारीं' ह्या नांवांची कोंकणी अुतरावळ तयार केली (1626). हे अुतरावळींत कोंकणीच्यो तरेतरेच्यो मोडीय होलमतात. हे अुतरावळींत 15,500 नोंदी आसात. फा. दियोगु रिबैरान फादर स्टिफन्साचें पुस्तक 'आर्ते द लिंग्व कानारीं' संपादन करून छापलें (1640).

पाद्री आन्तोनियु साल्दान्य (1598-1663) हाणीं 'जिवित्व वृक्षाची अमृत फळां' हो ग्रंथ बरयलो. हाज्ये दोन वांटे आसात. पयलो वांटो कोंकणी गद्यांत आनी दुसरो मराठी पद्यांत. पाद्री साल्दान्याचो दुसरो म्हत्त्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार 'सांतु आंतोनीचीं आश्चर्या' हो कोंकणी गद्यांतलो ग्रंथ (1855). ह्या ग्रंथांत अितालींतल्या पादुआ गांवच्या सांत आंतोनीन केल्ल्या तेवीस अजापांची वर्णनां आस्पावतात. ह्या ग्रंथांतली भास सादी, सोपी, व्हांवती, पुण क्रिस्ती धर्माविशयींचीं जायतीं पुर्तुगेज अुतरां भितर होलमतात. देखीक; फेभावार्तु, मुस्तैस, लिब्स, साक्रामेंतु, अशें आसून लेगीत ही भास कोंकणी गद्याचो अेक बरो नमुनो म्हणून दिवं येता:

'सांतु आंतोनीचें शास्त्र आयकूंक येकी सजणी स्तिवेब. आपुले येक चेरडूं, येका पाळण्यांतु निदिल्लें आणि देराक खिळी घालुनु, इग्रजेडे धांवत वचुनु शास्त्र आइकिल्या उपरान्ते घरा परतुनु येउंक मार्गा लागली, घरान्तु पावतची पाळण्यांतु जरी पळेतरी आपुलें चेरडूं निर्जिव जाल्लें देखिलें. देखिल्यां पास्वत जी बोब तिणे केलेली, जें सधन केलेलें तें सांगतां नये'.

पाद्री जुआंव द् पेद्रोझ (1615-1672) हाचो मुखेल ग्रंथ महळ्यार 'देवाचीं येकांग्र बोलणीं' हो 'सोलिलोक्वियुश दिव्हीनुश' ह्या पाद्री बेनीदिनु दा व्हियेगाशच्या मूळ स्पॅनिश ग्रंथाचो कोंकणी अणकार. जायतीं शुद्ध कोंकणी अुतरां वापरून पाद्री पेद्रोझान कोंकणीक हो अेक सोबीत ग्रंथ ओंपला. त्या ग्रंथांतलो हो अेक अुतारो:

'मोगाळ कांताचें सावन आपले स्नेआळे कांतेचें कानी मंजुळ गायन जशें दिसता, तशो कोणाक आनंद दीत काय? तरी देवकांते मारिये, समस्ती होउनु निर्मिळी, ह्या निमितीं हीं येकांग्र बोलणी, तुज्या पवित्रां चरणांक मजी म्हणु, आनी देवाचींशीं विवेखुन तुज्या अनुपमा मानाक अर्पच्याक कायदो असो मानितां, तांचो आधार करु म्हण प्रार्थितां,

कित्या तुज्या मोगाळ कांताची ही स्तुती असी तूं आनंद प्रेमभरित होउनु, म्हजो वो ह्या येकांग्र बोलण्याचो प्रतिपाळी गरिसी आणि प्रसन्न जाउनु, निंदकां जिवाचें वाण चुकयशी म्हण सद्रुश्ठ माका गोमता कित्या देवस्तुती तुज्या अनंदाचो आडखिळो, म्हणच्याक ताची स्थुती करतल्यांक तुजो आदार कदाचिंत चुकता'

प्रादी मिंगेल द् आल्मैदान (1604-1683) जायतीं प्रस्तुकां बरयलीं. तातूंतलें चड म्हत्त्वाचें पुस्तक म्हळ्यार 'अनवाळ्याचो मळो' (1658) ह्या पुस्तकांतलें गद्य ग्रीक आनी लॅटीन भाशेच्यो गद्य-रचना मुखार दवरुन बरयलां. ह्या पुस्तकाचो विशय म्हळ्यार क्रिस्ती धर्म तत्त्वाची अुक्तावणी, क्रिसतजल्म, आंकवार मोरीची व्हडविक आनी आपल्या रगतान जेजू किस्तान जोडिल्लें जैत. ह्या पुस्तकांतलो अेक अुतारो :

'आतां धोनकुली गांवाची कोण तुस्त करुं. ह्या गांवाचें वाखाणें येदें व्हड की अर्थून सांगोन, म्हळ्यारी, वेळ नुपुरो पुण दोनूच अुतरांचें सांगतां. धोनकुली नांव जें आसा तें दोन अतरांचें मांडता. येक उतर फिरंगी भाशेचें, हेर कोंकणी भाशेचें. 'फिरंगीं हें आसा. दों कोंकणे जें आसा तें कुळीन फिरंगी उतर थोरीव, प्राप्ती, महिमा अर्थता जिणें-प्रमाणीं दों जुंआंव दों फ्रांसिस्कु, दों दियोगु आनी हे परींचे, आनी अेक किर्तीवंत नांव संवत्सरांत सोभता. कोंकणें उतर कुळी नांव जें आसा तें आसा तें कुळी पदवे, थोरी प्राप्ति. महिमेचें किर्तीवंत नांव.'

अितालियन पाद्री अिनाझियु आर्कामोन (1615-1683) हो भाशाशास्त्री. ताका कोंकणी, मराठी आनी कानाडी भासो भोवबऱ्यो येताल्यो. ताजे म्हत्त्वाचे, कोंकणी ग्रंथ म्हळ्यार 'सगळ्या वरसाचे वांजेल' आनी 'जानुआ इंदिका.' 'जानुआ इंदिका' ह्या ग्रंथांत अेक लॅटिन भाशेंत बरयल्लें कोंकणीचें व्याकरण. लॅटिन आनी कोंकणी उतरावळ आनी कोंकणी भाशेचेर लेख इतलें साहित्य होलमता.

अशे तरेन सतराव्या शेंकड्यांत कोंकणी भाशेंत युरोपियन मिशनऱ्यानी विपुल धर्मिक साहित्य निर्मिल्लें पुण 1685 वर्सा उपरांत कोंकणीक चड वायट दीस आयलें. इंक्विझिसांवाच्या खर उज्याचो हुलप कोंकणीक बरोच बादलो. आतां पाद्रीनी कोंकणी शिकून साहित्य निर्मूंपाचें कुशीकूच उल्लें तिजीं पाळामुळांच हुमटून काडपाक पुर्तुगेज सरकारान पेंगट बांदलें. 1745 वर्सा तर सगळ्या लोकानीं पुर्तुगेज शिकूंक जायच असो कायदो भायर सल्लो. सरकारी शाळांनी आनी कचेऱ्यांनी कोंकणी शिकोवपाक, उलोवपाक मना जाली.

इंक्विझिसांवाच्या खर कायद्याक लागून जायते हिंदू आनी किरिस्तांवूय गोंय सोडून महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ हांगां वाचून थंयच स्थायिक जाले. 19 व्या शेकड्यामेरेन मंगळूर आनी भोंवतणच्या वाठारांत जायते कोंकणी उलोवपी रावताले. तांचे मजगती रावन कोंकणी भाशेचे उदरगतीक हातभार लावपी जावन गेला फादर आंजेलो मार्फे (1844-1899). ह्या इतालियन पाद्रीन कोंकणीचो खोल अभ्यास करून कोंकणीचें एक व्याकरण रचलें आनी कोंकणी उलोवप्यान कोंकणी विशींचो मोग जागो करपाक ताणें एक लेख बरयलोः 'रानांतलो ताळो' फादर माफैन एक इंग्लिश-कोंकणी शब्दकोश (1883) आनी एक कोंकणी इंग्लीश शब्दकोश रचला. कोंकणीविशी. फादर माफै असो अभिप्राय दिताः

'कोंकणी ही गिरेस्त आनी सोबीत अशी भास आनी आतां जरी तिची आवतिकाय बरी ना तरी ती जायत्या युरोपी भासांपरस परिपूर्ण आसा. तिजी उदरगत जावंक ना देखून ती अपूर्णशी दिसता.'

फादर माफैन पयल्यावयल्या वावराक लागून आनी ताजे देखीन मंगळूरी कोंकणींत मागीर विपुल आनी गिरेस्त साहित्य निर्माण जालें. लुईश माश्कारेन्यश हांचें कवीत 'आब्रावांचें यज्ञदान' म्हळ्यार कोंकणी काव्याचो सुंदर नमुनो.

सुमार देडशीं वर्सां कोंकणीक सरकाराचो आदार मेळ् ना आनी इगर्जेचोय पालव गावलो ना. ह्या काळांत ग्रंथ अशे निर्माण जाले ना. ल्हान पुस्तकां उजवाडाक आयली आनी धार्मिक गीतां मात जालीं.

कोंकणीची ही आवितिकाय पळोवन हेलिदोरू द कुन्ह रिव्हार (1800-1879) ह्या पुर्तुगेज आधिकाऱ्याक चड दुख भोगलें आनी कोंकणीचो पुनर्जल्म जावंचो म्हणून ताणें नेटान उलो माल्लो. 'अेस्साय्यु इश्तोरिकु द लिंग्व कोंकानी' (कोंकणी भाशेचेर इतिहासिक निबंद) (1865) ह्या ग्रंथांत ताणें आपले विचार मांडल्यात, ह्या ग्रथापासून कोंकणीच्या नव्या युगाची सुरवात जाता अशें म्हणुं येता. कुन्ह रिव्हार असो साद घालता.

'आवय भाशेक तिज्या हक्काची सुवात मेळोवन दिवपाचो वगत आयला. गोंयच्या तरणाट्यांनो हो व्हडलो वावर तुमकां करचेलो आसा. तुमच्या देसभावांची बुद्धिक आनी समाजिक अुदरगत तातुंतल्यान जावंचेली आसा. तुमी आवय भाशेपासत केल्ल्या वावराक लागून तुमकां मराठी भास लागसार येतली. एशियन आनी युरोपी भासांचें

गिन्यान जोडप तुमकां सोंपे जातलें आनी गरजेचें गिन्यान तुमचे बुद्धीक अुक्तें जातलें. हे भाशेचो आदार नाशिल्ल्या कारणान संवसाराचें भांडार तुमकां दड्न उरिल्लें तें तुमकां एकदम उक्तें जातलें. आपल्या नेणारपणान पिशें हांसल्यार हांसू दीत, आड्डल्यार आड्डू दीत कोंकणीक व्याकरण ना म्हणून, कोंकणीत जर हीण रिगलां तर तिका सुदारपाक तिका, नितळ करपाक तुमकां चडूच नेट येवंक फाव. तिका हिणसावपाची गरज ना. हो वावर सोंपो न्हय पुण तो चड गरजेचो, अभिमानाचो, व्हडविकेचो.'

कुन्ह रिव्हारान जायतीं पुस्तकां संपादन केलीं. फादर थॉमस स्टिफन्साचें 'आर्ति द लिंग्व कानारीं' एका पुर्तुगेज मिसियोनारान बरयल्लें 'कोंकणी भाशेचें व्याकरण' (1858) एका इटालियन मिसियोनारान बरयल्लो 'पुर्तुगेज कोंकणी शब्दकोश' (1868)

हाजेमुखार जुझे जेर्सन द कुन्य (1836-1905) गोंयकार पंडितान 'कोंकणी भास आनी साहित्य' (1881) हें पुस्तक बरोवन कोंकणी ही एक समर्थ आनी स्वतंत्र भास अशें मत मांडलें.

कोंकणी साहित्याचो नियाळ करून दोतोर कुन्य हाणी सांगलें कीं कोंकणी ही मराठी सारकी तरी तिजेपसून वेगळी. तिजें खाशेलें अशें व्याकरण आसा. तिजी उतरावळ चड गिरेस्त. ती उतरावळ वेगळेंवेगळे कडल्यान आयल्या आनी तिजें मूळ सोदून काडप आतां कठीण जालां.

येदुआर्द जुझे ब्रून द सौज (1836-1905) हो कोंकणीचो पयलो पत्रकार. आनी पुण्यांत 1889 वर्सा उजवाडा आइल्लें 'उदेन्तेचें साळक' (रोमी लिपी) हें कोंकणीचें पयलें वर्तमानपत्र. हाजे उप्रांत कोंकणींत जायतीं वर्तमानपत्रां उजवाडाक आयलीं आनी पालवलीः

रोटी (1914), आव्हे मारीय (1919), धि गोवा टाय्म्स् (1930), धि गोवा मेल (1919), वावरड्यांचो ईश्ट (1933), उदेंतेंचें नेखेत्र (1946), कोंकणी दिर्वें (1912-मंगळूर), राखणो (1938-मंगळूर), पयणारी (1940), कोंकणी दायज (1958), नवें गोंय-मीर्ग (1992), पर्जेचो आवाज (1993).

'उदेंतेचें साळकां' तलो पयलो संपादकी लेखः

'जशें, एका आरशा सारख्या तळ्या, माझार एक बरें साळक फुलता, आनी आपले सभोंवतीं दमदम घालता, तशें आमच्या लोकांमदें आज उगवता हें उदेंतेचें

साळक. ही खबर, दुबावाविणे आमकां जाउंक जाय व्हडा संतोसाची. कोण सांगून दीत कितल्या उपकाराक पडत तें, ओव ह्या उदेंतेच्या साळकाचो खूंय परमळ पावत तो जर तर आमी, आमच्या हातांत आसा तें करून, ताका मजत दित जाल्यार.

सांगाता-विणें मुनशाच्यान वचूं नजो, आनी एकोटा-विणें अेक सांगात फुडें सरूं नजो. पुण जावं सांगात, जावं एकोट, भासे वांचून कदींच वसूं नजो.

भासे-वरवीं अेक आवय आपले उटेंतल्या भुरग्याच्या काळजांत आपलो मोग शिरयता, अेक भयण आपल्या पायण्यांतल्या भावाच्या, अेक भाव आपल्या खेळाच्या सांगात्याच्या. आनी हो मोग वच खुंय, तुजें पोट ओड तुजी खोशी तुका व्हरत थुंय, कदी कोणाच्यान काडूं नजो.

भासे-वरवीं बऱ्या उतराचो प्रेगादोर आपणाक आयकतल्याची काळजां सोंपेपणी जिखता आनी एक मनीस जितलीभास बरी उलयता, तितले चड तो आपणाक इश्ट जोडटा. एका मुमक्या मुनशाक आमीक थोडे.

***

रामचंद्र पांडुरंग वैद्य उर्फ दादा वैद्य (1859-1947) हांणी, आपल्या उलोवपांत बरपांत कोंकणीचो पांखो घेवन तिची व्हडवीक गायली. ते म्हणटातः "कोंकणीचें मूळ सोदूक गेलो जाल्यार तिजे नातें संस्कृतालागीं आसा. बालभाशा ही संस्कृताची धूव आनी तिजी धूव कोंकणी म्हण्टकच संस्कृताचें आनी कोंकणीचें रगत एकूच, तिच्या व्हड जल्माचेर आनी जिविताचेर नदर माल्ल्यार सगल्या भासांनी तिका तिर्जी हक्काची सुवात दिवंक फाव.

पुर्तुगेज भाशेंतलो व्हड गोंयकार कवी फेर्नां-दु-लेआल (1844-1906)हाणें लेगीत तोच विचार मांडलो. तो म्हणटा: ही भास संस्कृतांतल्यान आयल्या, ती मराठीची भयण, धूव न्हय. कोंकणी ही मराठीवेल्यान घडल्या अशें कशेंच थारना तर उरफाटें अशेंच थारता की त्यो भासो भयणी-भयणी आनी दोनूय संस्कृताच्यो धुवो. कोंकणी आनी संस्कृत हांचें लागचें नातें दाखोवपी खूब पुरावे आसात. एक पुरावो हो की कोंकणींतलीं जायतीं चालू उतरां वाल्मिकी आनी कालीदास हांचे परिपूर्ण आनी मानादीक भाशेवेल्यान आइल्लीं आसात'.

***

कुन्ह रिव्हाराचो कळवळ्याचो उलो आयकून ताज्या सांगण्याप्रमाण चाल्लो मॉसिन्योर सेबाशितयांव सुदोल्फु दाल्गाद (1955-1922). तो पाटांगडो पंडीत आनी भाशाशास्त्री. संस्कृत, मराठी, कोंकणी, कानडी, लॅटिन, पुर्तुगेज, इंग्लेज बी भासांचो ताजो अभ्यास खोल आसलो.

ताणें 'कोंकणी-पुर्तुगेज' (1893) आनी 'पुर्तुगेज-कोंकणी (1909) हे दोन शास्त्रोक्त  पद्धतीन बरयल्ले शब्दकोश रचून, कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाचें आनी साहित्याचे उदारगतीचें मुळावण घालें. तांकां बरयल्ले प्रस्तावनेंत ताणें कोंकणी ही एक संपन्न आनी स्वतंत्र भास आनी तिजें संस्कृतालागचें नातें सामकें घट अशें मत मांडलें. त्यावेळार इगर्ज वापरताली ते कोंकणींत जायतीं अडेचीं पुर्तुगेज उतरां रिगिल्लीं. कोंकणींत संस्कृतावेल्यान आइल्लीं पर्यायी उतरां आसात हें दाखोवन दिलें आनी तींच वापरल्यार अदिक बरें अशें सांगलें. कोंकणींतलें ओपारींचें आनी म्हणींचें धन दाखोवपा- पासत, मो. दाल्गादान 'प्लोरिलेजियु दुश प्रोव्हेर्बियुश कोंकानिश' (कोंकणी म्हणीचो झेलो) हें पुस्तक उजवाडायलें.  तातूंत 2177 म्हणी आसपावतात.

कोंकणी म्हणीचो हेर भासांतल्या म्हणी लागीं तुळा केल्या. मो. दाल्गादान 'कोंकणी भाशेचें व्याकर'णूय बरयलां. त्या भायर 'इंफ्लुयेंसिया द व्होकाबुलारियु पुर्तुगेज-एँ लिंग्वा आशियातिकश्' (पुर्तुगेज उतरांचो आशियाई भासांचेर प्रभाव) (1913) आनी 'ग्लोस्सारिव् लुजो-आशियातिक' (पुर्तुगेज-आशियाई भाशो उतरावळ) (1921) हे दोन मोलादीक ग्रंथ बरयले. दुसऱ्या ग्रंथांत ताणें पुर्तुगेज भाशेंत आशियाई भासांतलीं उतरां केन्नां आनी कशीं रिगलीं तें सप्रमाण दाखोवन दिलां. मो. दाल्गादान इगर्जेंत कोंकणींतल्यान सेर्मांव सांगपाची प्रथा घालून दिली.

कोंकणी नाटकाच्या मळार 'तियात्र' ह्या नाट्यप्रकाराक आगळेंच म्हत्त्व आसा. तियात्राची सुरवात केल्ली ती मुंबय ज्योकीं आगुशितन फेर्नांदीश हाणें. ताजें 'कुणबी जाकी' 'भाटकार बेबदो' बी तियात्र खूब लोकप्रिय जाले. ताजे उप्रांत गोंयां आनी गोंयांभायर हजारांनी तियात्र जाल्ले. हे खरेपणान लोकसाहित्यः लोकांनी लोकांखातीर रचिल्ले, लोकांचे भाशेत.

'रोमांस' हेंय एक लोकसाहित्यूच सामान्य लोकांखातीर रचिल्लें. एदुआर्द ब्रुन द सौज हाणें बरयल्ली 'किस्तांव घराबो' ही कोंकणीची पयली वयली रोमांस म्हण येता.

तिजें उजवाडावप 1911 अंत जालें, म्हळ्यार बरोवप्याच्या मर्णाउपरांत. सोवझाच्या पावलार पावल दवरून जायत्या जाणांनी रोमांसी बरयल्यो. रेजिनाल्द फेर्नांदिश, कारिदाद दामासियानु फेर्नांदीश, एलियट द एली, हे आनीक कांय बरे रोमांसकार.

ज्योकिं आंतोंनियु फेर्नोदिश (1889-1975) हाणें कोंकणीक तोलामोलाचें धार्मिक गद्य साहित्य दिलें. 'आमचो सोडवणदार-चारुय वांजेलांचो झेलो' ही ताजी म्हत्त्वाची साहित्यकृति. तातूंत जेजू क्रिस्ताचें जिवीत वर्णिलां आनी ताजी शिकवण सांगल्या. खेरीज रोमींत कोकणी बरोवप्यांपासत बरयल्लें 'कोंकणी नादशास्त्र' हें पुस्तक चड मोलाचें तशेंच उपेगाचें. आंतोनियु फेर्नांदिश हाणीं जायत्यो कविता रचल्या आनी तरेकवार विश्यांचेर लेख बरयल्यात.

'आमचो सोडवणदार' ह्या पुस्तकांतलो एक उतारो -

'ह्यापासत हांव तुमकां सांगतां, तुमी, आपणें कितें खावंचें वो कितें पियेंवचें? असो तुमच्या जिवाशातीर आनी आपणें कितें न्हेसचें-पांगुरचें? असो तुमचे कुडीखातीर हुस्को काडूं नाकात, जेवणापरस जीव आनी आंगांवयल्यापरस कूड आगळी न्हय? आंगणांतल्या सुकण्यांक पळयात; तीं वोपियेनांत आनी उलयनांत. वो तीं कडेय करिनात; तरी तुमचो सर्गिंचो बाप तांकां खाउंक घालता. तुमी तांचेकूय अदीक मोलाचे की ना?

हाजेमुखार कोंकणी भाशेक आनी कोंकणी साहित्याक घट मुळावण घालें तें वामनराव वर्दे वालावलीकार उर्फ शणै गोंयबाब (1877-1946) हाणें. ताजो वावर जसो मुळावो तसोच मोलाचो. कोंकणी लोकांचो इतिहास अभ्यासून जळिमळिं शिंपडलेलीं कोंकणी उतरां एकठावन आनी अेकापरस अेक बरे अशे ग्रंथ, नाटकां, कथा लेख उजवाडाक हाडून आयचे कोंकणीक सोबीत आनी स्थीर रूप दिलें. 'गोंयकारांची गोंयां भायली वसणूक' (1928) आनी 'कोंकणी भाशेंचें जैत' (1930) ह्या ग्रंथांतल्यान विस्कळीत जाल्या कोंकणी समाजाक इतिहासाचें कीर्तीवंत चित्र दाखयलें. आपले भाशेचें निजी रूप भेटयलें, आनी ताज्या पर्जळीत फुडाराचो दिश्टावो दिलो. 'गोमंतोपनिषत्' (पयलें खंड 1926, दुसरें खंड 1933) हो काणयां-झेलो उजवाडावन गोंयच्या जिविताचो हारसो मुखार धल्लो, कोंकणी भाशेची सोबाय केळयली आनी जिवितांतल्या कांय मुदल-मुळाव्या प्रस्नांची विस्कटावणी केली. 'मोगाचें लग्न' (1913) 'पोवनाचें तपलें' (1948), 'झिलबा राणो' (1950) हीं नाटकां बरोवन कोंकणी भाशेक नवे अलंकार दिले. घरावे कोंकणी भाशेची

अप्रुपाय दाखयली. तर 'भगवंतालें गीत' (1959) हो भगवद्गीतेचो अणकार करुन खोल आनी कठीण तत्वीक विचार सोपे करून सांगपाची कोंकणीची तांक दाखयली.

'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' (1949) हें व्याकरण बरोवन कोंकणी ही खंयचेय भाशेची गांवगारी तरा न्हय तर ती अेक समर्थ स्वतंत्र भास ह्या विचाराची घट म्हेड रोयली.

'पुण्यात्मो राम कामती' (1939) आनी 'आबे फारीय' हांच्यो जिणो बरोवन कोंकणी मनशाची व्हडवीक तशेंच तांचीं उणीं दाखयलीं 'नवें गोंय' हे नेमाळें चलोवन कोंकणी वाचप्यांक एक ऊंच पांवड्याचें साहित्यिक आंक दिले. 'भुरग्यांलो इश्ट' (1935) आनी 'भुरग्यांलें व्याकरण' (1941) रचून कोंकणी भुरग्यांची इश्टागत जोडली. आलबुकर्कीन गोंय कशें जिखलें (1955) आनी 'वलिपत्तनाचो सोद' हीं पुस्तकां बरोवन गोंयच्या इतिहासाचेर उजवाड घालो.

ह्या सगळ्या साहित्यांतल्यान शणै गोंयबाबान कोंकणी समाजाक अेकठायलो, कोंकणी आत्म्याक जागयलो. शणै गोंय-बाबाच्या साहित्यांतले कांय उतारे:

"गोड म्हजें गोंय! सुंदर म्हजें गोंय!
पुर्विल्ले नामनेचें, चड मोठ्या भाग्याचे
उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय!
निजाचे अपुर्बायेचे, इंद्रनीळ मळबाचें
हे म्हजें गोंय
भांगराच्या वोताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें
हें म्हजें गोंय
उजळ संस्कृतायेचें, खरेल्या कुळवंतांचें
उदार मनाच्या लोकांचे, पाटांगड्या विद्वानाचें,
बलिष्ट झुजाऱ्यांचें, बुदवंत राजकर्त्यांचें
वावराड्या, कर्तुत्वा मनशांचें
हें म्हजें गोंय!
धर्तरिवेलो सर्ग, हें म्हजें गोंय!
साणाचें सुख-दिणें, हें म्हजें गोंय!'

(भुरग्यांलो इश्ट)

‘पणस जाल्यार पणस. तसलो पणस हो न्हय. सगळ्या भतग्रामांत हाची नामना. दिवचले वाटूमामाल्या पोरसांत दुगदिगेक वणखून हो उबो रावला खरो, पुणून सगळी भितल्ली पेठ आनी भायले पेठेमेरेन हांचो घमघम. हाका जल्मा येवन कितलीं वर्सां जालीं तीं सांगूं नजत. परंत जाणें तांचें भिकण रुजवणा घाल्लें त्या मनशाची पुण्यताय मोटी खरी.

कसलो तर पणस हो! हाची तोखणाय कितली म्हणून करतलो? सगळ्या गोंया पैलें वैलें दाबण तें हाका. श्रावण म्हयनो लागल्यारुच हो कुदुंब फुटूंक आरंभ जाता. कार्तिक म्हैनो येता म्हणसर घे, पणसूच पणस. सकैलें मूळ धरून वैले तेंगशे मेरेन, खांद्या-खांद्यांनी अशे कुचकुचीत पणस. पान कसलें तें दिश्टी पडना. पणसूय पुण केदो, इल्लोसो माणकुलोच.’

**-बाबुमामालो पणस**



# Statement of ownership and other particulars about the journal

# "AMAR KONKANI"

**FORM IV (Rule 8)**

| | | |
|---|---|---|
| 1. Place of Publication | ... | Mangalore |
| 2. Periodicity of its Publication | ... | Half Yearly |
| 3. Printer's name | ... | Rev. Fr.Peter Cyprian D'Souza |
| Nationality | ... | Indian |
| Address | ... | Assisi Press<br>Mangalore-575003 |
| 4. Publisher's Name | ... | Rev.Fr.Swebert D'Silva, S.J |
| Nationality | ... | Indian |
| Address | ... | St.Aloysius College<br>Mangalore-575003 |
| 5. Editor's Name | ... | Sri Edwin J.F.DSouza |
| Nationality | ... | Indian |
| Addresss | ... | "FOUNTAINHEAD"<br>Highlands, Mangalore-575002 |
| 6. Name and Address of Individuals who own the journal and partners or shareholdetrs holding more than one percent of the total capital | ... | Rev.Fr.Swebert D'Silva,S.J<br>St. Aloysius College<br>Mangalore-575003 |

I, Rev.Fr.Swebert D'Silva, S.J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

Mangalore
30-6-2013

Sd/-Rev.Fr.Swebert D'silva, S.J